Price ₹ 20/- (₹ 25/- Outside Goa)

मासिक
# बिम्ब
कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब

जून २०११

गोंय मुक्तीच्या सुवर्ण महोत्सवी वर्साक सलाम!
(१९ डिसेंबर २०१० - १९ डिसेंबर २०११)

## गोवा व्हिजन २०३५
## घटक राज्याचें घट्टणराज्य...!

## गोवा व्हिजन २०३५
## गोंयकारांचें डिवीजन...!









वर्स : १० अंक ६

जून २०११

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी २५० रु. / तीन वर्सां ६०० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in




कोंकणी मासिक
# बिम्ब
१० वें वर्स



**रेखाचित्रां**
गिरिश नंदा बोरकार

# विनाशकाले.. विपरीत बुध्दी...!

एका माणकुल्या बाळकान आपले आवयचे कुशींत तिज्या मायेच्या पदरा पोंदा निश्चिंत जावन, सगळ्या हुसक्यां मेकळें पडून आसचें, आवयचे माये उबेंत आपल्या फुडाराचीं सपनां सुरक्षीतपणान पळोवचीं आनी तेच आवयन त्या भुरग्याक उबारून फटक करून जमनीर आपटुचें अशें कितें शें गोंयचे कलाप्रेमी, ईश्वरभक्त, आमजनतेचे आपले आपले अशे दिसपी लोकप्रिय मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हाणीं केल्लें आसा. तशें करतना आपणें आपले वेंगेंत घेतिल्ल्या त्या भुरग्याचें कितें जातलें, तें भुरगें आपले विशीं कितें विचार करतलें हाचो मात लेगीत हुसको गोंयच्या लोकप्रिय मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हाणी बाळगिलो ना. फाटलो फुडलो विचार करिनासतना, फक्त सत्तेची हाव तकलेक मारिल्ल्यान ताणीं तांचेर भरवंसून राविल्ल्या सगळ्या कलाकारांचे मानेर कसाबाक लेगीत लजेक घालचें इतले सहजतायेन सुरी चलयल्या.

कलाप्रेमी, लोकप्रिय, आम आदमीचो मुखेलमंत्री दिगंबर कामत हांची आमी भरभरून तुस्त केली. कलाकारांक भोवमानान वागोवपी, तांच्यो अडचणी, गरजो समजून घेवपी, तांका खऱ्यानीच ईश्वराचें प्रतिरूप मानून ते स्वताय अभिमानाचो अणभव घेतात अशें कितें तरी आमकां दिशिल्लें. देखुनूच तांच्यो मुसळा येद्यो चुको कुसळा येद्यो मानून तांची आमी भरभरून तोखणाय केली. तांच्या वावराक प्रोत्साहन मेळचें, तांचेर फुलां शिंपडून तांकां नवें गोंय घडोवपा खातीर उर्बा दिवंची ह्या शुध्द हावेसान संद मेळटा तेन्ना तांचो जयजयकार केलो. इतलो मेरेन केलो की कोणाकूय दिसचें की म्हयन्याक एक दोन जायराती मेळच्यो म्हूण वा खंयच्याय पदाचेर वर्णी लागची म्हूण ही मखलाशी आनी चापलुसी चल्ल्या. निजाचो कोंकणी मनीस आनी तातूंत कलाकार हो कट्टीभर सोऱ्याखातीर म्हणटात तसो कोणाच्या पांयाकडेन हेडग्या सुण्यावरी फाटल्या-फुडल्यान बोवाळचो ना. जांचेकडल्यान बरें कितें तरी घडटा ताची पोट फुटसर तोखणाय करपाची दानत जशी आमचेकडेन आसा तशीच गोंयच्या फुडाराच्या आड जर कितें घडटा जाल्यार खंयच्याय तोंकाक वचून विरोध करपाचीय धमक कलाकारंकडेन आसा. दुर्दैवान ही धमक काल-पयर जांकां कलाप्रेमी म्हूण जे पुजताले तांकांच मुख्यमंत्र्यांआड दाखोवची पडटा हाचे इतलें दुख्ख ना.




आयचे लोकप्रिय मुख्यमंत्री, कला आनी संस्कृती खात्याचे मंत्री आसतना पासून ताणीं कलेक आनी कलाकारांक उत्तेजन दिवपा खातीर जें जें कितें केलां तें आजवेर खंयच्याच मंत्र्यान वा मुखेलमंत्र्यान करूंक ना. राज्यांतल्या कलाकारांक मान-सन्मानान वागोवपांतूच राज्याची संस्कृताय थारता म्हणपाची देख ताणीं घाली. कला-संस्थांक, कलाकारांक वाद्यां आनी आर्थिक पालव दिवन ताणीं तांका प्रोत्साहन दिवपाचो शिगमोच सुरू केल्लो. संगीताच्यो कार्यावळी घडोवन हाडपा खातीर जे तरेन अनुदान दितात तें पळोवन एक एक वेळार भंयूच दिसतालो. कोणेंय उठचें आनी वाजंत्रें बडोवचें आनी थैली घेवन वचचें अशें शें कितें वातावरण आशिल्लें. तरी आमी तें कला प्रेम अशेंच मानून तांचेर मोगाचो पावस घालो. पूण पयलींचे राजा-महाराजा जशे आपल्या दरबारांत कांय जाणांक भाट म्हूण दवरून स्वताक कलेचे आश्रयदाते म्हूण बिरूद लावन घेताले, तसलोच प्रकार दिगंबर कामत, गोंयचे कलाप्रेमी मुखेलमंत्री करूंक पळयताले काय कितें असो दुबाव मारता. तो दुबाव मारपाचें कारण म्हळ्यार मे म्हयन्याचे २५ तारकेक गोंय सरकारचे मुखेली म्हूण दिगंबर कामत हाणीं घेतिल्लो माध्यम प्रश्नावेलो निर्णय.

वयलेतराक माध्यम प्रश्न हो कोणाकूय कुसकुटा समान दिसता आसत. चर्चिल,

लुईझीन, सार्दीन, मॉविन, आलेक्स, राणे हांकां तातूंत व्हडलेंशें कांयच दिसनाय आसत. कारण ते राजकारणी. मतदारांक मागता तें दिवन तांचेकडल्यान मतां घेवप आनी तांच्या भेरेल्ल्या मेंदवांचेर राज्य करप हें तांचें ध्येय. तांकां राज्यांतलें शिक्षण आवयभाशेंतल्यानूच आसूंक जाय, राज्याची संस्कृताय तेच भाशेचेर निंबून आसता हाची कल्पना नासता. पोट भरप हीच जांकां संस्कृताय अशें दिसता तांका ही गजाल उमगचीना. जे कोण समजावंक वतात तांचेंच हाशें जातलें. पूण दिगंबर कामत हे त्या वर्गांत पडनात. तांकां आमी सुसंस्कृत मानून आयल्यात. ताणीं गोवा विजन २०३५चो विचार मांडून ताचेर वावर आरंब केलो तेन्ना आदर्श राज्याची संकल्पना बाळगून आशिल्ल्यांच्या मनांत ताणी आस्त जागयली. पूण कोणाकूच विस्वासांत घेना आसतना साश्टीच्या मूठभर लोकांची मागणी आसा अशें फक्त दोन-चार मंत्री सांगतात म्हूण येदो व्हडलो निर्णय घेवपी मुख्यमंत्री दिगंबर कामत तेच काय? तांच्या काळजांत एक आनी वोंठार एक आसा काय अशें म्हणचें पडटा.

साहित्यीक पुंडलीक नायक हाणीं मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हांची 'बॉडी लँग्वेज' आनी मिनाची येरादारी करपी मदांद जाल्ल्या ट्रक धनयांची बॉडी लँग्वेज हातूंत मात्तूय फरक जाणवलो ना अशें पत्रकार परिशद घेवन, निर्णय जाहीर करपी मुख्यमंत्र्यांक पळोवन म्हणिल्लें. पूण तें तितलें शें खरें नाशिल्लें अशें आमकां म्हणन दिसता. ते वेळार मुख्यमंत्र्यांची बॉडी लँग्वेज अगतीक राजकारण्याची आशिल्ली. सत्तेची हाव सुटना आनी निर्णय घेतले बगर रावंक जायना अशी कितें गत तांची जाल्ली.

मुख्यमंत्री दिगंबर कामत हे जरी कितलेय लोकप्रिय आनी कला-संस्कृती प्रेमी आसले तरी काँग्रेस पक्षाची संस्कृताय ही वेगळी. हांगचे मुख्यमंत्री, मंत्री, आमदार हाणी हांगा कितलींय फडां वयर काडलीं तरी पुंगी वाजोवपी दिल्ली आसतात. तांच्याच तालाचेर ते धोलत आसतात. कोणाचे दांत कशे काडप आनी कोणाक सत्ताभ्रश्ट करप हांची चाल पक्षश्रेश्ठी म्हणटात तांकां बेसबरी खबर आसा. पूण ही गजाल चर्चिल, राणे, सार्दीन बी ह्या भारतीय संस्कृतायेची चाड नाशिल्ल्यांकडल्यान घडिल्ली जाल्यार समजूं येतालें. पूण घडली कोणाकडल्यान तर जांच्या खांदार गोंयचे जनतेन भरवंशान मान दवरिल्ली त्या दिगंबर कामत हांचे कडल्यान.

दिगंबर कामत हांचेर हो निर्णय मान्य करपा खातीर भरपूर दडपण आयलें हातूंत दुबाव ना. मंत्रिमंडळांतल्या सहकाऱ्यां पासून दिल्लींतल्या पक्षश्रेश्ठींकडल्यान हें दडपण तांचेर येत आशिल्लें. तांचे सुवातेर कोणूय आशिल्लो जाल्यार ताका होच निर्णय घेवंचो पडपाचो. नातर मुख्यमंत्रीपद सोडचें पडपाचें.

पूण 'आनी कोणूय' आनी 'दिगंबर कामत' हांचे मदीं गोंयकार फरक करतात. दिगंबर कामत हाणी भरपूर सत्ता भोगली. दिगंबर कामत सरकारच्या मंत्रिमंडळान घेतिल्लो निर्णय हो काय निमणो निर्णय न्हय. सरकार बदलता तशें धोरण बदलूं येता. जेन्ना दिगंबर कामत हाणीं भाजप त्यागलो तेन्ना, कांयच भिवपाची गरज ना अशें तांकां सांगत मडगांवकार तांचे फाटल्यान रावले. भाजपात तांचो अपमान जातालो हें मानून घेवन तांकां निवडून हाडलो. हे खेपे ताणीं निर्णय घेवचे आदीं तांचे बरें मागपी अशे जे कलाकार आनी विचारवंत लोक आसात तांचेकडेन भासाभास करून उपरांतूच आपूण हें करचो ना, आपूण गोंयचे जनतेचें विघटन जावंक दिवंचोना, ते पासत आपलें मुख्यमंत्रीपदूच न्हय आमदारकी पासून गेल्यार उपकारता; अशें ताठ मानेन जे कोण इंग्लीश माध्यम मागतात तांकां सांगिल्लें जाल्यार गोंयची जनता तांका माथ्यार घेतली आशिल्ली. पूण दिगंबर कामत एका निमण्या खिणाक खंयतरी फसले. ज्या आत्मविस्वासान ते फाटलीं कांय वर्सां निर्णय घेत आयले त्या निर्णयांतलो खंबीरपणा नदरेक भरतालो. पूण होच निर्णय घेतना तांच्या मनांतली चलबिचलताय तांचे बॉडी लँग्वेजींतल्यान उक्ती जाताली. हेर खंयचेय लँग्वेजीपरस हीच लँग्वेज आम आदमीक बेस बरी कळ्ळी आनी इतलीं वर्सां कलाकारांच्या काळजांत आशिल्ली तांची सुवात चर्चिल, मिकी हांचे पंगतीक वचून रावली.

दिगंबर कामत हांचो हो दुर्दैवी निर्णय म्हणपाचें सगळ्यांनी मान्य केलां. पूण तांच्या पदराक आशिल्ले पुण्यायेक लागून एक वेळ ते तांका माफ करीतूय. पूण काळ माफ करतलो काय कितें हाची जाप काळूच दितलो.




# गोवा व्हिजन २०३५ घटकराज्याचें घट्टणराज्य...?

# गोवा व्हिजन २०३५ गोंयकारांचें डिवीजन...?

- दिलीप बोरकार



२५ मे २०३५

राष्ट्रवादी काँग्रेस पक्ष आनी महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष अश्या दोन पक्षांच्या आमदारांच्यो कुबड्यो घेवन सरकार घडोवपी आनी तिगोवपी गोंय प्रदेश काँग्रेस पक्षाच्या सरकारान इंग्लीश माध्यमाच्या शाळांकूय अनुदान दिवपाची घोशणा केल्ल्या दिसाचो रुप्या महोत्सव!

ह्याच दिसा २५ वर्सां आदीं ते काळचे गोंयचे लोकप्रिय मुख्यमंत्री आनी तांच्या मंत्री मंडळान एकमुखान निर्णय घेतिल्लो - कोंकणी, मराठी ह्या देशी भाशां वांगडाच इंग्लीश भाशेंतल्यान शिक्षण घेवंक सोदपी सगळ्या शाळांकूय अनुदान दितले. ज्या कोंकणी-मराठी शाळांक इंग्लीश माध्यमांतल्यान वर्ग सुरू करपाचे आसात तांकाय सरकार अनुदान दितलें.

निर्णय जाल्या बराबर गांवांगांवांनी इंग्लीश माध्यमांतल्यान शाळा सुरू जाल्यो. ह्यो शाळा गोंयच्या पालकांक जाय म्हूण सुरू जावंक नाशिल्ल्यो जाल्यार गोंयच्या कांय राजकर्णी लोकांनी आनी पाद्रीनी, तुमचीं भुरगीं इंग्लीश भाशेंतल्यान मुळावे शाळेपासून इंग्लीश शिकलीं जाल्यार तीं इंग्लंड-अमेरिकेंतल्या भुरग्यां परस बरी इंग्लीश उलयतलीं अशें तांचे तकलेंत भरलें देखून.

तातूंत इंग्लीश माध्यमांतल्यो शाळा चलोवप हो एक खूब फायदेशीर धंदो. खंयच्याय वाड्यार पांच-धा भुरगीं एकठांय करात, ताका भुरगेपणाचो वास मारता असलें एखाद्रें इंग्लीश नांव दियात आनी करात केजी सुरू. भुरग्यांचो बापूय वो आवय खंयतरी गल्फांत नातर पॅरीस, लंडनांत. थंय तीं कोणाल्या घरांत भुरग्यांक सांबाळटात, संडास साफ करतात ना तर घरांतली वावराडे म्हूण काम करतात. तांची इंग्लीश तांका त्या कामां खातीर आनी जोडी खातीर पुरो आसता. थंयच्या भुरग्यांवरीं आपलीं भुरगीं शिकचीं अशें तांका दिसता आनी आपले जोडींतले चडशे पयशे हे पालक आपल्या भुरग्यांक इंग्लीश शिक्षण दिवपा खातीर घालतात.

कोण असल्या शाळांक भरपूर देणग्यो दितात. सांगता तितली फी फारीक करतात. आपली शाळा हेर शाळां परस हाय फाय आसची अशें ह्यो शाळा चलोवपी जाळवणदारांक दिसता. ते खातीर तांची सर्तूच चलता.

देशी भाशांकूच सरकार अनुदान दितलें अशें धोरण आशिल्ल्यान ह्या इंग्लेज शाळांक सरकारी अनुदान मेळनाशिल्लें. अनुदान म्हळ्यार ह्या शाळांनी शिकोवपी शिक्षकांक, कोंकणी-मराठी ह्या देशी भाशांतल्यान शिक्षण दिवपी शाळांतल्या शिक्षकांक मेळटा तितलो भरमसाठ पगार मेळना. भुरग्यांचे पालक जें डोनेशन दितात तातुंतल्यान शिक्षकांक पगार दिलो जाल्यार शाळा मॅनेजमेंटान दिवाळें काडपाचें. धंद्यांत हें चलना. म्हणटकच फायदेशीर वेवसाय चलयतलो जाल्यार शिक्षकांचो पगार भायले भायर सुटूंक जाय. ह्या इंग्लीश शाळांनी शिकोवपी शिक्षकांक हें मॅनेजमेंट सामको उणो पगार दिता आनी कोंकणी-मराठी शाळांतल्या शिक्षकांक मात घसघशीत पगार मेळटा. हाचें कारण कितें तर त्या शाळांक सरकार अनुदान दिता. उणो पगार मेळपी शिक्षकांक खुबळावन घालपाक ही गजाल पाद्रयांक आनी राजकारण्यांक पुरो आशिल्ली. पाद्रयांनी शाळा ह्या नांवान धंदो चलयल्लो आनी राजकारण्यांनी राजकारणाचो धंदो चलयल्लो. पाद्रयांक अनुदानाच्या रूपान सरकारी दुडू जाय आशिल्लो आनी राजकारण्यांक निवडून येवपाखातीर ह्या पालकांचीं मतां जाय आशिल्लीं. गोंयांत 'सरकार' ह्या नांवाखालाय जो धंदो चलतालो त्या धंदेकारांकूय वेंचणुके आदीं कांय म्हयने मेळटात त्या काळांत जें कितें जोडपाचें उल्लां तें जोडून दवरपाचें आशिल्लें. सांगपाचें म्हळ्यार २०११ ह्या वर्सा म्हळ्यार पंचवीस वर्सां आदीं दरेकल्याची मनोवृत्ती भोगवादी आशिल्ली. सगळ्याच मळार जमता तितलो दुडू करप हीच मोख त्या काळार आशिल्ली.

नाय म्हळ्यार गोंयची संस्कृताय, गोंयचो फुडार, गोंयकारपण अशी संकल्पना तकलेंत घेवन कांय लोक ह्या भोगवादी विचारसरणे

आड आपले परीन झुंजताले. पूण तांचे विचार पट्टा आसले तरी तातुंतल्यान जोड खंयच दिश्टी पडना आशिल्ली. म्हणटकच तांचेकडेन भोवतेकानी आडनदर केल्ली. तरी त्या काळचे मुख्यमंत्री दिगबर कामत म्हूण जे कोण आशिल्ले ताणीं ह्या सपनांत जियेवपी, आदर्शवादाचीं सपनां रंगोवपी कांय लोकां मुखार 'व्हिजन २०३५' म्हूण आनीक एक सपनाळो संवसार उबो केल्लो. मूळ गोंयकार आशिल्ल्या कांय नामनेच्या, कर्तुत्वी गोंयकारांक आपोवन हाडून ताणीं ह्या 'व्हिजन २०३५'चो आराखडो तयार करचो म्हूण तांचेर जापसालदारकी घाली.

हें चल्लां तें कांय धड न्हय, हो प्रकार शिंगां लावपाचो, हे लोक आमच्या नांवान जोडटले आनी आमी आमच्या कश्टान जें कितें नांव जोडलां ते मातयेभरवण करतले हाची सुलूस लागतकच, आपल्याक तुमची भानगड नाका म्हूण गिरीश कर्नाड ह्या लफड्यांतल्यान भायर सरलो. डॉ. अनील काकोडकार, डॉ. रघुनाथ माशेलकार हांचेय तकलेंत गोंयच्या राजकारण्यांचीं नाडेपेन्ना आयल्यां आसूं येतात. पूण ताणीं मेळटा 'गोंयकारपणाचें' बिरूद जाल्यार सोडात कित्याक म्हूण बोडार घाल्ली जापसालदारकी भुजांचेर घेतली. ताणींय म्हूण 'गोंय' ही भूंय नदरेमुखार दवरून कर्तृत्व गाजोवंक नाशिल्लें. गोंय हें आपलें म्हणपाचो विचारूय तांचे तकलेंत केन्ना आयला हेंच तांच्या लक्षांत नाशिल्लें. फकत आपलो बापूय गोंयकार म्हूण आपूण गोंयकार, इतलेंच ते लोक जाणांत आशिल्ले. तातूंत सगळें कर्तृत्व गाजोवन जाल्या उप्रांत तांका 'व्हिजन २०३५'च्या नांवान ए-ग्रेड गोंयकार जावपाची संद आपसूक चलत आयली. म्हणटकच ताणीं ती संद होगडावची कित्याक? भुंयेकडली सुटिल्ली वार कोण तरी जोडून दिता, तीय फुकटांत न्हय, भोवमानान. तातूंत ती घट्ट उरची म्हूण एकल्याक गोंय सरकार पांच लाखांचो पुरस्कार दिता. दुसऱ्याक आनीक कोणतरी पांच लाख दिता. अशें आसतना ताणीं 'व्हिजन २०३५' आडनदर करप तरी कित्याक? आमचें काम आराखडो तयार करप, कोणतरी सपनां रंगयतात तांचे खातीर तो काय चालीक लावपाचें आपलें काम न्हय. कोणे चालीक लावचो, आनी लायना जाल्यार आमी जापसालदारकितल्यान भायर सरतले अशेंय सांगपाचें बंधन तांचेर नाशिल्लें. ताका लागून 'व्हिजन २०३५'चो मूळ कणो जी 'आवय भास' तिचेरूच २५ जून २०११ हे दिसा 'व्हिजन २०३५'ची संकल्पना मुखार दवरिल्ल्या दिगंबर कामत आनी ताच्या मंत्रीमंडळान जेन्ना खचाखच वार केले आनी चर्चिल, मॉविन हाणीं फोंड काडून पाद्रीनी सोतेसांव लायलें तेन्ना हें गोंयचें 'व्हिजन २०३५' दोळ्यांमुखार दवरून मुंबय राविल्ल्या गोंयच्या सुपुत्रांनी तोंडांतल्यान ब्र काडलो ना. राजीनामो दिवपाचीय धमकी दिलीना. कित्याक आमी आयज जें 'व्हिजन २०३५' दोळ्यांमुखार हाडटात तें पळोवंक आमी आसचेच नांत तेन्ना कोणें सांगलां तें राजिनामो दिवप बी! नशिबान मेळ्ळा गोंयकारपणाचो मान तो वगडावप कित्याक? ह्याच विचारानी ताणीं दोळेय बंद केले आनी तोंडूय. ते उप्रांत 'व्हिजन २०३५'चो आराखडो बासनात पडलो आनी २०३५त गोंय आसा तें हें अशें. २५ वर्सां पयलीं मुळावें शिक्षण इंग्लीशींतल्यान चलचें देखून अनुदान दिवपाचो निर्णय घेतलो ताका लागून हें अशें जालां -

बाणावली, नावेली, कुंकळी, सांगे आनी ह्या मतदार संघांतल्या आशिकुशीच्या मतदारसंघांचेर आलेमांव ह्या घराण्याचो संपूर्ण प्रभाव पडला. एका काळार बोटीर खलाशी आशिल्लो आनी राजकारणात पडून वयर सरिल्लो चर्चिल आलेमांव हो ह्या आलेमांव घराण्याचो कर्तृत्वी मनीस. २५ वर्सां फाटीं ताणें राजकारणांत म्हत्वाचो वावर केल्लो. आपलो भाव ज्योकींम आलेमांव हाकाय वेंचून हाडून मंत्री केल्लो. ताच्या ह्या कर्तृत्वाक पंचवीस वर्सां पयलीं दिल्लीचे कॉंग्रेस फुडारी लेगीत थरथरताले. तांकांच थरथरो हाडून ताणें गोंयांत इंग्लेज शाळांक अनुदान दिवन गोंयच्या सगळ्या भुरग्यांक इंग्लीश शिक्षण दिवपाक प्रोत्साहन दिल्लें. ताच्या बदलाक दक्षिण गोंयच्या लोकांनी आलेमांव घराब्याक भरभरून दिल्लें. दक्षिण गोंयचे चडशे आमदार आलेमांव घराब्यांतले आसले. पंच-सरपंच ह्याच घराब्यांतले आसले. हे सगळे आलेमांव घराब्यांतले कर्तृत्वी राजकारणी चर्चिल आलेमांव ह्या 'खडेगांठ' व्यक्तीचे आशिल्ले. कोण ताचे भाचे, कोण जावंय, कोण नातरां, कोण पणटुरां आशिल्लीं. एका ओल्तेरार बसून आपलें कर्तृत्व चर्चिल तृप्त जावन पळयतालो. आपलीं पणटुरां फाडफाड इंग्लीज उलयतात तें पळोवन मुमुरखोच हांसतालो. तांका वेंगांत घेवन 'हाऊ आय फॉट फॉर कोंकानी' हाची म्हायती मीठ-मिरसांग लावन इंग्लीशींत सांगतालो. ताचीय इंग्लीश, नांतरां-पणटुरां कडेन उलोवन आतां बरीच सुदारिल्ली. पूण पणटुरां जेन्ना ताका 'व्हाट इज धीज कोंकानी?' अशें विचारतकच तो घुसपतालो आनी चिंतूंक पडटालो. 'व्हॉट इज धीज कोंकानी?'

चर्चिलाची जशी गत तशीच उत्तर गोंयांत बाबुशाची. पणजे, सांताक्रूज, सांत-आंद्रे बी मतदारसंघ ताच्या कुटुंबाच्या अधिपत्त्या

खाला आशिल्ले. थंय विश्वजीत राणेन वाळपय, सत्तरी, दिवचल, म्हापशें, इतलेंच न्हय तर पेडणे मेरेन आपलें साम्राज्य उबें केल्लें. त्या पुराय प्रदेशाक बाबा राणेची वसाहत म्हूण वळखताले.

उरिल्ल्या गोंयच्या मतदार संघात ढवळीकार, मडकयकार, कामत बी ल्हान ल्हान मांडलिकांचीं साम्राज्यां आशिल्लीं. सगळ्यांकडेन भरपूर पयसो आशिल्लो. दिगंबर, सुदीन, पांडुरंग हे जाण्टेले भाटांत पासय मारून येवंचे तशे आपल्या मतदार संघांत केन्नाय पासय मारताले. आपल्या नातरांक दोन-चार शाणपणाच्यो गजाली सांगताले. तींय 'ओके ग्रॅन्ड पा, थँक्यू ग्रॅन्ड पा' म्हणत आयकून आयकूंक ना अशें करतालीं. तितल्यारूच हे जाण्टेले खूश जावन वताले. आपलीच फाट थापटावन घेताले.

व्हिजन २०३५चें हें एक चित्र आनी त्याच काळांतलें त्या मुखेल चित्राचोच एक वांटो कसो हें दुसरें एक चित्र.

२०३५ वर्सां एक विचित्र अश्या समाजाची घडण जाल्या.

२५ मे २०११ हे दिसा गोंय सरकारान इंग्लीश माध्यमांच्या शाळांक अनुदान दिवपाचो निर्णय घेतल्या बराबर जून २०११च्या शिक्षणीक वर्सा गोंयचे भोवतेक प्राथमिक शाळांतल्यान इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकोवंक आरंभ जाल्लो.

सरकारान खंयचोय ठराव वा निर्णय घेतलो म्हणटकच त्या निर्णयाची कार्यवाही जावंक निदान स म्हयन्याचो काळ सरचो पडटा अशें कायद्याचो आदार घेवन त्या काळचे विरोधी पक्ष फुडारी मनोहर पर्रीकार हाणीं सागिल्लें आनी त्या शिक्षणीक वर्सा माध्यम बदल करप शक्य ना अशें जरी मत उक्तायल्लें तरी असल्या मतांक खावपाचे मनस्थितींत त्या काळचे धंदेकार नाशिल्ले.

आमच्या चेच्चीलान उतर दिलां आनी करून घेतलां म्हणटकच तातूंत बदल आतां जावचोना. जालो जाल्यार चेच्चील शेरकार धोपक्याक उडयतलो असो भावार्त आशिल्ल्यानी फटाफट इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकोवंक प्रारंभ केल्लो. अनुदान मेळटलेंच, तें खंय वचना. चेच्चीलान उतर दिलां हें हाचे फाटलें रजांव आशिल्लें.

तशें पळोवंक गेल्यार पाद्रयांच्या शाळांनी इंग्लीश माध्यम त्याय आदीं घेतिल्लें आनी शिकोवंक सुरवातूय केल्ली. माध्यम जरी कोंकणी आशिल्लें आनी शिक्षकांक कोंकणी शिकोवप जमनाशिल्लें तरी येता तशें शिकयात अशें पाद्रयांनी सांगिल्लें. कित्याक तांचे नोकरेचो आनी पगाराचो प्रस्न आशिल्लो. विचारतलो पाचारतलो कोण नाशिल्ल्यान वयल्यान कोंकणी आनी भितरल्यान इंग्लीश अशें तें शिक्षण चलतालें.

ह्या शिक्षणाक लागून विद्यार्थ्यांक धड कोंकणी जमलीना आनी धड इंग्लीश. हाका लागून खूबशे भुरगे आठवे मेरेन आनी बाकीचे धावे मेरेन वचून ड्रॉपआवट जाले.

खरें म्हळ्यार शिक्षणांतले जाणकार आनी समाजशास्त्री कोंकणी वो देशी भाशेंतल्यान भुरग्यांचें शिक्षण कित्याक जाय म्हण सांगताले तर भुरग्यांमदीं भारतीय संस्कृताय बळावची म्हूण. तांची बुध्द तल्लख जावंची म्हूण! तांका पळयतकच हे भारतीय, हे गोंयकार हें सहजतायेन कोणे वळखूंक येवंचे म्हूण. ह्या लोकांक आपली अशी भूंय आसा म्हणपाची जाणविकाय उरची म्हूण!

गोंयचो क्रिस्तांव समाज देशी संस्कृतायेंतल्यान पुरायेन हुमटत वतालो. धर्म आनी संस्कृताय ह्यो वेगळ्यो गजाली हें तांका कळप गरजेचें आशिल्लें. महाराष्ट्र, कर्नाटक, केरळ, बंगाल आनी हेर राज्यांनी मोठ्या प्रमाणात क्रिस्तांव धर्मांतले लोक आसात. पूण ते पयलीं पळयल्या बराबर भारतीय दिसतात आनी मागीर खोलायेंत वतकच तांचो धर्म कळटा. तो केरळी म्हूण कळटा. बेळगांवचो क्रिस्तांव सांगले बगर क्रिस्तांव म्हूण वळखूंक येना. कित्याक तांचो धर्म वेगळो आनी संसकृताय वेगळी हें वळखूंक येता.

गोंयांत बाटाबाटी उप्रांत आनी चड करून इन्क्वीजिशना उप्रांत गोंयकार क्रिस्तांवाची पुराय संस्कृताय बदलून उडयली. ते भारतीय संस्कृताये पासून पयस वचत रावले. तांका परत लागीं हाडपाक एकूच कोंकणी भास, तीय देवनागरिंतल्यान शिक्षण दिल्यार शक्य आशिल्लें.

गोंयचे कांय क्रिस्तांव जाणीं मुळावें शिक्षण मराठी घेतिल्लें ताणीं ही संस्कृताय तिगयल्ली. तेच वांगडा तांकां हिन्दी, मराठी, कोंकणी, पुर्तुगेज, इंग्लेज ह्यो भासोय उत्तम येताल्यो आनी ताणीं आपापल्या मळार नांव काडिल्लें. देखीक इव्हाग्रियो जॉर्ज,लाक्तास आल्मेदा, डॉ. जुजे मार्टीन्स, फेलिसियो कार्दोज अशीं कितलीं नांवां घेवं येतात. आदले पोलिस अधिकारी ॲन्थोनी डिसोजा आतांचे पिळगेची डॉ. मिनाक्षी मार्टीन्स हांचे कडेन पळयत जाल्यार हाची सत्यताय येता. पूण हें अशें जाल्लें कांय राजकारण्यांक नाका आशिल्लें. तांका ह्या समाजामदीं फूट घालपाची आशिल्ली. हिन्दू आनी क्रिस्तांव हांचेमदीं चडांत चड दरय निर्माण करूंक जाय आशिल्ली आनी ताणीं तें २०११ हे वर्सा कायदेशीरपणान करून घेतलें.

ताचो परिणाम म्हूण आज २०३५ सालांत गोंयकारांचें गोंयांविशीं व्हिजन आशिल्लें ते डिवीजन म्हूण मुखार आयिल्लें. गोंयच्या क्रिस्तांव घराब्यांनी सगळेच इंग्लीश उलयताले. तांच्यांतूय वयलो आनी सकयलो वर्ग आशिल्लो. वयल्या वर्गांतले आपले आस्पतीक लागून समाजांत पत सांबाळून आशिल्ले. सकयल्या वर्गांतले थोडेंभोव शिकप घेवन पोर्तुगाल, पॅरीस, लंडन बी वचून थंय मेळत तें काम करताले. आनी आमचें गोंय आमकां जाय म्हणत गोंयां येताले. तांची कोंकणी केन्नाच वापरांतल्यान गेल्ली. घरांत इंग्लीश, भायर इंग्लीश अशी तांची गत जाल्ली.

संस्कृताये पासून हे पयस गेल्ले तशे गोंयचे हिंदूय गेल्ले. वयल्या वर्गांतले इंग्लीश उलयताले तशें सकयल्या वर्गाक जमूंक नाशिल्लें. अदूर्यार शिक्षण उडोवन ते गडगडो, मटको अश्या गजालींनीं व्यस्त आशिल्ले. वयल्या वर्गांतले हिंदू आनी क्रिस्तांव कॅसिनोत वताले. अशें जिणें हीच आपली संस्कृताय अशें तांकां दिसतालें. ताचें कारण म्हळयार जे इंग्लीश भाशेंतल्यान तांणीं शिक्षण घेतिल्लें तातूंत भारतीय संस्कार म्हणटात तें शिकूंक नाशिल्ले. ते शिकोवंक तांच्या घराकडेन संस्कृतायेची चाड आशिल्ले पालक नाशिल्ले. ते फकत जोडी फाटल्यान लागिल्ले. हें अशें जावपाक कित्याक पावलें तर त्या काळार जाणी जाणी आदर्श देशाचीं, आदर्श राज्याचीं सपनां पळयल्लीं आनी आपले विचार दवरिल्ले ते कोणें समजून घेवंक नाशिल्ले. जाणीं घेतिल्ले तांकां ते आचरणांत हाडप पिशेपणाचें दिसलें. आनी गोंयच्या मुखार आयलें भलतेंच व्हीजन! कित्याक लागून?

> **फकत आपलो बापूय गोंयकार म्हूण आपूण गोंयकार, इतलेंच ते लोक जाणांत आशिल्ले. तातूंत सगळें कर्तृत्व गाजोवन जाल्या उप्रांत तांका 'व्हिजन २०३५'च्या नांवान ए-ग्रेड गोंयकार जावपाची संद आपसूक चलत आयली. म्हणटकच ताणीं ती संद होगडावची कित्याक? भुंयेकडली सुटिल्ली वार कोण तरी जोडून दिता, तीय फुकटांत न्हय, भोवमानान. तातूंत ती घट्ट उरची म्हूण एकल्याक गोंय संस्कार पांच लाखांचो पुरस्कार दिता.**

## आदर्श राज्याचो फुडारी

आदर्श राज्य कशें आसचें हें जरी त्या राज्याच्या जनतेच्या हातांत आसा अशें आमी चिंतलें तरी खऱ्या अर्थान तें त्या जनतेच्या फुडाऱ्यांच्याच हातांत आसा. 'यथा प्रजा तथा राजा' ही म्हणणी कितलेशा काळा सावन चलत आसा आनी तें हे मुखार केन्ना बदलत हें सांगूंक येना. आयची देशाची अवतिकाय पळयत जाल्यार ती बदलपाची शक्यताय ना.

आमचे आयचे जे फुडारी आसात तांकां विनोबाजीन हे आर्दी 'गीताआई'त 'असूर' हें तांका फावता तशें नांव दिवन दवरलां.

ह्या असुरां मुखार खंय सत्त्या हातांत घेवप ही एकूच मोख आसता. कशेंय भाशेन ती घेवप, ते खातीर कितेंय करपाक मुखार सरप. अमकें करप समा न्हय, तमकें करप सोबना. असल्यो पचुट्टाणी तांकां नांत. तांकां त्यो समजय नांत. सत्त्याच जर हातांत घेवंक जाय, जाल्यार हो हट्ट कित्याक? खंयचेय वाटेन घेवची, कोणाकूय लागीं करचें, कोणाकडेनूय जुळोवन घेवचें, कोणाकूय पयस करचें, कोणाकूय फोडचे, सत्त्या हातांत येतकच जाली. सत्त्ये खातीर सत्यान चलूंक जाय, नितीन चलूंक जाय, चलणूक उजू आसूंक जाय, आचार निर्मळ आसूंक जाय, हे हट कित्याक? ते कोंता येनात, पुटवनात.

कित्याक लागून ते तशे चलतात? तर खंय संवसाराचो 'नियंतो' असो कोणूच ना, समाजांतूय आपणाक विचारपी पाचारपी कोण ना, हाची तांकां खातरी, मागीर, लोक कितें म्हणटले हाची पर्वा तांकां कित्याक आसतली? लोकांक मतांच नात. कितेंय सांग, तांकां पट्टा हो पंगड बरो म्हळो

जाल्यारूय पट्टा. तो बरो म्हळो जाल्यारूय पट्टा. वेंचणुकां वेळार जो तांकां सगळ्यांत चड खुबळावन घालता, तांकांच ते मतां दितात. वेंचणुकांक अजून कळाव आसा. येवंदी त्यो. मागीर पळोवया. ते मेरेन सत्या हातांत येवपा खातीर आनी आयिल्ली तिगोवन दवरपा खातीर जें किते करूं येता, तें करपाचें राजकर्ण सत्याक धरून चलोवंक जाय, नितीक धरून चलूंक जाय, उतराक पाळो दिवन चलोवंक जाय, हें सगळें सांगपाक बरें, बरोवपाक बरें, वेव्हारांत चलपाचें न्हय. वेव्हारांत फायद्याक पडटा तेंच करपाचें. समाजांतलो जण एकलो आपणाल्या सुवार्था खातीर धडपडटा. सुवार्थ सादता जाल्यार कोणाचोय आधार घेवपाक कसली आडखळ आसा? जे आधार दितात ते लेगीत आपणालो सुवार्थ पळोवनूच दितात मू? मागीर तो घेतलो जाल्यार खंय चुकता? एकटुक्यान सुवार्थ सादूंक येना. तो सादपाखातीर दुसऱ्यांचो आधार जायच पडटा. जाचो मेळटा ताचो आधार ते घेतात. हो सादो वेव्हार.

असल्या लोकांच्या हातांत सत्या गेली म्हणटकच समाजाचें जातलें कितें? ताची अवनत जातलीच. भोग भोगूंक मेळचे म्हूण सत्ता हातांत घेवपाची, सत्ता हातांत येवची म्हूण राजकर्णांत पडपाचें आनी फायद्याक पडटा त्या तत्वांक धरून राजकर्ण करपाचें हें जेन्ना थारता तेन्ना ते समाजाचे दुस्मान जाल्यार अजाप कसलें?

हे लोक भोग भोगूंक मेळचे म्हूण सत्ता हातांत घेतात. सत्तेक लागून तांकां पयसो करूंक मेळटा. सत्तेक लागून मान-भोवमान मेळटा. सत्तेक लागून तांच्या दारांत सदां लोक उबे रावतात. सत्तेर आसात म्हूण लोक तांकां सभा. संमेलनानी आपोवन व्हरतात. तांकां हारतुरे मेळटात. वर्तमानपत्रांनी तांचे फोटे छापून येतात. व्हडले व्हडले लोक तांची सायबा जात्रा करतात. साद्या फोनांनी कामां जातात. कोणाकडेन कितेंय मागल्यार मेळटा. हाका लागून आपूण व्हड, हेरांपरस वेगळो अशें तांकां दिसपाक लागता. तांगेलो अहंकार वाडटा. अहंकाराच्या आधाराक दंभ धावन येता. आनी मनीस मदांद जातात. आपणाक विचारपी कोण ना हाची खातरी पटटकूच ते कसलेय अन्याय करपाक अनमननात. कसलींच पातकां करपाक ते भियेनांत. मदांध हतयाक सोरो घालो जाल्यार कितें जातलें?तशे हे लोक उन्मत्त जातात. सत्तेचो तांकां कैफ चडटा.

बुराक पडिल्ल्या आयदनांत कितलेंय उदक हाडून रकय. उदकूच कित्याक, अमृत रकय, आयदन केन्ना भरना. तें सदां रिकामेंच उरता. तशें शें कितें हांचें जाता. मेळ्ळां तातूंत ते धादोशी उरनात. आनीक जाय, आनीक जाय - आनी इल्ली नामना, आनीक इल्लो दुडू, आनीक इल्ली सत्ता, अशे तरेचो एक व्हसव्हस तांकां लागता. आयुश्यभर हें वैभव भोगूंक मेळचें म्हूण ते वावुरतात.

इतलें जोडलें. अजूनय जायतें जोडपाचें उरलां. जे मेरेन आपणा परस अदीक धनवान, अदीक सत्तावान लोक संवसारांत आसात ते मेरेन आपणाक मेळ्ळां तें आपणाक पावना, सगळ्यांपरस चड आपणाकडेन आसूंक जाय, अशें तांकां जाता. सगळें तांचें जायसर ते विसव घेनात. स्वस्थ बसनात. जें जें कितें गरजेचें तें तें करूंक ते मुखार सरतात.

ह्या राज्यांत हांव सोडून दुसरो कोणूच वयर सरूंक जायना. सगळ्यांनी म्हाकाच आपणालो फुडारी मानूंक जाय. सगळें म्हाकाच भोगूंक मेळूंक जाय. म्हजेकडेन सर्त करपाचो कोणाक धीर जावंक जायना. सगळ्यांचेर म्हजो धेंक आसूंक जाय. म्हजे फाटल्यान जे आसतले तांकांच हांव मंत्रीपदां दितलों. कॉरपोरेशनाचीं चेअरमनपदां दितलों. कॉन्ट्रक्ट दितलों.

गोंयांत आयज जें कितें चल्लां तें सगळें पांच दसकां आदीं विनोबाजीन गीताईंत बरोवन दवरलां. ताणीं ती देशाची अवस्था सांगल्या जायत पूण ती ज्युस्त गोंयांतूय लागू जाता. मागीर ह्या असुरांकडल्यान गोंय राज्याच्या व्हिजन २०३५ची अपेक्षा तरी कशी बाळगुपाची?

गोंयचो हुसको बाळगून आनी इंग्लीश माध्यमाक केन्नाच गोंयांत रिगूंक दिवंक फावना असो विचार सातत्यान मांडपी आनी काँग्रेस पक्षान गोंयांक इंग्लीश माध्यमाक माध्यताय दिवपाच्या कांय म्हयन्यां आदीं हो संवसार सोडून अनंताचे वाटेक गेल्ले ज्ञानपिठकार रवीन्द्र केळेकार हाणीं ह्याच विशयाचेर खूब बरयलें. अश्याच एका लेखांत ते म्हणटात -

खंयच्याच स्वतंत्र देशाक भुरग्यांक खंयचे भाशेंतल्यान शिकोवचें आनी खंयचे भाशेंतल्यान आपणालो राजकारभार चलोवचो हो प्रस्न पडला व्हय? सगलेकडेन एकूच नेम चलत रावला; जे भाशेंतल्यान भुरगीं एकामेकांकडेन उलयतात, खेळटात, झगडटात तेच भाशेंतल्यान तांकां शिक्षण मेळत रावलां आनी तेच भाशेंतल्यान देशाचो राजकारभार चलला. पुर्तुगालांत पुर्तुगेज ही शिक्षणाची भास, तशी राजकारभाराचीय भास जाल्या. जपानांत जपानींतल्यान भुरग्यांक शिक्षण मेळ्ळां, तसो जपानींतल्यानूच

देशाचो राजकारभार चलला. अरब देशांनी अरबी भास शिक्षणाची भास जाल्या, राजकारभाराचीय जाल्या. एका परस अदीक भासो आशिल्ल्या देशांनी लेगीत भुरग्यांक तांचे तांचे आवयभाशेंतल्यान शिक्षण मेळत रावलां. कॅनॅडांत दोन भासो चलतात : इंग्लीश आनी फ्रेंच. थंय दोनूय भासो शिक्षणाच्यो तशो राजकारभाराच्यो भासो जाल्यात. स्वित्झर्लंड हो येवरोपांतलो एक सुपुल्लो देश. ह्या देशांत जर्मन, फ्रेंच, इटालियी आनी रेतो रोमान ह्यो चार भासो चलतात. चारूय भासो शिक्षणाच्यो तशो राजकारभाराच्यो भासो म्हूण ह्या देशान मान्य केल्यात.

संवसारांत खंयचीच भास दुसरे खंयचेय भाशेआड वचूंक ना, तशी खंयचेय भाशेच्या माथ्यार वचून बसूंक ना. खंयचेच भाशेन खंयचेय भाशेचो शिक्षणाची आनी राजकारभाराची भास जावपाचो हक न्हयकारूंक ना, तसो काडून घेवंक ना.

सोवियत रशियेंत सुमार साठ भासो चलताल्यो. बोल्शॅवीक क्रान्ती जाल्या त्या वेळार हांतल्या कांय भाशांनी बरोवपाचीय चाल नाशिल्ली. सगल्यो बोली-रुपांतूच चलत आशिल्ल्यो. लॅनिनान ह्या भाशांक लिपयो दिल्यो. ह्याच भाशांतल्यान त्या त्या वाठारांतलो थळावो राजकारभार चलयलो. सगल्या भाशांक वाडपाची सारकी मेकळीक करून दिली. सगल्यांक एकठांय दवरपा खातीर, सगल्यांक एकांमेकांकडेन जोडपा खातीर मॉस्कोच्या वाटारांतली रुसी भास 'संपर्क भास' म्हूण वेंचून काडली. सगल्यो भासो फुलत रावल्यो आनी सगल्यांक आपापणाले भाशे भायर आनीक एक रुसी भासूय येवपाक लागली. चीनानूय हीच देख घेतली. अठरां परस अदीक भासो ह्या देशांत चलतात. लिपी सगल्यांची एकूच जाल्ल्यान अठराय भासो एकिमेकिंच्या सांगातान वाडत आसात. त्या त्या वाटारांतल्या लोकांक ते ते भाशेंतल्यान शिक्षण मेळटा, तसो त्या त्या वाटारांत ते ते भाशेंतल्यान राजकारभार चलता. आनी सगल्यांक जोडपी पेचींगची चीनी सगल्यांक येता, सगलेकडेन चलता.

आमच्या शेजारच्या इण्डोनेशिया देशांत तर एक आगळो वेगळो प्रयोग केलो. ह्यावूय देशांत चार-पांच भासो चलयल्यो. इण्डोनेशिया स्वतंत्र जायनाफुडें देशाच्या कर्णधारांनी सगल्या भाशांक वाडपाची सारकी मेकळीक करून दिली. लोकांक शिक्षण ते ते भाशेंतल्यान दिवपाक सुरवात केली आनी ते ते भाशेंतल्यान तांचो राजकारभारूय सुरू केलो. आनी सगल्यांक एकठांय बांदून दवरपी मुखेल भास म्हूण देशांतली सगल्यांत ल्हान अशी एक भास वेंचून काडली.

भास हो लोकांचो प्राण. खंयचेय व्हड भाशेची पदवी फावता ती ल्हानांतले ल्हान भाशेक लेगीत फावो जावंक जाय ह्या तंत्रांक धरूनूच अख्खो संवसार चलत आयला.

मागीर, आमच्या देशांत भास हो कित्याक लागून 'प्रस्न' जावन पडला? भुरग्यांक खंयचे भाशेंतल्यान शिकोवंचें आनी खंयचे भाशेंतल्यान देशाचो राजकारभार चलोवंचो हो प्रस्न कित्याक लागून आयजूय-देश स्वतंत्र जावन अर्द शतक जालें तरूय-आमचे मुखार उबो आसा? जे भाशेंतल्यान कोणूच येवजिना, जी भास कोणाचेच जिबेर घोळना, जी शिकले बगर कोणाक उलोवंक बरोवंक येना, इतलेंच न्हय तर, जी शिकुनूय कोणाक सारकी येना, ते परकी इंग्रजी भाशेंतल्यानूच भुरग्यांक शिकोवंक जाय, तेच परकी भाशेंतल्यान देशाचो राजकारभार चलूंक जाय म्हणपाचो हट कित्याखातीर आमचो देश घेवन बसला? आमच्या देशांत आमच्यो अशो भासो नात व्हय? अठरा भासो तर घटनेचे आठवे वळेरेनूच आसपावन घेतल्यात. साहित्य अकादेमीन बावीस भासो - साहित्याचे नदरेन म्हणपाच्यो भासो म्हूण - मान्य करून घेतल्यात. सगल्यो भासो हजारांनी वर्सां जावन देशांत घोळत आयल्यात, चलत रावल्यात. फाटल्या एक हजार वर्सां पसून कन्नड भाशेंत साहित्यनिर्मिती जायत रावल्या. तमिळ कन्नड भाशे परसूय पोरणी-तें कित्याक, वेदीक भाशे परसूय पोरणी. तमिळ आनी कन्नड भाशेंत साहित्यनिर्मिती जावपाक लागिल्ली त्या वेळार इंग्रजी नांवाची भास संवसारांत जल्माक तरी आयिल्ली व्हय? मराठींतली 'ज्ञानेश्वरी' बाराव्या शतमानांतली. आयजूय मराठी लोक ती वाचतात आनी आपणालें जिवीत घडयतात. बाराव्या शतमानातलें खंयचें इंग्रजी पुस्तक आयज चलता जातलें? खंयचें लोक वाचतात जातले? कॅण्टरबरी टेल्स? इंग्रज लोकांचेर ह्या पुस्तकाचो कितलो सो प्रभाव पळोवंक मेळटा? मराठी लोकांचेर ज्ञानेश्वरीचो प्रभाव पडला ताच्या लाखाव्या वांट्याइतलो तरी पडला आसत न्हय? कन्नड, तमिळ, मराठी, गुजराती, हिन्दी, बंगाली - आमची खंयचीच भास खंयच्याच आंगान इंग्रजी परस ऊणी न्हय. अमको एक विचार आमकां आमचे भाशेंतल्यान सांगूंक येवंचो ना अशें म्हणपाचो धीर कोणाक जावंचो ना. गिरेस्तांतल्यो गिरेस्त ह्यो भासो.

एक खरें, विज्ञानाचीं पुस्तकां इंग्रजींत मेळटात तशीं आमचे खंयचेय देशी भाशेंत मेळनात. पुणून - एक सांगात - इंग्रजींत विज्ञानाचीं पुस्तकां केन्ना सावन मेळपाक लागलीं? दोनशें अडेजशें

वर्सां पयली तीं नाशिल्लीं. ह्या दोनशें वर्सांमदीं तीं आयल्यांत. आपणाले भाशेंत विज्ञानाचीं पुस्तकां आसूंक जाय अशें इंग्रजांक दिसलें, तीं हाडचीं अशें तांणी थारायलें म्हूण तीं येवंक पावलीं. आमीय असो नित्शय केलो जाल्यार आमचे भाशेंत तीं येवंक पावचीं नात व्हय? आमचे कडेन विज्ञानीक नात व्हय? व्हडले व्हडले आसात. विज्ञानाचीं जितलींय आंगां आसूं येतात तितल्याय आंगांचे तज्ञ आमच्या देशांत आसात. तांणी नित्शय केलो जाल्यार सगल्यो देशी भासो विज्ञानाच्या पुस्तकांनीय गिरेस्त जावं येतात. इंग्रजांकडल्यान आमी तांगेली भास घेतल्या तिचे बदला आमी तांगेली जिद्‌द घेतिल्ली जाल्यार देशी भासो ह्याय आंगान इंग्रजीकडेन सर्त करपाचे योग्यतायेच्यो जातल्यो आशिल्ल्यो. जपानी भास सर्त करपी जाली ना व्हय? कशी जाली? जपानाकडेनूय विज्ञान नाशिल्लें. येवरोप-अमेरिकेकडल्यानूच ताणें तें घेतलें. तेंवूय अनमन नासतना घेतलें. आपणाकडेन विज्ञानाची उतरावळ ना म्हूण तें घुटमळत रावलें ना: उतरावळ निर्माण जावपाची आसतली तेन्ना ती आपशीं जातली, ते मेरेन वाट पळेत बसप ना, अशें ताणें थारायलें आनी इंग्रजींत चलताली तेच उतरावळीचो आधार घेवन ताणें भुरग्यांक विज्ञान शिकयलें. ऑक्सिजन आनी हायड्रोजन मेळटकूच ओ-मिझू (उदक) जाता म्हूण सागलें, वॉटर जाता म्हूण सांगलें ना. आनी हे भाशेन ताणें विज्ञान समाजांतल्या सगल्या थरांमेरेन व्हरून पावयलें. आमच्यांनीय अशेंच करूंक जातालें. पुणून आमी विज्ञाना पयलीं विज्ञानाची उतरावळ तयार करपाक बसले आनी ती तयार करून दिवपाचें काम आमी विज्ञानिकां बदला शब्दकोशकारांच्या Lexicographers च्या हातांत दिलें. ताणीं उतरावळ तयार करून दिली, पुणून ती शिकयतल्यांकूय समजना, शिकतल्यांकूय समजना असले तरेची जावन पडली. ह्या द्राविडी प्राणायमा बदला, धरुंया, आमी विज्ञानिकांक शाळा कॉलेजांनी नोकरेर घेवंचे पयलीं 'तुमी तुमचे भाशेंत तुमच्या विशयाचेर एक पुस्तक बरोवन दिले बगर तुमची नोकरी पक्की जावंची ना' म्हूण सांगिल्लें, जाल्यार विज्ञानाची देशी उतरावळ जावंक जाय तेच तरेची येन्नासर तयार जावन मेळटली आशिल्ली. आनी भुरगींय विज्ञान शिकून मुखार सरतलीं आशिल्लीं. शिकयतल्याक विशय बरो येता आसत आनी भुरग्यांक तो सारको समजूंक जाय म्हणपाची तळमळ ताच्यांत आसत, जाल्यार उतरावळ आपशींच ताचे सेवेक येवन हाजीर जाता. आमी हे वाटेन मुखार सरले नात. उरफाटे, विज्ञाना खातीर इंग्रजी जाय अशें म्हणून इंग्रजींतल्यान विज्ञान शिकोवपा बदला विज्ञानाच्या माध्यमांतल्यान आमी भुरग्यांक इंग्रजी शिकोवपाक लागले. इंग्रजी कोणाक शिकोवची न्हय वा कोणेंच ती शिकची न्हय, अशें न्हय. संवसारांतली एक गिरेस्त भास ही. एक जनेल हें - जातुंतल्यान आमी संवसार पळेतात. पुणून एक जनेल हें. खंयचोच शाणो मनीस आपणाल्या घराक एक जनेल दवरिना. चार जनेलां दवरता. तेन्नाच धाय दिकांचीं वारीं ताच्या घरांत घोळूंक लागतात. इंग्रजी भशेन फ्रँच, जर्मन, स्पॅनिश, रशियन, अरबी, चीनी, जपानी, हिंवूय कांय जनेलां आमी आमच्या घराक काडूंक जाय आनी तीं उकतीं दवरूंक जाय. जाल्यारूच संवसाराचें धाय दिकांचें रूप आमकां पळोवंक मेळटलें. एकले इंग्रजीचेर रावन उपकारना. पुणून, त्यो त्यो भासो शिकप वेगळें आनी त्या त्या भाशांतल्यान शिकोवप वेगळें हो फरक आमकां कळूंक जाय. तो कळ्ळो ना म्हूण आमी इंग्रजींतल्यान भुरग्यांक शिकोवपाक लागले. मोट्यांतली मोटी चूक ही एक. पुणून-

ही चूक आमकां इंग्रजांकडल्यान दायजान मेळिल्ली.

इंग्रज ह्या देशांत वेपारा खातीर आयिल्ले. वेपार बरे भाशेन चलचो म्हूण ते हांगा राज्यूय करपाक लागले.

राज्य चलोवपाक तांकां प्रशासक जाय आशिल्ले. आनी राज्याची राखण करपाक सैनीक जाय आशिल्ले. ते खंयच्यान हाडटले? इंग्लंडांतल्यान? बारा हजार मैल पयसल्यान, सैनीक हाडप, 'अव्यापारेषु व्यापार' जातालो. म्हूण तांणी शिक्षणाच्या आधारान 'देशी इंग्रज' तयार करपाचें काम हातांत घेतलें. धोंगा-पोंगाचे भाशेंत सांगचें जाल्यार, आपणाले 'गुलाम' निर्माण करपाचें काम सुरू केलें. राजकारभाराची भास म्हूण इंग्रजी घेतली. न्यायदानाचें काम इंग्रजींतल्यान सुरू केलें. शिक्षण इंग्रजी माध्यमांतल्यान दिवप सभावीक करून उडयलें. परिणामीं, तांकां जाय आशिल्लें तशेंच घडून आयलें - इंग्रजी भास, इंग्रजी साहित्य, इंग्रजी आचार विचार, इंग्रजी देखी, इंग्रजी रुची (टेस्ट) आपणायल्ल्या 'देशी सायबां'ची एक नवी जात देशांत वयर सरली. थोड्याच वर्सां भितर हे लोक इंग्रजांकडेन एकरूप जाले. तांचेच भशेन उलोवपाक लागले, तांचेच भशेन न्हेसपाक लागले,

तांचे भशेन चलपाक-भोंवपाक लागले. हेरां परस आपणाक वेगळे-फकत वेगळे न्हय, तर व्हड-मानपाक लागले. 'आप जंयचें सगलें भश्टें, वंद्य परक्यांलेंच उश्टें' मानपी ह्या लोकांनीच इंग्रजांचें ह्या देशांतलें राज्य चलयलां आनी तिगोवन दवरलां. राष्ट्रवाद्यांक मारपाचें, बंदखणींत घालपाचें, गोळाक लावपाचें काम ह्याच लोकांनी केलां. हांचें मन नियाळून पळेलां तेन्ना हांकां आपले भाशेचो मोग ना, आपले संस्कृतायेचो आदर ना, देशाभिमान तर निखालूस ना म्हणपाचेंच दिसून आयलां. इंग्रजी ही येवरोपी विचारांकडेन - म्हणुंया, विज्ञानाकडेन - आमचो संबंद जुळोवन दिवपी भास ह्या देशांत केन्नाच जावंक पावलिना. आमच्या लोकांक इंग्रजांचे गुलाम करपी भास जावन पडली.

स्वराज्यांत हें सगलें बदलूंक जाय आशिल्लें. पुणून आमकां स्वराज्य मेळ्ळें तें सत्तांतराच्या रुपान मेळ्ळें. इंग्रज हांगासरल्यान आपणालो फकत बावटो आनी राष्ट्रगितूच घेवन गेले. सत्ता? जांच्या हातांत आशिल्ली तांच्याच हातांत दिवन गेले. राष्ट्रवादी भारतानूय प्रधानमंत्री म्हूण अशे तरेचो एक मनीस वेंचून काडलो कीं जो शेंप्रतिशत देशभक्त आशिल्लो, पुणून जो संस्कृतायेचे नदरेन इंग्रजी भास, इंग्रजी साहित्य, इंग्रजी देखी, इंग्रजी रुची हांचो एक निष्ठावंत भक्त आशिल्लो. ताका फकत इंग्रजूच हांगासरले गेल्ले जाय आशिल्ले. 'अंग्रेजियत' गेल्ली नाका आशिल्ली. ताणें 'आंतरराष्ट्रीयते'च्या नांवान हे 'अंग्रेजियती'कूच पोसवण दिवपाचें काम केलें. स्वराज्य मेळून आतां अर्द-शतक जायत आयलें, देश अजुनूय इंग्रजाळ्ळेल्या ह्या देशी सायबांकडेनूच उरला. हेच लोक आपल्या हातांत सत्ता उरची म्हूण इंग्रजी माध्यमाच्या शिक्षणाक आनी राजकारभाराक घट्ट दसून रावल्यात. हांच्या राज्यांत जो इंग्रजीचो पाखो घेता तोच 'प्रोग्रेसीव' आनी 'लिबरल' जाता. आपले भाशेक जो वयर काडूंक वावुरता तो 'पॅरोकियल' आनी 'शॉविनिस्टीक' थरता आनी जो इंग्रजी भाशेक राजकारभारांतली आनी शिक्षणांतली निखळावंक जाय म्हणटा ताका 'फॅनॅटिक' म्हूण पदवी मेळटा.

मेळूं. पुणून एक गजाल सगल्यांनी लक्षांत दवरिल्ली बरी - संवसारांतलो खंयचोच स्वतंत्र देश विदेशी भाशेंतल्यान आपणालें शिक्षण आनी प्रशासन चलयना. फकत आमी चलयत आयल्यात. कित्याक, गुलामींत आमची वाड जाल्ली, अजून गुलामिंतूच उरल्यात. गुलामीचो इतलो 'जाज्वल्य' अभिमान आशिल्लो देश संवसारांत दुसरो खंयच पळोवंक मेळपाचो ना. उद्येगीक विकासान देश घटमूट जायना. ताची घटमूटसाण सैन्यबळाचेरूय निंबून उरना. देशाची प्राणशक्ती, ताचें खरें वैभव ताचे प्राणशक्तीचेर पुरायपणान आधारून उरता. आनी प्राण-शक्ती लोकांचे भाशेंत आसता. जे भाशेंतल्यान भुरगीं एकामेकांकडेन उलयतात, खेळटात, झगडटात तेच भाशेंतल्यान त्या त्या वाटारांतल्या भुरग्यांक शिक्षण मेळूंक जाय. वेंचणुकां वेळार आमचे फुडारी जे भाशेंतल्यान लोकांकडेन मतां मागतात तेच भाशेंतल्यान त्या त्या वाटारांतलो राजकारभार चलूंक जाय. आनी-

देश भौभाशीक जाल्ल्यान सगल्यांक एकठांय हाडपी, एकठांय दवरपी, सगल्यांची सेवा करपी हिन्दी सारकेली एक देशी भास संपर्क भास - Link language - म्हूण वेंचून काडूंक जाय. साधु-संतांनी देशभर भोंवन हे भाशेक पयलींच संपर्क भास केल्ली. हालिंच्या काळार मुम्बय, कलकत्ता, मद्रास, बेंगळूरा सारकेल्या उद्येगीक शारांतल्या झोपडपट्यांनी रावतल्या तळागाळांतल्या लोकांनीय तीच आपणाली भास म्हूण चलयल्या.

भाशेच्या मळार हो बदल घडोवन हाडूंक आमी पावले ना जाल्यार बरोवन दवरिल्लें बरें-देश शें-प्रतिशत शिक्षीत केन्नाच जावंक पावपाचो ना, विज्ञान तळागाळामेरेन पावपाची निखालस आस्त ना. तें कित्याक, आमी देश स्वतंत्र दवरूंक पावतले म्हणपाचेंय खरेपण ना.

आपणाले भाशेची उवेखणी करून वयर सरिल्लो एक तरी देश संवसारांत आसा व्हय?

भाशेच्या मळार आमी जेन्ना 'पॅरोकियल', 'शॉविनिस्टिक', 'फॅनॅटिक' जातले तेन्नाच हो देश वयर सरतलो. तेन्नाच तो घटमूट जातलो आनी तेन्नाच तो आपणाल्या तेजान तळपूंक लागतलो.

कांय जाण 'पिशे' जाले बगर देश इंग्रजीचे गुलामींतल्यान मेकळो जावपाचो ना.

रवीन्द्र केळेकार आनी हेर जायत्या गोंयकार विचारवंतांनीं गोंय हें गोंयूंच उरचें देखून खूब गजाली सांगल्यो, बरयल्यो पूण आमकां त्यो समजल्यो नांत ताका कोण कितें करतले? आमकां व्हीजन आसा तें फक्त डिवीजनाचें!

■ ■ ■



– रमेश भगवंत वेलुस्कार
पाळें, शिरदोन – गोंय.
मो.: ९४२०६८८४६१

# म्हजें मन जशें चिंचेचें पान



*आतां पंडित एक व्हड नांवाजतो फोटोग्राफरूय आसा हें कळ्ळें. ते भायर महात्मा गांधीजीच्या वांगडा तांचो खास फोटोग्राफर आनी खास बातमीदार म्हणूनूय तांणीं काम केलां हें कळ्ळें. आनी ह्या गांवचो कोण तरी गांधीजीक खूब लागींचो आसलो हें मात म्हाका खूब मानवल्लें. हांवूय गांधीजीच्या बरोच लागीं आसा अशेंय म्हाका वेगीच दिसपाक लागलें.*

**(बिम्ब मे च्या अंका सावन)**

**म्हा**का पंडिताचीं पांचूय पुस्तकां (कविता संग्रह) फादर आल्वारू रेनातु मेंदीश हांणीं दिल्लीं. हांव सातवेंत शिकतालों. तीं पांच पुस्तकां घेवन हांव घरा आयलों. ते दीस म्हज्या दप्तराचो पेज वेगळोच आसलो. सर शांतारामान म्हाकां हीं पुस्तकां कितें चिंतून दिवपाक लायल्लीं काय? हांवें ते पयलीं काव्य खंय वाचलेलें? ना म्हटल्यार घरांत म्हजो बापूय वाचतालो ते काव्यग्रंथ हांवें आयकल्ले. जातूंत शिवलिला, जैमिनी, अश्वमेध, रामायण, महाभारत अशे ग्रंथ. सातवेचो विद्यार्थी कितें वाचता? चडांत चड वाचल्यार कांय काणयांचीं पुस्तकां. फेस्तां, जात्रांक हांवें खाणांक दिल्ल्या पयशां बदला पुस्तकां घेतल्यांत. वसंत पाटील मास्तराच्या तोंडांतल्यान एक कवी म्हण जांचें नांव आयकल्लें त्या पंडिताचीं सगळीं पुस्तकां आतां कांय दिसां खातीर म्हजे लागीं आसलीं आनी हीं पुस्तकां हांवें पयलीं घरा पावना फुडें दादाक दाखयलीं. दादा पंडिताक वळखतालो आनी एक गायक म्हण, वादक म्हण तो ताका मानतालोय. हांवें पुस्तकां उक्तीं केलीं.

हांवें पयलेंच जें पुस्तक उक्तें केलें तें आसलें 'म्हजें उतर गावड्याचें' हें. हें पुस्तक म्हाकां ह्या गांवांतलेशें दिसलें. म्हाका पुस्तक समजलें. पूण हातूंत काव्य कितें आसा तें म्हाकां कळूंक, सातवेंत शिकतल्या भुरग्याक मत तें कितें? ह्या पुस्तकांतलें म्हाका सगळ्यांत चड जर कितें अवडलें आसत जाल्यार तें भायलें चित्र. त्या चित्रांत सांजवेळचें रंगीत मळब, दर्या, दर्याक फुडो करून उबे रावल्ले काळमणत वचपी माड आनी सूर्य...... तोय काळोच. हो काळो सूर्य आवडूंक नासलो. सूर्य म्हण काळो आसता केन्ना, हो दूबाव! पूण पुस्तक वाचल्यार पुस्तकाचें चित्र उलोवपासारकी गजाल हेंय नकळपाचें तें वय. पूण मनांतल्या मनांत ही आवड तशीच उल्ल्या आयजूय. जेन्ना हें पुस्तक काडून वाचतां तेन्ना म्हाकां हेंच चित्र चड उलयता कशें दिसता. त्या चित्रांतले माड आयजूय दर्याच्या वाऱ्यान आपल्या चुडटांचीं पानां थरथरायत उबे आसा अशें म्हाका जाणवता. चित्रांची एक मजा आसता. चित्र जितलें आमकां दिसता तितलेंच तें अदृश्य स्वरूपांत आसलेंलेंय आमकां दिसूंक लागता. खरें म्हटल्यार दिसपी चित्रांत जेन्ना अदृश्य

चित्र दाखोवपाची शक्त निर्माण जाता तेन्नाच ताचें म्हत्व खूब वाडलेलें आसता. अशा चित्र निर्मितीची शक्यताय अणभवशील आनी प्रामाणीक तशेंच जांकां, आसा ताच्याय पलतडचें पळोवपाची शक्यताय आसता तांचेचकडल्यान जाता म्हटल्यार नवल न्हय.

हांवें हे पांचूय संग्रह कचकच करून वाचून उडयले. म्हाका हांतूंत व्हडलेंशें कांयच दिसलें ना. ना म्हटल्यार तांच्या कवितांतली जीण म्हज्याच गांवांत घडपी. म्हजे सामकी संवकळीची म्हणुं येता. ती म्हाका पंडित कितें नवें सांगता अशें दिसनासलें. शिवाय कवितांत कितें कितें सांगचें आसता तें सगळें समजुपाचें अवधान त्या वयांत म्हाका आसलेंशें दिसना. हांवें कांय दिसांनी हीं सगळीं पुस्तकां व्हरून शांताराम सराकडे दिलीं. आनी ताणें म्हाकां विचारलें; 'कशीं लागलीं हीं पुस्तकां?' हांवें तांकां सांगलें की ह्या पुस्तकांनी म्हाका म्हज्याच गांवांत घडटलें जिवीत पळोवपाक मेळ्ळें. हातूंत, आगर मानसो आसात. आगरी आसा, मीठ आसा, मिठकारांचें आनी आगरकारांचे नाच आसात, गितां आसात, शेतां आसात, भाटां आसात. पूण ह्या कवितांतल्यान कितें समजून घेंवचें आसता आनी कितें सांगचें आसता हें तरी म्हाका खंय खबर आसलें? पूण हीं पांचूय पुस्तकां हांवें वाचल्यांत हाचें एक बळ म्हजे मतींत तयार जाल्लें. 'सर, म्हाका हातूंत व्हडलेंशें कांय दिसना' अशें हांवें ताका सांगून उडयलें. 'पूण सर हांतल्यो कांय कविता हांवें आमच्या आकाक म्हटल्यार आत्याक वाचून दाखयल्यो.' 'खंयची वाचून दाखयली कविता?' 'दाखयतां' म्हण हांव ती कविता सोदूंक लागलों. तर कविता म्हाका पांच संग्रहांतल्या खंयच्या संग्रहांत आसली तें खबर नासलें. म्हाकां ती बरोच वेळ मेळना जाल्ल्या कारणान शांताराम सरान आसूं म्हण सांगलें.

मागीर एकदीस म्हाका फादरान विचारलें, 'रामेश, तांचो एक्सेंट पुर्तुगेज आसलो, पण्डितांली पोयेत्री(हाचोय एक्सेंट पुर्तुगेज, ह्या पोयेत्रीचो उच्चार पुयेतरी असो जातालो) हांवें तांकांय सांगलें, 'हांवें पांचूय संग्रहांतली एकान एक कविता वाचली. हांव हे कवितेन इंप्रेस जावंक ना, पूण म्हज्या आकाक मात ताच्यो एक दोन कविता बऱ्यो लागल्यो.' 'आतां म्हाका एक सांग आका म्हणल्यार कोण?' 'आका म्हणचें म्हजें आतें.' 'आतें म्हणचे?' ताणें म्हाका परतें विचारलें. 'आतें म्हणचें बापायची भयण.' 'आं....आं......आंटी...' कांय खीण म्हाका आंटी आनी आतें हीं दोनूय उतरां एकूच काय कितें अशें जाणवून गेलीं. उच्चारांत जरी मात्सो मात्सो फरक आसलो तरी तांचें मूळ एक शें जाणवतालें. पूण आकाक त्यो बऱ्यो लागल्यो म्हणजे कश्यो त्यो काय हांवें ताका विचारूंक नासलें. तशें विचारून तें जाणा जावन घेवंक जाय हें काय म्हाका तेन्ना उमजूंक नासलें. त्या उपरांत जेन्ना हांव कवितेच्या वाठारांत ती एक पुजा अशा भावार्थान रुजू जालों तेन्ना ह्यो गजाली याद जावपाक लागल्यो. ताका आवडलेली कविता. ताणें काय तशी ही कविता आपणाक आवडली अशें म्हणूंक नासलें. आयजकालच्या शारी उक्तेपणाचो आनी प्रदर्शनीय प्रकार थंय नासलो. हांवें ताका वाचून दाखयल्ली जी कविता ती आसलीं 'कुळाराची वाट'. सांगाता आनी एक दोन कविता आसल्यो. 'म्हजें मन जशें चिंचेचें पान'. 'झिंगचे झिंगय'. हांवें कविता वाचून दाखयल्यो. म्हाका त्यो वाचूंक आवडल्यो. पूण कविता म्हणून त्यो म्हाका व्हडल्यो आवडूंक नासल्यो. पूण आकान जाणें केन्नाच कांय वाचूंक नासलें. तें म्हणपाक लागलें बरें आसा मरे ह्या पंडिताचें बरप. ही ती कुळाराची वाट मात जागरांतली कशी दिसली. हांवें आमच्या पाळ्यां जागरांत हें गीत आयकल्लें. म्हाका पूण ह्या सयभोंवतणीं कितें चल्लां ताचें आयल्लें चित्रण म्हण त्यो कविता कितें व्हडल्यो आसा अशें दिसलें ना.



खरें पणीं म्हाका तेन्ना कविता वाचून समजता काय कितें होच प्रस्न आसलो. हांवें फादर मेंदिसाक म्हाका कितें दिसता तें सांगलें. ताणें शांताराम सराक सांगलें, 'शांताराम ह्या भुरग्यान हीं पांच पुस्तकां वाचलीं हेंच व्हडलें. हो म्हणटा आपल्याक ही कविता इंप्रेस करिना. पूण हाणें इतलीं बुकां वाचलीं हाचेंच म्हाका ओजाप दिसता. हाच्यांत पोयेत्री वाचपाचें पासियेंस आसा. हीच व्हडली खोबोर.' पादवीगारान म्हटलें तें कितें तें म्हाकाय त्या वेळार सारकें समजूंक नासलें. पूण पादवीगाराच्या मनांत म्हजे विशीं आतेंसांव तयार जाल्लें म्हाका जाणवतालें.

एक दीस सांजवेळा कोंकणी

व्याकरणाचेर एक उलोवप करपा खातीर एक मनीस येवंचो आसा. ताचें उलोवप आयकूंक यो म्हण म्हाका फादरान सांगलें आनी हांव थंय गेलोंय. व्हडले गोंयचे कांय लोक थंय आयल्ले. रामभाऊ आसलो. वामन पंडित आसलो. इगर्जेच्या एका क्लासरूमांत हें उलोवप जालें. आनी म्हाका त्या मनशाचें नांव कळ्ळें. सुरेश बोरकार अशें त्या तरनाट्याचें नांव आसलें. आनी तो व्याकरणाचेर बरो उलयतालो. शाळेंत जशे शाळामास्तर शिकयताले तशें तो उलयनासलो. पूण व्याकरण... वाक्यां..... हाचेर तो बरो उलयलो. पूण त्या काळार कोंकणी शिकप नासलें. कोंकणी शिकपा खातीर शाळा नासल्यो. आमच्या गांवांतले शाळेंत मराठी शिकतना हांवें मास्तराक विचारलेल्या प्रस्नाची याद म्हाका जाली सुरेश बोरकाराचें उलोवप आयकून. हांवें पळयलें की हांव सोडून स्कुलांतलो एक्क विद्यार्थी नासलो. थंय आसलेल्या एका पाद्रीक फादरान सांगलें की हांवें पंडिताचीं पांच पोयेत्री बुकां वाचल्यांत म्हण. पूण म्हाका एक गजाल कळनासली की म्हाका आवडूंक नासलेल्या पुस्तकां संबंधी हेरांक सांगून फादराक कसलो आनंद मेळटा काय? अशे विचार म्हजे तकलेंत येताले. स्कुलांतल्या आनीक खंयच्याच भुरग्यांक कित्याक आपोवंक ना काय? काय आपोवनूय ते आयले नांत? आनी म्हाकाच कित्याक आपयल्लो काय?

पंडिताच्या पुस्तकांच्या फाटल्या पानार पंडिताचो फोटो आनी ताची वळख आसली. ती मात म्हाका म्हज्या पाळ्या गांवांविशीं बरेंच कितें सांगून गेल्ली. पाळ्यांतलो हो मनीस दिवाळी अंकांचेर मराठींत कोंकणींतल्या धालांविशीं, जागराविशीं बरयता हें म्हाका ताचे लेख वाचून खबर आसलें. कारण हे लेख हांवें हे आदींच वाचलेले आमगेर आयल्ल्या कांय मराठी दिवाळी अंकांतल्यान. आतां पंडित एक व्हड नांवाजतो फोटोग्राफरूय आसा हें कळ्ळें. ते भायर महात्मा गांधीजीच्या वांगडा तांचो खास फोटोग्राफर आनी खास बातमीदार म्हणुनूय तांणीं काम केलां हें कळ्ळें. आनी ह्या गांवचो कोण तरी गांधीजीक खूब लागींचो आसलो हें मात म्हाका खूब मानवल्लें. हांवूय गांधीजीच्या बरोच लागीं आसा अशेंय म्हाका वोगीच दिसपाक लागलें. साने गुरूजींचें आंतरभारतीचें सपन खरें करपाखातीर तो 'भारती' हें नेमाळें चलयतालो हेंय कळ्ळें. हें सगळें मात पंडितां संबंधान म्हज्या मनांत आदराची भावना जागयताले. ते भायर ते स्वातंत्र्यसैनिकूय आसलेच आसले. गोंयच्या आनी भारतांतल्या सगळ्या स्वातंत्र्यसैनिकां बद्दल मनांत खूब आदर आसलो. तातूंत पंडितूय आसलोच आसलो. म्हजो गांव साहित्याच्या, समाजकार्याच्या आनी देशभक्तीच्या कामांत फाटीं ना, हो अभिमान दिसतालो. पूण हें इतलें सगळें तेन्ना फादराक हांवें सांगलें ना. आयज जेन्ना हांव ह्या सगळ्याचो विचार करतां तेन्ना एक भुरगो आपल्याक दिसता तें सगळेंच आपल्या शिक्षकांक वा घरच्यांकूय सांगताच अशें ना, अशें म्हाका दिसता. तो थोडेंशें सांगता आनी बरेंचशें आपले मतींतूच दवरता.

पूण हें इतलें सगळें घडपाक कारण म्हटल्यार म्हजी सर शांताराम घार्से आनी फादर आल्वारू रेनातु मेंदीश. आयज फादर मेंदीश ना. तो आसता जाल्यार आयज जो इंग्लीशी बाबतींत कोंकणी मनशाचो घोळ चल्ला तो करपाचें धाडस ह्या कोंकणी मनशांक जावंचें नासलें.

कोंकणी मनशान आपल्याच कोंकणी प्रदेशाचेर केन्नाच राज्य करूंक नासलें. तें जाणवलें आसत कांय लोकांक. पूण तें चड करून जाणवलें शणै गोंयबाबाक. आनीकूय कांय जाणांक तें दिसलां आसूं येता. पूण तें तांचें मत जशें शणै गोंयबाबाचें मत इल्लें इल्लें तांच्या बरपांतल्यान लोकांमुखार पावलें तशें तें न पावल्ल्या कारणान फाटीं पडलें आसूं येता. हे! कोंकणी मनशाच्या अधिसत्त्याचो अभाव शणै गोंयबाबाक जाणवलो आनी मागीर ह्या अभावाचोच प्रभाव जावन तो कोंकणी मनशाच्या अधिपत्त्याचो विचार कोंकणी लोकां खातीर तो मांडपाक लागलो. इल्लो इल्लो हाचो परिणाम जायत गेलो आनी हांतल्यान लोकांनीं पुर्तुगेजांचे राजवटीक निशेध परगटायलो. पयलीं हो विचार आसलो, पूण मनांत आसलो तो सटसट भायर येनासलो. मनांतल्या मनांत उरतालो. पूण मागीर तो विचार एकामेकां मदीं भायर येवपाक लागलो. तसो हो विचार संवसारभर चलतालो. जे जे धतरेचे वांटे परक्यांनी आपले सत्तेसकल घेतलेले तांकां त्या त्या वाठारांतल्या लोकांनी विरोध सुरू केल्लोच. ताचोच परिणाम गोंयचेर जातालो. हे खातीर गोंयच्या लोकांनी बंदखणी आपणायल्यो, कांय लोकांनी मरण पत्करलें तर कांय लोक भुमिगत जाले. कांय लोकांनी गोंया भायर वचून गोंयचे सुटकेचो वावर सुरू केलो. वांगडाच कोंकणी भाशेच्या सुटकेचोय वावर सुरू केलो आनी आपले कोंकणी भुंयेची भास म्हणुनूय तिका भौमान दिलो. आनी ह्याच मालवजाचेर गोंय एक राज्यूय जावंक पावलें. हें कोंकणीपणूच त्या अधिपत्त्याचें मुदल आसा हेंच आतां कोंकणी मनीस विसरूंक लागला. हो गोंयकारांक विसरपाचो अल्जायमर सारको मानसीक रोग बी जावंक लागला काय कितें, अशें दिसता. तो आपलें अधिपत्त्यूच विसरूंक लागला अशें दिसता. ना जाल्यार तो इंग्लेज इंग्लेज अशें केन्नाच करचो नासलो. आनी पाद्री आल्वारू रेनातु मेंदीश तांकां तें केन्नाच करूंक दिवंचो नासलो. हें सगळें हांवें ते दीस शांताराम सराक सांगलें तर तो म्हणपाक लागलो. 'हें मात तुजें सामकें खरें आं. पाद रेनातु हें केन्नाच जावंक दिंवचो नासलो.'

■ ■ ■

# राजभास प्रशासनात चडानचड वापरची म्हणून सरकाराचें सर्वपरी प्रयत्न

१. सरकारी कर्मचाऱ्यांक राजभाशेंतल्यान पत्रव्यवहार करपाक प्रशिक्षण दिवपाची कार्यावळ.

२. राज्यपांवड्यावयले कायदे राजभाशेंतल्यान प्रकाशीत करपाची येवजण.

३. राजभाशेची अंमलबजावणी जावपाखातीर सर्वसमावेशक तज्ञ प्रतिनिधीचें सल्लागार मंडळ स्थापन.

४. कोंकणी साहित्याक आनी संस्कृतीक उर्बा दिवपा खातीर गोवा कोंकणी अकादेमीक अनुदान दिता.

५. मराठी साहित्याक आनी संस्कृतीक प्रोत्साहन दिवपाखातीर गोमंतक मराठी अकादमीक अनुदान दिता.

६. भाशीक उदरगती खातीर दालगादो कोंकणी अकादमीक मदत दिता.

**भाशीक उदरगती खातीर आनी कसलेय मदतीखातीर वयल्या अकादमीकडेन संपर्क करात**




**प्रस्तूत करपी :**
**राजभाशा संचालनालय,**
**गोंय सरकार,**
**५ वो माळो, १ली लिफ्ट, जुंता हाऊस,**
**पणजी - गोंय**

# सतीचे वाण






"गोंय मुक्ती संग्रामांत जो ल्हानसो वांटो घेवपाचें भाग्य म्हाका फाव जालें, जो अणभव म्हाका आयलो ताका लिखित रूप दिवप इतिहासाचे नदरेन गरजेचें आशिल्लें. हांवें विशेश त्याग करूंक नाशिल्लो, पूण हेरांनी तो निश्चितपणान केल्लो आनी तांचेकडेन म्हजो लागशिल्लो संबंद आयिल्लो. तांचीं नांवां तांच्या आंगावेल्या लक्तरांक लागून खबरापत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन हांवें गोंयांत प्रवेश केल्ल्या खिणासावन, १९४९ सावन, म्हाका घडिल्लें. तांची नोंद खंयतरी जावप गरजेची आशिल्ली. तें कृतज्ञतायेचें द्योतक आशिल्लें. गोंय मुक्तीसंग्राम ज्या वसाहतवादी झुजाचो एक वांटो आशिल्लो त्या झुजाचे आनीक कांय पैलू पळोवपाची जी संद म्हाका पुर्तुगालाक मेळ्ळी तीय कथन करप गरजेचें आशिल्लें. पुर्तुगेज जनता आनी साम्राज्यवादी पुर्तुगेज सरकार हीं एकरूप नांत, भिन्न आसात, परस्परविरूध्द आसात. तांच्यात संघर्श चालू आसा. ह्या संघर्शाचो जो थोडोभोव परिचय म्हाका थंय जालो तो हेरांक करून दिवप म्हाका गरजेचें दिसलें. गोंय मुक्ती उप्रांत कैद्यांचे अदलाबदली विशींच्या निर्लज्ज इतिहासाची पुनरावृत्ती जावन आनीक कोणा भारतीयांचेर फुडाराक 'आपलो देश मुक्त जाल्लो आसतनाय' विजनवास काडपाची पाळी येवं नये हे पासत त्या इतिहासाविशीं हांवें बरोवप गरजेचें आशिल्लें."

**- मोहन रानडे**

साडेतेरा वर्सांची पुर्तुगालच्या कशीयस बंदखणीत ख्यास्त भोगून क्रांतिवीर मोहन रानडे गोंयांत आयले तेन्ना हांव अकरा वर्सांचो. तेन्ना रानडे आमगेर येताले. ते भाईचे (नंदा) मित्र. आमच्या घरांतले शेणान सारयिल्ले जमनीर पाट दवरून त्या पाटार आरारमांडी घालून बसून, पेत्रोलाच्या दिव्याच्या उजवाडांत वाचन करताले. तांचे मुखार बसून हांवूय कितें तरी वाचतालों. ताणीं म्हाका खूब मजाली सांगच्यो. वेगवेगळ्या चळवळींत वांटेकार जावपाची मागीर जी खुमखुमी आयली ताचें फाटलें कारण हेंच आसूं येता.

आयज गोंय मुक्तीच्या भांगरा उत्सवी वर्सा हांव तांचें 'सतीचे वाण' अणकारीत करूंक बसतां तेन्ना म्हाका मोहनकाका म्हजेमुखार आरारमांडी घालून बसला आनी म्हजेकडेन उलयता असो भास जाता.

**- दिलीप बोरकार**

### ८. अस्नोडे ते हळदोणें

**अ**स्नोड्याची पोलिसचौकी म्हापशें-दिवचले ह्या हमरस्त्यार आशिल्ली. त्या रस्त्यावेल्यान चलून वतना हांवें जायतेदा ती पळयल्ली. चौकेंतल्यो बंदुको भायल्यान लेगीत सामक्यो स्पश्ट दिसताल्यो आनी हात सामके शिवशिवताले. त्यो जणकाय हातांतूच आसात असो भास जातालो. चौकीचेर दोग पोलीस आशिल्ले. चौकी उगडी आसल्यार बरीच जाल्ली, पूण ती बंद आसल्यारूय कांयच प्रस्न नाशिल्लो. एक शिपाय गस्तेक गांवांतल्यान भोंवतालो. ताका धरून चौकेर व्हरूं येतालें आनी भितरल्या शिपायांक चौकी उगडपाक लावं येताली. बाणस्तारीच्या हल्ल्यांत हीच पद्धत आपणायल्ली.

तेच दिसा म्हळ्यार ता. ४ वो ५ फेब्रुवारी ५५ त, सांजेचो मातसो काळोख जातकच अस्नोड्या आमी पावले. चौकीचे फाटलेवटेनच्या वाड्यार बाळा मापारी रावतालो. ताचे खोंपी सारक्या घरांत रावले. बाळा मापारी, गोपी बी सगळे शेतकार मंडळी शेतांत मजुरी करपी अशेच आशिल्ले. बाळा मापारी आनी गोपलो अस्नोडचे आशिल्ल्यान तांकां पोलीस वो हेर कोण वळखत बी म्हूण तांची इत्सा आसल्यारूय आमचे वांगडा येवंक दिवंक

नाशिल्लें. चौकीचें दार बंद आसून एक पोलीस गस्तीक भायर गेल्ल्याचें समजल्ल्यान फक्त हांव आनी अनंत थळी अशे दोगूच बाजारा दिकेन वयर गेले. वसती सोंपतकच रस्त्याचे कुशीक दबो धरून बसले. फकत धा पंदरा मिणटांच आमकां थंय थांबचें पडलें पूण केन्ना येता हो रखवालदार अशी सारकी प्रतिक्षा करीत काळखांत बसचें पडिल्ल्यान हीं पंदरां मिनटां प्रदीर्घ काळा सारकीं भासलीं. तो आतां येना अशें दिसून आमी उठपाच्या विचारांत आशिल्ले. इतल्यांत ताच्या बुटांचो आवाज आमकां आयकूंक आयलो. आमचे कडचीं पिस्तोलां हातांत धरून आमी केन्ना सावन सज्ज आशिल्ले. तो आमचे मुखावेल्यान वता थंय आसा आमी उठले आनी ताचे दिकेन गेले. "कोण तुमी?" असो प्रस्न ताणें केला मात, जाप म्हूण अनंत थळीन ताच्या सोणकुटाचेर एक सणसणीत फुलयलें. तो पिस्तोल बी काडीत म्हण, चडशें पिस्तोल कंबराक जंय हुमकळायतात थंय पट्याक हांवें हात घालो. ताच्या आंगावेलो ओव्हरकोट केन्नाच सकयल पडिल्लो. आमचे हे चपळायेन आनी सोणार पडिल्ल्या थापटान तो सामको गर्भगळीत जाल्लो. "म्हाका तुमी मारूं नाकात, हांव तुमच्या पांयां पडटां आनी तुमी सांगता थंय येतां." अशें परतून परतून म्हणूंक लागलो. ताचेकडेन एखाद्रें पिस्तोल बिस्तोल आसत आनी तें आमकां मेळटलें हे कल्पनेंत आमी आशिल्ले. पूण पिस्तोलाऐवजी चक्क ३०३ची एक बऱ्यापैकी बंदूक ताचेकडेन आशिल्ली आनी ती आमी बेगोबेग ओडून घेतली. दोनूय शस्त्रां हांवें हातांत घेतलीं आनी ताका चड उलोवंक दिनासताना मोन्यांनी चौकीकडेन चल अशें सांगलें. तशें सांगचे आदीं ताचे हात फाटल्यान बांदूंक आमी विसरूंक नाशिल्ले. आशी कुशीचीं एक दोन दुकानां ह्या बोवाळांत उगडलीं, पूण आमी तांकां भिवूं नाकात अशें सांगतकच तीं बंद जालीं आनी मागीर आमी मुखार गेले.

चौकीकडेन पावतकच सरळ मुखावेल्यान वचपा बदला फाटलेवटेन वचपाचें आमी थारायलें. वाटेर एक खाकी कपडे घाल्लो मनीस आमकां दिसलो तेन्ना "कोण तूं?" अशें ताका हटकिलो. ताच्या खाकी कपडच्यां वेल्यान होवूय ते चौकीवेलोच कोणतरी आसुये अशें आमकां दिसलें आनी ताकाय आमी आमचे वांगडाच त्या पोलिसा सांगाताक चौकेर व्हेलो. चौकेसामकार पावतांच भितरल्या पोलिसांक उलो मारून दार उक्तें करूंक फर्मायलें. ताणें उलो मारतांच खिणाभितर चौकीचो दरवाजो उक्तो जालो आनी मुखार आमकां दत्त म्हूण पळयल्या बराबर त्या पोलिसान भंयान किंळांचूच मारली. आपले मुखार बंदूक जोखिल्ली ताणें जिवितांत पयले खेप पळयल्ली जावंये! आमच्या मदल्या एकल्यान ताका वणटीकडेन तोंड करून उबो रावपाक सांगलें आनी हेरांनी चौकींतल्या हत्यारांची झडटी घेवपाक आरंभ केलो. बंदुको दवरपाची सुवात खबर आशिल्ल्यान आमी ती सट्ट करून उखल्ली. पिस्तोलां आनी काडतुसां खंय आसात ताची म्हायती पोलिसांनी दिली. पांच मिनटांत हें सगळें जमा करपाचें काम जालें. बेगोबेग चौकींतल्यान भायर आयले. ते दोन पोलीस आनी तिसरो खाकी गणभेस घाल्ल्यांक ते चौकेंत कोंडून घाले आनी आमी सगळे जाण पसार जाले. थारिल्ले सुवातेर बाळा मापारी उबो आशिल्लोच. ताचे वांगडाच रातोरात शिवोले पावले. दुसरे दिसा म्हापशां म्हाबळू नायकागेर हांव गेलों. अस्नोडच्या यशस्वी हल्ल्याची बातमी आयकून म्हाबळू नायक खोसयेन नाचूंक लागलो. संपूर्ण अशें मेळिल्लें हें पयलें जैत आशिल्लें. दोन बंदुको आनी दोन पिस्तोलां मेळोवन, पुर्तुगेज सत्तेचे एके पोलिसचौकेक तालें मारून आमी आयिल्ले. अस्नोड्या हल्ल्याची जाल्ली प्रतिक्रिया जाणा जावन घेवपा पासत दोगूय गेले. बाणस्तारची पुनरावृत्ती थंय चलताली. अतिशयोक्त वर्णनाक ओतो आयिल्लो. ज्या पोलिसांची फजेत जाल्ली ते आपली कातडी वाचोवपाखातीर विपर्यस्त आकडे दिताले. २५ लोक एकदम आंगार आयिल्ल्याची भास थंय चलताली. अस्नोडच्या दर दुकानांतल्यान ह्याच विशयार उलोवप आयकूंक येतालें. पोलीस आयकनात हाची खात्री करून आमचें कवतूक थंय चलतालें. तातुंतय अतिशयोक्त वर्णना आशिल्लींच. आमी चिलखतां वापरतात देखून आमकां बंदुकेच्यो गुळयो लागनात इतले मेरेन थंय मल्लीनाथी चलताली.

त्या उपरांत एक दीस हांव पणजेवटेन दोंगरेर वचून आयलों. म्हाका तशें हांगा कोण वळखनाशिल्ले आनी दिसाचे आमी भोंवनाशिल्ले. दोंगरेवेलो (मोवळेंचो) चंद्रकांत हो हेरां प्रमाण एक निशठावंत वावुरपी. ताचो वेवसायूय सादे मजुरीचो. ताचे वांगडा कालापूर आयलों आनी ताणें म्हजी शिवराम साळगांवकार आनी लक्ष्मण हड्‌कोणकार हांचे कडेन वळख करून दिली. ते दोगूय ड्रायव्हर आशिल्ले. तांचो उपेग फुडल्या कामाक बरोच जावपाचो आशिल्लो. कालापूर पणजेसावन फकत पांच किलोमीटर अंतराचेर आशिल्ल्यान थंय आलाशिऱ्या खातीर आनी हेर कामाखातीर एक ठिकाण आसप अत्यंत गरजेचें आशिल्लें. ह्याच गांवांत शिवरामच्या घरालागीं गोपाळ मडवळ नांवाचो एक गृहस्थ रावतालो. वेवसायान तो मडवळ आशिल्लो आनी थंयच्या वजनदार मनशांमदीं ताचो आसपाव जातालो. तांचीय वळख जाली आनी फुडाराक तांचो आमकां चळवळींत खूब उपेग जालो. कालापुरा एक पोलिसचौकी आशिल्ली. तिचेविशीं अदीक म्हायती काडपाखातीर शिवरामाक सांगलें आनी हांव म्हापशां परतलों. शिवोलच्या लोकांनी अस्नोडचा धरपकड जाल्ल्याची बातमी धाडिल्ली. आमच्या मदल्या मात कोणाक एकल्याक धरूंक नाशिल्लो. पूण जर

कोणाकूय धरलोच आनी शिवोलच्या आमच्या ठाण्याचो पत्तो लागलो तर शस्त्रां सुरक्षीत उरपा पासत म्हापशां म्हाबळूच्या घरा तीं हाडून दवरचीं अशें थारलें. म्हाबळू नायकाच्या घरालागीं एक रिकामें घर आशिल्लें, आनी ह्या घराचो उपेग आलाशिरो घेवपापासत तशेंच शस्त्रां बी दवरपापासत आमी करताले. म्हाबळू नायकाच्या घरा फाटले वटेनच्यान ह्या घरांत वचूं येतालें. भायल्यान घराक तालें आशिल्ल्यान कोणाक कसलोच दुबाव, सामको हयन्हयशी कल्पनाय भायल्यान येना आशिल्ली. ह्या घरा फाटलेवटेन दोंगर आशिल्ल्यान शिवोलच्यान कोणाकूय दिसनासतना ह्या घरा आमकां येवं येतालें. आमकां सोदपाखातीर सरहद्दीकडेन पोलिसांचे जथेच्या जथे जेन्ना म्हापशेचे वेशी लागसार आशिल्ल्या ह्या घरालागसारच्यान वताले तें पळोवन आमकां हांसूंक येतालें.



अस्नोडचो हल्लो जाल्या उपरांत तीनचार दिसांनी पोलिसांनी दुबावान सुरू केल्ले धरपकडींत बाळा मापारीचेर हात पडलो. ताका बेदम मारबडय जाली. शिवोलेचो माग लागलो. ताका घेवन पोलीस शिवोले गेले. थंयीय ताका जायत्या जाणां सामकार भयंकर मारबडय केली. येशी, लाडू आदींच्या नांवांचो पत्तो पोलिसांक लागलो. पूण ते घरा मात सांपडले नांत. ताका लागून पोलिसांच्या रागाचो पारो आनीकूय वयर चडलो. बाळा मापारीक आनीकूय बडयलो. ह्या मारानूच पणजेच्या रुग्णालयांत बेशुद्धावस्थेंत तो १५ काय १६ फेब्रुवारीक मरण पावलो. सशस्त्र आंदोलनाची स्वतंत्रतायेचे वेदीर दिल्ली ही पयली आहुती.

बाणस्तारचे चौकीवेल्या हल्ल्या उपरांत पोलीस पारो चडूच कडक जालो. चौक्या भायर चोवीसूय वरां एक बंदूकधारी पोलीस पारो करूंक लागलो. सावय आनी शिवोलेच्या दोंगरांनी आमकां आलाशिरो दिल्लो. जायते जाणांची धरपकड जाल्ल्याची खबर येताली. पूण वावुरप्यांच्या मनांत भंय रिगूंक नाशिल्लो. भगवंत ह्या नांवाचो एक कामसू वावुरपी कादयेंत पडिल्लो. सगळ्यांक वायट दिशिल्लें, पूण कोणाचें धैर्य खचूंक नाशिल्लें. एप्रिल ५५च्या निमण्या सप्तकांत रावण चौकेवेल्या हल्ल्यांत हांव वांटेकार जाल्लों. श्री. प्रभाकर सिनारी ह्या हल्ल्यांत आशिल्ले. सगळे रथी-महारथी आनी बंदुको आसतनाय हो हल्लो यशस्वी जावंक पावलो ना. अचूक येवजण आनी शिस्त हे विशीं दाखयल्ली बेपर्वायूच ह्या अपेसाक जापसालदार आशिल्ली. चौकेंतल्यान फकत एका शिपायान एके बंदुकेचे बळार आमकां ती चौकी काबीज करूंक दिली ना. देड-दोन वरां चकमक जाली आनी अखेर आमकां परतुवचें पडलें.

सावय, शिवोले, कालापूर आनी दोंगरी हे सुवातेर त्या उपरांतचे दोन म्हयने हांव रावतालों. नवे कार्यकर्ते मेळटाले. अदीक शस्त्रांची गरज आशिल्ली. तीं मेळोवपा खातीर एप्रिल अखेर वो मे च्या आरंभाक हांव गोंयच्यान भायर सरलों. भारतीय शीम हुपतना सुखा आनी अनंत थळी हांचो अणभव वायट आशिल्लो. भारतीय पोलिसांनी ह्या दोन गोंयकार सुटके झुजाऱ्यांक धरिल्ले. शस्त्र लागीं बाळगिल्ल्या पासत कोर्टांत व्हेल्ले. ते पासत म्हजें पिस्तोल भारतांत घेवन न वचपाचो निर्णय हांवें घेतिल्लो. पूण शिमे मेरेन संरक्षणा पासत ताची गरज आशिल्ली. प्लास्टिकचे पोतयेंत पिस्तोल घालून तें गोंयचे हद्दींत पुरून दवरचें आनी उपरांत भारतीय हद्दींत प्रवेश करपाचो अशी पद्धत आमी सुरू केल्ली. ते प्रमाण हे खेपेय शिमेलागीं पावतांच पिस्तोल पुरपाखातीर प्लास्टिकांत हांव तें रेवडावंक लागलों. इतल्यांत कोण तरी धांवत येता म्हणपाचो आवाज म्हज्या कानार पडलो. आजुनय हांव गोंय शिमे भितर आशिल्लों तेन्ना पुर्तुगेज पोलीसूच आयले आसतले अशें गृहीत धरुनच हांव सट्ट करून पिस्तोल जोखून उबो रावलों. 'हात-वयर करा' अशीं उतरां गुळयांवरी म्हज्या तोंडांतल्यान भायर सुटलीं आनी म्हज्या मुखार दोग तगडे जवान थंयचे थंयच उबे रावले. तांचे हात सामके यंत्रावरी वयर गेल्ले. गाळेली लागचे चौकेलागींचो

अणभव हांव परतून घेतालों. पूण ह्या दोगांयच्याय आंगार खंयचोच गणभेस नाशिल्लो. खाकी अर्दी पॅन्ट आनी बानयान इतलेच कपडे तांच्या आंगार आशिल्ले आनी वयर केल्ल्या हातांत एक जाडजूड दांडोय आशिल्लो. आजुनय आमी गोंयचे हद्दीतूच उबे आशिल्ले. पूण तांचो एकंदर अवतार पळोवन ते भारतीय आशिल्ल्याचो दुबाव म्हाका आयलो. 'तुमी कोण?' अशें हांवें दरडावन विचारतकच 'भारतीय पोलीस' अशी जाप मेळ्ळी. दोगूय मुंबय राज्याच्या राखीव पोलीस दळांतले आशिल्ले आनी गोंय हद्दींत भितर सरून ताणीं म्हाका आडावपाचो प्रयत्न केल्लो. 'भारतीय' हें उतर तांच्या तोंडांतल्यान आयकताच 'हे आपले' अशी भावना 'दुर्देवान' म्हज्या मनांत उपरासली आनी तांकां 'तुमी वचात' अशें सांगपा बदला पिस्तोल सकयल करून 'माफ करा, म्हाका दिसलें तुमी पुर्तुगेज पोलीस काय म्हण' अशें उलोवपाची दुर्बुद्धी सुचली. तांच्या डावपेचा प्रमाण ताणींय एकदम जवळीक दाखयली. 'आमी सगळे भारतीय एक' अशे भावनेन उलयत उलयत शीम हुपली. स्वतंत्र भारताचे भुंयेर हांवें पावल दवरलें मात, त्या पोलिसांचो नूर एकदम बदल्लो. ताणीं म्हाका खिणां भितर कैदी केलो. हाताक बेडयो घाल्यो, आपल्या हवालदारांक आपोवन हाडले. अनंत थळी आनी सुखाचें जें जालें, ताचोच अणभव हांव घेतालों. भारतीय हद्दींत बेकायदा शस्त्रां घेवन हांवें प्रवेश केल्लो असो फटीचो पंचनामो थंय केलो आनी मागीर म्हजी धींड भायर सरली ती देड दोन मैल अंतराचेर आशिल्ल्या आंईच्या पोलिसचौके मेरेन. कांय वेळा आदीं भिवकुऱ्यां प्रमाण हात वयर करपी ते भारतीय पोलीस शीम संरक्षणाचेर आतां उद्दामपणान म्हाका व्याख्यान आयकयताले. 'आमचे शीमेर सशस्त्र लोक भोवपाक लागले तर शिमेक धोको उपरासतलो, आनी तो आमी सोंसूंक शकपाचे नांत' अशें व्हड मिजाशीन ते 'शूर' शिपाय म्हाका सांगताले. आमचे शिमेवेल्यान मशिनगनधारी पुर्तुगेज सैनिक दिमाखान भोंवले तरी तांचेपासून देशाक भिरांत नाशिल्ली. पूण एक व्हडा कश्टान मेळयल्लें पिस्तोल घेवन गोंय मुक्ती पासत धडपडपी म्हज्या सारक्या सामान्य व्यक्तीकडल्यान मात ते भारतीय भुंयेक खंय धोको आशिल्लो! गोंय शिमेलागसारचे भारतीय भुंयेर आशिल्ल्या सत्याग्रहींक पुर्तुगेज पोलिसांनी मार बडय केली जाल्यार तांचे राखणे पासत एक पावल लेगीत मुखार घालीनाशिल्ले हे भारतीय पोलीस गोंय हद्दींत म्हाका धरपाखातीर येताले आनी फटीचो पंचनामो करून म्हजो अवमान करताले. गोंयच्या मुक्ती संग्रामांत भारत सरकाराचें आनी शासनाचें हें निर्लज्ज वर्तन प्रत्येकान अणभवल्लें. ताचो अणभव हांवूंय आज घेतालों. दुसरे दिसा बांदेच्या मुखेल पोलीस ठाण्यार म्हाका व्हेलो. आझाद गोमंतक दलाचे वजऱ्याचे कार्यकर्ते श्री. आत्माराम मयेकार थंय हाजीर जाल्ले आनी ते खातीर म्हज्या हाताक बेडयो तितल्यो घालूंक नाशिल्ल्यो. श्री. मयेकार जामीन राविल्ल्यान म्हजी सुटका जाली. आठ धा दिसांनी म्हाका मुंबयचें आपोवणें आयलें. मुंबय राज्याचे डी.आय.जी.श्री. नगरवाला हांचे कचेरेंत हाजीर रावपाचो तातूंत आदेश आशिल्लो. थंय एका अधिकाऱ्यान जायते प्रस्न विचारले. म्हजी भुमिका हांवें खंबीरपणान मांडली.

हेच वेळार पणजेच्या दोनापावल पोलिसठाण्यावेलो एक शिपाय आपली नोकरी सोडून गोंय मुक्ती खातीर आझाद गोमंतक दलांत सामील जाल्लो, तो आपलें पिस्तोल घेवन आयलो आनी वजरीक दाखल जालो. पूण भारतीय पोलिसांनी ताचेरूय खटलो घालो. सुर्वेक सावंतवाडीच्या कोर्टांत ताका उबो केलो, उपरांत पोलिसांच्या पाऱ्यांत मुंबयचे कचेरेंत ताची जबानी घेतली आनी मागीर मुखार ताका सावंतवाडीच्या कोर्टांत परतून व्हेलो. श्री. आत्माराग मयेकार थंय वेळार पावले, आनी ताची ताणीं जामिनाचेर सुटका केली. ताच्या कपलांतलो 'भारतीय' तुरूंगवास शेवटाक अशे तरेन चुकलो.

म्हजेरूय तीच पाळी येवपाची आशिल्ली. पूण कशीं चक्रां घुंवलीं कोण जाणां, भारतीय बंदखणींत उडोवपाखातीर तो खटलो मुखार चलोवंक ना. तें पिस्तोल मात हातचें गेलें तें कायमचें. हे मुखार भारतांत येवप नाका, अशें हांवें थारायलें. गोंयांत आमचें जें कितें बरें वायट जाता तें आपणावपाक म्हजें मन ह्या प्रकारान तयार जालें. आमच्या देशानूच आमकां पोरके केल्ले. जे मांयभूंयेचें जयगान आमी गोंयांत करताले तिचेर अधिकार गाजोवप्यांनीच आमकां पोरके केल्ले.

मुंबयची सगळी पोलीस चवकशी सोंपोवन हांव बेळगांव आयलों. आझाद गोमंतक दलाचें एक शिबीर थंयच्यान पांच स मैलां वेल्या गांवांत भरिल्लें. हे संघटनेंतूय वैचारीक आंदोलनां चालूच्च आशिल्लीं. नॅशनल काँग्रेस गोंयची एक आपवावुरपी संघटना म्हूण आपल्याक मान्यताय मेळची ही दलाची मुखेल भुमिका. पूण नॅशनल काँग्रेस गोवा त काँग्रेसवादी आनी प्रजासमाजवादी हांच्यांत संघर्श चालू आशिल्लो. श्री. पीटर आल्वारीस हे प्रजासमाजवादी फुडारी नॅशनल काँग्रेसचे मुखेल फुडारी आनी सरचिटणीस पदारूय प्रजासमाजवादी वावुरपीच आशिल्ले. ह्या फाटाफुटींतल्यान वेगळी गोवा नॅशनल काँग्रेस घडली. तिचें अधिवेशन बांद्यांत भरलें तेन्ना आझाद गोमंतक दलान ताका भरपूर तेंको दिलो. तरीय आमच्या दलाचें पितृत्व घेवपाक कोणूच तयार जायना. सशस्त्र चळवळीक विरोध हेंच मुखेल कारण आशिल्लें. पूण दलाचेर शेवटाक वेळ आयलीच आनी आपलें स्वतंत्र अस्तित्व दलाक जाहीर करचें पडलें. बेळगांव लागसार भरिल्लें हें शिबीर दलाक स्वतंत्र, संघटनात्मक रूप दिवपाखातीर आशिल्लें. श्री. विश्वनाथ लवंदे हांची

दलप्रमूख म्हूण रितसर निवड ह्या शिबिरांत जाली. कार्यकारिणी वेंचून काडली आनी अशे तरेन सशस्त्र आंदोलनाचेर श्रद्धा आशिल्ल्यांची ही संघटना स्वतंत्र स्वरूपांत वावर करूंक लागली. ह्या शिबिरानूच एक नवो सहकारी म्हाका दिलो आनी त्या सहकाऱ्याक लागून गोंयांत एक नवो तळ आमच्या आंदोलनाक लाबलो. सावय, शिवोली आनी दोंगरी ह्या पयल्या तीन तळां उपरांत पोम्बुर्पाच्या जंगलांत हांव रावपाक गेलों तें ह्या नव्या सहकाऱ्याक लागून. बाळकृष्ण भोसले हें ताचें नांव. अतिशय धाडशी असो हो सहकारी बेती वेल्या हल्ल्यांत म्हजे वांगडा आशिल्लो आनी उपरांत ताका दुर्दैवान मारलो. पोम्बुर्पा हें बेती सावन चार मैलांच्या अंतरावेलें ठिकाण. एके वटेन पणजे वचपी मांडवी न्हंय आनी दुसरे वटेन दोंगर आनी दाट जंगल. ह्या जंगलांतल्यान म्हापशें -बेती ह्या मुखेल रस्त्यावेल्यान येवपी-वचपी वाहनांचेर नदर दवरूं येतालें. जंगलांतल्यान म्हापशां सहज वचूं येतालें. भूमिगत हालचालीक सामको सोयिस्कर असो हो वाठार आशिल्लो. बेळगांव लागसारच्या शिबीरांत मेरशी आनी चिंबलाचेय कार्यकर्ते आशिल्ले. तांची वळख जाल्ली आनी ताका लागीन त्याय गांवांत आसऱ्याचीं ठिकाणां निर्माण जालीं.

शिबीर सोंपल्या उपरांत वेगवेगळ्या मार्गान आमी गोंयांत परतून प्रवेश केलो. पयलीं पोम्बुर्पां वचून बाळकृष्ण भोसले वांगडा जंगल पालथें घालें. शिवलींग भोसले, रघुनाथ शिरोडकार हे आनीक वावुरपी जमिल्ले. तांचे वांगडा फुडल्या म्हयन्याचो कार्यक्रम आखलो. हळदोणचे पोलीस चौकेर हल्लो करप आनी चोडणाच्या रेजिदोराचो काटो काडप अशे दोन कार्यक्रम आमी थारायले. सावयवेरेच्या किस्तुर प्रमाण चोडणेचो रेजिदोर वावुरप्यांचे हालचालीची म्हायती पुर्तुगेज सरकाराक दितालो. अस्नोडच्या पोलिसचौकेर मेळिल्ल्यो बंदुको म्हाबळू नायका कडल्यान आतां सावय गेल्ल्यो. थंय दोंगरांनी लश्करी शिक्षण, नेमबाजीचे प्रयोग सुरू जाल्ले. एक दिसा रातचो हांव आनी बाळकृष्ण भोसले बंदुको साफ करीत बशिल्ले आनी अकस्मात भोसलेच्या बंदुकीचो चाप ओडलो आनी गुळी सुटली. म्हज्या लागशिल्ल्यान ती गुळी गेली आनी तिणें बंदुकीचे लांब नळयेक बुराक केलो. कश्टान फैदाशिल्लें शस्त्र आतां फुकट गेलें अशें आमकां दिसलें. पूण ह्या अपघाताक लागून आमचो फायदोच जावपाचो आशिल्लो. नळयेचो फुटिल्लो भाग आमी कापून काडलो आनी ताका लागून नळयेची लांबाय कमी जाली. रेनकोटाभितर लिपोवन, सामकें दिसा उजवाडा लेगीत ती बंदूक व्हरप आतां आमकां सोंपें जाल्लें. तिच्या ह्या नव्या गुणाचो उपेग मुखावेल्या जायत्या हल्ल्यांत आमकां जालो.

हळदोणची पोलिसचौकी ही आमची नवी मोख आशिल्ली. ते चौकीची एकदीस वचून पळोवणी केली. दुसरे दिसा आमची पलटन भायर सरली. रामदास चाफाडकार, माधव कोरडे, बाळकृष्ण आनी शिवलींग भोसले आनी आनीक एकलो पोम्बुर्पांच्या जंगलांतल्यान भायर सरले आनी हळदोणचे दिकेन गेले. वाटेर एक ल्हानशी घडणूक घडली. बाळकृष्ण भोसले वाटेर एका सोऱ्या दुकानांत वचून दोनूच मिनटांनी परतलो. ताच्या तोंडाक थोडो वास येतालो, म्हूण हांवें ताका खडसायलो तेन्ना 'हय, पियेलों थोडो. परतून ना पिवचों' अशी बाळकृष्णान जाप दिली. सोरो पियेवप म्हळ्यार पाप ह्या विचाराचो प्रभाव ते वेळार म्हजेर आशिल्लोच. पूण तेय परस शिस्त म्हूण दोन गजाली आमी कटाक्षान पाळटाले. कोणेंच सोरो पियेवप ना आनी खंयच्याय हल्ल्यांत दुडवांक हात लावप ना. सोऱ्याच्या अमलाखाल गुपीत गजाली फुट्टतल्यो हो भंय आमकां मुखेलपणान आशिल्लो. दुडवांची लूट आमी सुरू केली जाल्यार आमच्या आंदोलनाचें पावित्र्यच नश्ट जातलें अशी म्हजी भावना आशिल्ली. परतून तातूंत कोणाकूय आस निर्माण जावपाचीय शक्यताय आशिल्ली. ही शिस्त ताका लागून आमी अंता मेरेन पाळ्ळी.

थोडयाच वगतान हळदोणचे चौकेलागीं आयले. राखणेक आशिल्ल्या पोलिसान पळयलें आनी 'कोण रे तो?' अशें दरडावन विचारलें. ताचो प्रस्न पुराय जावचे आदींच आमी ताचेर झडप घाली. ताका भियेवपाखातीर हवेंत फार सोडलो. ताचे कमरेक पिस्तोल आशिल्लें, पूण ताका हात घालपाक ताका उसरपत मेळ्ळी ना, इतल्या झपाट्यान आमी तें काडून घेतलें. पूण हे झटापटींत आमच्या पिस्तोलाची एक गुळी रामदास चाफाडकाराच्या धोपराक घसटून गेली. पोलिसांचें पिस्तोल हातांत आयिल्लेंच, तें घेवन आमी जंगलांत पसार जाले.

एक पुर्तुगेज पिस्तोल वाडिल्लें. आमी वच मेरेन त्या पोलिसान मातूय बोवाळ केलो ना इतलो तो भियेल्लो. पोंबुर्पांक परतले तेन्ना लक्षांत आयलें की, दासू चाफाडकाराचे जखमेक वैजकी उपचाराची गरज आसा. साहजिकच सावयचे शाळेंत येवन सगळ्या कार्याक प्रोत्साहन दिवपी डॉ. गोविंद धुम्याची याद जाली. 'म्हज्या हातांतल्यान कितेंय काम जावपाची शक्यताय दिसली जाल्यार बेधडक म्हजेकडल्यान तें करून घेयात' अशें उतर ताणीं आमकां केन्नाच दिवन दवरिल्लें. ताणीं आपल्या सभावप्रमाण हे वेळारूय तें पाळ्ळें. दासू चाफाडकाराच्या घायाचेर वखदविसर्द आनी सगळी सेवासुश्रुशा ताणीं आपणें स्वता केली. स्वताक राजकारणी म्हूण मिरोवन घेनासताना ताणीं राजकारणांत असो वांटो घेतलो. परतून एक उतर लेगीत ते विशीं ताणीं काडलें ना. आमचे भुमिगतांचे ते कायमचे वैज जाले.

(चलता.....)



- नं. ध. बोरकार
माम्कोग्न्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

# कफन

खूब बरी आसली बाबडी. मेल्या उपरांतूय खावोवन पिवोवन मेली. आतां अद्‍र्या परस चड बाल्ली सोंपली. सोन्या दुकानाक तेंकून लोणचें-पापडाचें दुकान आशिल्लें. घीसून पापड मागयले. माधवान झटपट वचून खाणाच्यो दोन पत्रावळी हाडल्यो. ह्या सामानाक पुराय देड रूपयो खर्च जालो. आतां थोडेच पयशे शिल्लक आशिल्ले. दोगूय ओर्टद बसून सोन्यावांगडा अशे तरेन खाणां खावंक लागले की, जंगलांत वागान आपल्या सावजाचेर ताव मारचो!



एक

खोपीच्या दाराकडे बापूय-पूत एका न्हिविल्ल्या पोल्ल्या कुशीक मोन्यानी बसून आशिल्ले. भितर पुताली जुवान बायल, प्रसूती वेदनानीं तळमळटाली. रावन-रावन तिच्या गळ्यांतल्यान, कोणाच्यान आयकूंक जायना तसल्यो किळांच्यो भायर पडटाल्यो. त्यो आयकून बापूय-पुताचीं काळजां तुट्टालीं. दीस शिंयांचे आशिल्ले. सैम काळखांत बुडून गेल्लें. आख्खो गांव काळखांत बुडून गेल्लो.

''म्हाका दिसना वाचत-शी. आख्खो दीस धांवपळ करूंक गेलो. चल, पळोवन यो.'' घीसून म्हणलें.

''मरपाचीच आसा जाल्यार, बेगीन कित्याक मरना काय म्हणटां हांव, नसती कटकट!'' माधव तापलो.

''फातरा काळजा मरे तूं, वर्सभर तुवें तिच्या वांगडा मौज-मजा केली, आनी आतां हे भाशेन उलयता? हो विस्वासघात जालो मरे.''

''हांव कितें करूं, म्हज्यान तिचें तडफडप आनी हात-पांय बडवप पळोवंक जायना.''

चामारालो घराबो आशिल्लो तो. गांवभर बदनाम जाल्लो. घीसू एक दीस काम करतालो आनी तीन दीस न्हिदून रावतालो. माधवाचें तर विचारपाचें ना. आळशी इतलो की अर्दे वर काम केल्यार वरांचीं वरां विडयो फुंकीत बसतालो. ताका लागून खंयच काम मेळनासलें ताका. घरांत मूठभर तरी धान्य आसत तर कामाचें नांव काडिनासलो तो. दोन-तीन दीस जेन्ना उपास घडटाले, तेन्ना घीसू झाडार चडून लाकडां तोडटालो. माधवान तीं मागीर बाजारांत व्हरून विकचीं. गांठीक पयशे आसात तो मेरेन दोगांनी गांवभर हेडप. गांवांत कामाक मरण नाशिल्लें. शेतकारांचो गांव. भरपूर कामां. करतलोच जाय. पूण कोण मेळना तेन्नाच कामाक आपयताले तांकां. असले वेळार एकट्याचें काम दोगां कडल्यान करून घेवचें पडटालें. जर ते संत आशिल्ले, तर ते कशाकशेय वागल्यार एक वेळ समजूं येतालें. पूण हो तांचो सभावच पाड पडिल्लो. विचित्र-शें जीवित आशिल्लें तांचें. खोपींत दोन-चार मातये आयदनां शिवाय कांयच नाशिल्लें. इतलीच तांची संपत्त. वादऱ्यो जाल्ल्या कपडयांनीं आपलें नागडेंपण लिपयताले ते. संवसाराची कसलीच चिंता म्हूण नासली तांकां. रीणाच्या चेपणा खाला

सदांच वावुरताले दोगूय! लोकां कडच्यान गाळयोय खाताले आनी वांगडा मारूय बी. पूण कसलेंच दुखख म्हूण नासलें. पळोवंक इतले भावार्थी दिसताले की आदलें रीण वसूल जालें ना तरी लोक तांकां आनी रीण ना म्हणनासले. कितेंय ना कितें दितालेच. ऊशीकांडे, मटराच्या पिका वेळार हांणीं कितें करचें? हेरांच्या शेतांत वचून मटर-बटाटे चोरून हाडचे. ते भाजून खावंचे. ऊशीकांडे तोडून हाडून ते रातीकडे चोखचे. अशें करीत-करीत घीसून आयुश्याचीं साठ वर्सां काडलीं. माधवूय बापायचेच वाटेन वतालो. पूण तो बापाय परसूय फुडें आशिल्लो. दोगूय पोल्ल्याकडेन बसून बटाटे भाजताले. हे बटाटे ते कोणाल्याय तरी शेतांतले चोरून हाडटाले. घीसूचे बायलेक मरून आतां खूब दीस जाल्ले. माधवाचें लग्न गेल्ल्याच वर्सा जाल्लें. माधवाचे बायलेन घरांत पावल दवरनाफुडें घराबो सावरचेलो येत्न केलो. पूण मार्गांत कसली ना कसली आडखळ येतालीच. कोणेंय कामांक आपयल्यार हे मजुरी दुप्पट सांगताले. माधवा बायल आयज प्रसूती वेदनांनी मरणादेगेर पाविल्ली. आनी हे दोगूय तिच्या मरणाची वाट पळेताले. ती मरची आनी हांकां सुशेग मेळचो, अशी इत्सा आशिल्ली तांची.

घीसून बटाटे सोलीत म्हणलें – ''वचून पळय तरी, कितें दशा जाल्या ती तिची. लागला आसतलो कोणूय! जाग्यार घालपाक घाडी रूपये मागतलो.''

माधवाक भंय आसलो की तो बायले खबरेक कुडींत गेलो आनी हे वटेन बापायन बटाट्यांचो मोटो वांटो गडप केलो जाल्यार? ताणें म्हणलें- ''म्हाका कुडींत वचूंक भंय दिसता.''

''भंय कसलो रे, हांव तर हांगाच बसून आसां.''

''तशें जाल्यार तूंच वचून पळय.''

''म्हजी बायल मेली तेन्ना हांव तीन दीस मेरेन तिच्या म्हऱ्यांतलो हाल्लो ना. आनी हांव तिच्या म्हऱ्यांत गेलों जाल्यार ती म्हाका लजची ना रे? आयज मेरेन हांवें तिचें तोंड लेगीत पळेलें ना. आनी आतां तिचें उकतें आंग पळोवं? हे वेळार तिका आपल्या आंगाचें धंगण लेगीत आसचें ना. म्हाका पळोवन उकतेपणान आपले हात-पांय बडोवंक शकची ना.''

''आनी हांव म्हणटां, कोणूय भुरगें जालें जाल्यार तिका कितें करपाचें? घरांत तर सूंठ, गोड, तेल बी कांयच ना.!''

''देवाचे कृपेन सगळें येतलें. जे लोक आतां एक पयसो दिवंक तयार नात, तेच फाल्यां आमकां आपोवन घेवन रुपये दितले. म्हाका णव भुरगीं जालीं. घरांत केन्ना कांयच नासलें. पूण देवान कशें ना कशें करून व्हडें तडीक व्हेलेंच.''

शेतकार सदांच मानायांचेर निंबून आसतात. ताका लागून मानाय दुर्बळ शेतकारांचो आपल्याक जाय तसो उपेग करून घेतात. हे गांवापुरतें उलोवपाचें जाल्यार, दीस-रात म्हेनत करतल्यांची प्रगती धनी शेतकारां परस बरी आशिल्ली. मानाय जेन्ना शेतकारां परस प्रबळ आनी चड हुशार आसतात, तेन्ना अशेंच घडटा. असले स्थितींत मानायांमदें असली मनोवृत्ती निर्माण जाली जाल्यार ती अजापाची गजाल म्हणपाची न्हय. ताकाच लागून म्हणचें पडटा की, घीसू थंयच्या शेतकारां मदें इल्लो चड हुशार आशिल्लो. ताका लागून घीसू विचार-शून्य शेतकारांच्या पंगडांत केन्नाच सामील जालो ना. तर तो सामील जाल्लो, बसून चकाटां मारपी कुत्सीत शेतकारांच्या पंगडांत. मात असल्या कुत्सीत आनी आल्म पेड्डेर लोकांचे नेम आनी कायदे पाळपाची शकत घीसूंत नाशिल्ली. ताका लागून तो ज्या पंगडांत वावुरतालो, ते पंगडांतले लोक सधन आनी मुखेली बी तसले आशिल्ल्यान, घीसूचें वजन वाडिल्लें. गांवांतल्या शेतकारां भशेन तो म्हेनत करूंक शकनासलो. तरी तो गांवांतल्या वजनदार लोकांच्या तेंक्यान जगतालो. घीसूकडे इल्लें सादें-सरळपण आसलें, पूण गांवच्या लोकांक ताचो उपेग जायनासलो. ताका लागून, बापूय-पूत लोकांल्या शेतांतले बटाटे चोरून, उकडून-भाजून खाताले. काल सावन कितेंच गेलेंना पोटांत. ताका लागून पोटांत कितेंय गेलेबगर सुशेग जायनासलो दोगांकय. थंड जावचे पयलींच कोळशे कशे बटाटे तोंडांत घालताले. ताका लागून जीब लासताली. सोलतकच बटाट्यांचें भायलें आंग चड हून लागना. मात दांत रोमतकच भितल्लें आंग दांत, जीब आनी ताळू लासता. अशें दिसता की कोळश्यावरीं गरम बटाटो तोंडांत उरचे परस केन्नाकाय पोटांत गेल्लो बरो. थंय ताका थंड करपाक बरेंच सामान आसता. ताका लागून बेगबेगीन दोगूय गिळपाचें काम करताले. ताचो परिणाम म्हूण तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां येतालीं.

घीसूक आतां एका तेपावेल्या लग्नकार्याची याद जाली. वीस वर्सां पयलींची गजाल. ठाकुरान ताका जेवणाचें आमंत्रण दिल्लें. जेवणाची धादोसकाय घीसू अजून विसरूंक नाशिल्लो. त्या जेवणातले पदार्थ अजून जिबेर आसात, अशें दिसतालें घीसूक ताणें त्या जेवणाचो अणभव आपल्या पुताक-माधवाक सांगलो. ताणें म्हणलें – ''त्या जेवणावळीची याद कशीच वचना रे बाबा! कितें तें जेवण, आहा...हा! तेन्ना सावन अशे तरेचें पोटभर जेवण केन्ना नशिबांत आयलें ना. व्हंकलकारांनी सगळ्यांक पोटभर पुरयो खावयल्ल्यो आनी पुरयो म्हूण तरी कसल्यो? घराव्या तुपान तळलेल्यो. ल्हान-व्हडांनी ताव मारिल्लो पुरयांचेर. चटणी, रायतें, तीन तरेच्यो सुक्यो शाक-भाज्यो आनी मसालो घालून केल्लीं तोंडाकां. धंय म्हणूं नाका, गोडशीं म्हणूं नाका-सगळ्या तरेच्या पक्वानांनी पोट फुटसर जेवण घाल्लें ठाकुरान!



त्या सुवादीक जेवणाची याद जातांच आयजूय रूच येता. जेवणाक कसलीच अडचण म्हूण नासली. जाय-जाय तें मागून खावपाचें. कितेंच उणें जावपाची शक्यताय नासली. लोकांनीं इतलें खालें, इतलें खालें की पोटांत घोंटभर उदकाक लेगीत सुवात उरची न्हय! तरी वाडपी एक सारके हुनहुनीत, करकरीत आनी घमघमीत वडे वाडीत आशिल्ले. जेवपी पत्रावळीचेर दोनूय हात धरून नाका-नाका म्हणटाले. तरी वाडपी आयकनासले. इतलेंच न्हय तर जेवन-खावन जाल्या उपरांत पान-सुपारेची वेवस्ता आशिल्ली. पूण पान घेवपाक हांव शिंतीदार खंय आशिल्लों? म्हज्यान तर उबो रावंक जायनासलें.धडपडत वचून एकदांचो कांबळीचेर आड पडलों. असो आसलो तो दयाळ ठाकूर!

पदार्थांचीं वर्णनां आयकून माधव मनांतल्या मनांत खोशेलो. ताणें म्हणलें – ''असलें जेवण आतां आमच्या नशिबांत खंयचें?''

''आतां खंयचें मेळटलें? तो तेंप आतां उल्ला? आतां सगळ्यांकूच सुचता बचत. लग्नकार्याक खर्च उणो करात. क्रियाकर्माक खर्च नाका, आतां तूं सांग, गरिबांचो पयसो एकठांय करून खंय दवरतले? पयसो एकठांय सोंपेपणान जाता. पूण खर्च करचे वगतार मांय मरता.

''तुवें वीसेक पुरयो खाल्यो जातल्यो.''

''तेय परस चड खाल्ल्यो.''

''हांव पन्नास तरी खावपाचों.''

''हांवेंय पन्नासां परस उण्यो खाल्यो ना. जिवान धडधाकट आसलों हांव. तूं कित्याक उपकारता? दुप्पट आसलों हांव तुजे परस.''

आतां तांणीं बटाट खाले. वेल्यान उदक पिले. मागीर आपलीं धोतरां पांगरून पोल्ल्या कुशीक गुठली केली. दोन अजगर कोंडाळें करून पडनात, तशे! आनी बुधें? तें भितर अजून परवतालें.

## दोन

सकाळीं माधवान कुडींत वचून पळेलें. ताची बायल आतां ह्या संवसारांत नाशिल्ली. तिच्या तोंडाचेर मूस भोंवताले. दोळे ओरसे जाल्ले. सगळें आंग धुल्लान माखिल्लें. तिच्या पोटांत भुरगें मेल्लें. माधव धांवतूच घीसू म्हऱ्यांत गेलो. मागीर दोगूय हाय-हाय करून हड्डें बडोवंक लागले. शेजाऱ्यांनी बोब आयकली. सगळे धावून आयले. आपले रितीक धरून दोगांकूय समजावंक लागले. पूण रडपाक आतां वेळ नासलो. लाकडां आनी कफनाची तयारी करपाची आसली. घरांत तर वीख खावपाक पयसो नासलो.

बापूय-पूत रडत-रडत गांवांतल्या एका भाटकारागेर गेले. भाटकार तोंड पळयल्यारूच दोगांचोय तिरस्कार करतालो. जायते पावट दोगांकूय भरपूर पेट घाल्लो ताणें. ताच्या भाटांत चोरयो तर केल्ल्योच, ते भायर कामाक येता म्हूण सांगून फटीय मारिल्ल्यो. भाटकारान विचारलें– ''कितें जालें रे घिशा, कित्याक रडटा? ह्या दिसांनीं तूं दिश्टीक लेगीत पडना मरे, ह्या गांवांत रावपाचें सोडलें काय कितें रे तुमी?''

घीसून भाटकाराच्या पांयांकडे जमनीक तकली तेकयली. दोळ्यांत दुकां हाडून

उलयलो- "भाटकारा, व्हडा संकटांत सांपडलां हांव. कितें करचें कांयच समजना. माधवा बायल रातीं आमकां सोडून गेली. सगली रात तडफडटाली भाटकारा! आमी दोगूय तिच्या उशाकडे बसून आशिल्ले. वखदपाणी कितें करपाचें तें सगळें केलें. तरी फटोवन गेली ती आमकां. आतां पेज शिजोवन घालतलो म्हणल्यार घरांत कोणाचो आदार उरलो ना भाटकार! पोरके जाले आमी दोगूय. काबार जाले. उगड्यार पडलो आमचो संवसार. आतां ह्या गरिबाक तुजे बगर कोणाचोच आदार उरलो ना. तुज्या आदाराशिवाय तिका कशी मातयेक लांव? आसलें नासलें सगळें वखदपाणयां खर्च केले. भाटकारा, तुवेंच ह्या गरिबाचेर दया केली जाल्यार ती मातयेक लागतली. तुका सोडून आनी कोणाच्या दारार वचूं हांव?"

भाटकार दयाळ आसलो. पूण घीसूचेर दया करप म्हणजे ओमथ्या कळशाक उदक! ताच्या मनांत आयलें, खोट मारून धांवडोवंचो हाका. गरजे वेळार आपयल्यार केन्नाच येवचो ना. आपल्याक गरज पडटा तेन्ना मात येता हात पसरूंक. दारांत उबो करपाचो ना हराम खोराक! बदमाश खंयचे कडलो! पूण हो प्रसंग क्रोध आनी शिक्षा करपाचो नासलो. पिरंगत-पिरंगत दोन रुपये मोखून दिले घीसू मुखार पूण सांत्वनाचीं दोन उतरां भायर पडलीं ना भाटकाराच्या तोंडांतल्यान. दोळे उकते करून लेगीत घीसूवटेन पळेलेंना ताणें! गेली एकदांची कटकट म्हूण फाट फिरयली.

गांवांतल्या भाटकारान घीसूक जेन्ना दोन रुपये दिले, तेन्ना गांवांतले हेर प्रतिशठीतांक ना म्हणपाचें धाडस कशें जातलें? घीसून आतां भाटकाराच्या नांवान गांवभर पेरगांव घालें. कोणे ताका आतां दोन आणे दिले तर कोणें चार आणे. एका वरा भितर घीसूकडे पांच रुपये जमले. ही रक्कम ल्हान नाशिल्ली ते वेळार. ते भायर कोणे धान्य दिलें तर कोणे लाकडां. आतां दनपार जाल्ली. घीसू आनी माधव आतां कफन हाडूंक बाजाराक गेले. हांगा लोक कोंडे-बिंडे कापपाचें काम करूंक लागले. गावांतल्यो भावार्थी बायलो येवन मड्यार नदर घालूंक लागल्यो.

### तीन

बाजारांत पावतकच घीसून म्हणलें - "तिका लासूंक जाय तितकीं लाकडां जालीं. आतां फुडें कितें करपाचें रे माधव!"

"लाकडां जालीं, आतां कफन जाय!"

"चल तर भड्डेंशें कफन घेवया."

"हय तर! मडें उखलता म्हणसर रात जातली, आनी रातीचें कफन कोणाक दिसता?"

"हूं! कसली नाका असली रीत ही! जितेपणान कोणाक आंग लिपोवंक फाळी मेळना, आनी मरतकच नवें लुगट."

"कफन तर मड्यावांगडा जळटा."

"जालेंच. हेच पांच रुपया पयलीं मेळिल्ले जाल्यार कितेंय तरी वखद-पाणी करूंक मेळटासलें." दोगूय एकामेकाच्या मनाचो थाव घेवंक लागले. बाजारांत हांगा-थंय बेट्योच पासयो मारूंक लागले. मागीर दुकानां भोंव-भोंव भोंवले. तरेक तरेचे कपडे-सूती, रेशमी पळोवन घेतले पूण ते मानवले ना. करतां करतां आतां सांज जाली. तेन्ना कशें कोणाक खबर, देवा कृपेन एका सोऱ्या दुकाना कडे पावले. पयलीं थारावणी केल्ल्या भशेन दुकानात सहजतायेन भितर सरले. थंय कितें करचें समजना जावन थोडो वेळ गणयत रावले, मागीर घीसून गल्ल्याकडेन वचून म्हणलें - "बाबारे, आमकांय एक बाटली दी." मागीर चिकन आयलें, तळिल्लें नुस्तें आयलें. दोगूय व्हरांड्याच्या एका कोनशाक बसून थंडसाणेन पिवंक लागले. कांय घोट पिल्या उपरांत तांकां धुंदी चडली. घीसून म्हणलें - "कफन घालून कसलो फायदो, निमणे जळून वतले सुनेक कांयच मेळचेंलें ना."

माधव मळबाकडे पळोवन उलयलो, जशी काय आपूण निश्पाप आशिल्ल्याची साक्ष ताणें देवा मुखार दिली- "जगाचे रिती प्रमाण कांय लोक भटां-बामणांक हजारांनी रुपये खावयतात. कोणाच्यान सांगू येता, तांकां सर्ग मेळटा काय ना तो!"

"गिरेस्तांकडे धन आसा, लायतात वाट, लावं दी. कोणाचें कितें वता?"

"कफन खंय आसा काय म्हूण लोक विचारचे नात?"

"आरे सांगपाचें, किरवटीचे पयशे सुटून पडले म्हूण. सोद-सोद-सोदले, पूण गावलेच ना. लोकांक खरें दिसचें ना. पूण पयशे दिले बगरूय रावचे नात."

घीसून हांसत जाप दिली.

माधव अपल्या भाग्याचेर खोशी जावन हांसलो आनी उलयलो, "खूब बरी आसली बाबडी. मेल्या उपरांतूय खावोवन पिवोवन मेली. आतां अर्द्या परस चड बाटली सोंपली. सोऱ्या दुकानाक तेंकून लोणचें-पापडाचें दुकान आशिल्लें. घीसून पापड मागयले. माधवान झटपट वचून खाणाच्यो दोन पत्रावळी हाडल्यो. ह्या सामानाक पुराय देड रुपयो खर्च जालो. आतां थोडेच पयशे शिल्लक आशिल्ले. दोगूय ओर्राद बसून सोऱ्यावांगडा अशे तरेन खाणां खावंक लागले की, जंगलांत वागान आपल्या सावजाचेर ताव मारचो!

खाता आसतना तांणीं कोणाचीच भीडभाड धरली ना. कोण आपल्याक कितेंय म्हणटलो, हाची चिंताय नाशिल्ली तांकां. सगळ्या भावनांचेर आर्दीच जैत मेळयल्लें तांणीं.

"आमच्या आत्म्याक शांती मेळ्ळी जाल्यार, तिका पुण्याय कित्याक मेळचिना." घीसू एक व्हडलो तत्वज्ञ कसो उलयलो.

"दुबावूच ना." माधवान तकली हालोवन सत प्रमाणीत केलें. ताणें फुडें म्हणलें - "देवा तूं अंतर्यामी आसा. तिका वैकुंठाक व्हर. आमी दोगूय तिका काळजांत सावन आशिर्वाद

दितां. आयज जें जेवण आमकां मेळ्ळां, तें जल्मभर मेळूं नासलें.''

खिणभर उपरांत माधवाच्या मनांत एक शंका उप्रासली. ताणें म्हणलें- ''कितें दादा, आमीय एक ना एक दीस थंय वतलेच मू?''

घीसून ह्या भोळेपणाक मातूय



दाद दिली ना. कारण तो परलोकींच्यो गजाली करून धर्तरे वयल्या खोशेक इबाडूंक सोदिनासलो. ''थंय आमकां तिणें विचाल्लें, की तुमी कफन कित्याक दिलें ना? तेन्ना आमी कितें जाप दितले?''

''बोड तुजें.''

''ती विचारले बगर कशीच रावची ना.''

''तिका कफन मेळचें ना, अशें तुका कशें कळ्ळें?''

''तूं म्हाका सामकोच गाढव समजता? गेल्या साठ वर्सांत कितें शेण काडटालों रे हांव? तिका कफन मेळटलें आनी तेंय बऱ्यांतलें बरें.''

माधवाक तें खरें दिसलें ना. ताणें म्हणलें - ''कोण दितलो? पयशे तर तुवें गडप केले! ती म्हाका विचारतली. तिच्या कपलाक पिंजर हांवें लायिल्ली.''

घीसू तापलो - ''हांव सांगतां, तिका कफन मेळटलें, तूं मानून कित्याक घेना काय म्हणटां हांव!''

''कोण दितलो, सांग म्हाका.''

''तेच लोक दितले, जाणीं आयज मेरेन दिल्यात. हां, आतां रुपये आमच्या हातार पडचे नात.''

जसो-जसो काळोख वाडटालो आनी मळबांतलीं नखेत्रां चडच परजळटालीं, तावेर्नातली गर्दी वाडटाली. कोण गायतालो, कोण बडायो मारतालो, कोण आपल्या इश्टांच्या गळ्यांत पडटालो तर कोण आपल्या वांगड्यांच्या तोंडाकडेन पेलो धरतालो.

थंयच्या वातावरणांत खोशी भरिल्ली. वातावरणांत धुंदी चडिल्ली. कितलेशेच हांगा येवन एका घोंटात मस्तावताले. सोऱ्या परस चड हांगाची हवा बेबद्यांक धुंदी चडयताली. जीवितांतल्यो कितल्योशोच बाधा लोक घेवन हांगा येताले आनी थोड्याच वेळांत सगळ्यो बाधा विसरून वताले. ते हेंय विसरताले की ते जियेतात की मरतात. वा ते जगनात काय मरनात आनी हे दोगूय बापूय-पूत एकेक थेंबो चाखीत आनंदमग्न जाताले. सगळ्यांचे दोळे, हांचेर जमून अशिल्ले. दोगांचेंय भाग्य फळाक आयिल्लें. पुराय बाटली तांच्या मदीं उबी आशिल्ली. पोटभर खाल्या उपरांत माधवान उरिल्ल्या पुरयांची पत्रावळ एका भिकाऱ्याच्या सुवादीन केली. हो भिखारी वखवख्या दोळ्यांनी केन्ना सावन तांचेकडे पळेत आशिल्लो. दुसऱ्याक दिवपाचो आनंद, गौरव आनी उल्लास, माधव पयलेच खेप अणभवतालो.

घीसून म्हणलें - ''घेवन वच. खूब खा आनी आशीर्वाद दी. जिची ही कमाय, ती आतां ह्या संवसारांत ना. पूण तुजो आशिर्वाद मात तिका जरूर पावतलो. मनापसून मात दी आशीर्वाद! व्हडा कश्टांचे पयशे ते.''

माधवान परत एकदां आकाशाकडे पळोवन म्हणलें- ''ती वैकुंठाक पावतली दादा! वैकुंठाची राणी जावन आसतली.''

घीसू उबो जालो आनी जसो, उल्लासाच्या ल्हारांचेर बसून उलोवंक लागलो - ''हय रे बाबा! वैकुंठाकूच पावतली. कोणाकूच सतयनासली, कोणाचेर कसलेंच चेपण म्हूण हाडलें ना तिणें. मरतां-मरतां आमच्या जिवीतांतली निमणी आस पुराय करून गेली. ती वैकुंठाक पावची ना जाल्यार आनी कोण हे मोटे-मोटे लोक पावतले? जे गरीबांक दोनूय हातांनी लुटतात आनी आपलीं पातकां धुवपाक गंगेत वचून न्हातात? आनी देवळांचेर उदक फाफुडटात?''

श्रध्देचो हो रंग आतां खिणांत बदल्लो. अस्थिरताय हें नशेचें खाशेलेंपण आसता. दुखख आनी निराशेची भोंवडी आतां सुरू जाली. माधवान म्हणलें- ''पूण दादा, बाबडेन जल्मभर दुखखच भोगलें. कितले त्रास सोंसून मेली ती!'' तो आतां दोळ्यांचेर हात दवरून रडूंक लागलो. व्हडल्या-व्हडल्यान किळांच्यो मारूंक लागलो.

''कित्याक रडटा रे पुता! माया जाळांतल्यान मुक्त जावपाचें भाग्य थोड्यांकूच फाव जाता.''

आतां दोगूय उबे रावन गावंक लागले - ''ठगिनी क्यों नैना झमकावे! ठगिनी!''

हेर बेबद्यांचे दोळे तांचेर आशिल्ले. आनी हे दोगूय मस्तेंत गायत आशिल्ले. उपरांत दोगूय नाचूंक लागले. उडयो मारूंक लागले, उसल्यो मारूंक लागले. भावांसयत अभिनयूय करूंक लागले. पडले आनी उठलेय बी. निमणे नशेंत बुडले आनी थंयच पडले.

■ ■ ■

# एन. शिवदासाच्या वादग्रस्त कवितेच्या निमतान

**- एस. डी. तेंडुलकार**

एन. शिवदास हो मुळांत कथाकार, ललित गद्य बरोवपी. पूण. 'सार्थ दुख्खार्थ' हो काव्यझेलो उजवाडा हाडून तो कवी म्हणून आमच्या मुखार आयलो.

'आपूण कितें तसो हाडाचो कवी न्हय, चडूच जाल्यार आपल्याक ताडाचो शिडशिडीत कवी म्हणू येता' -अशें एन. शिवदास आपल्या काव्यसंग्रहाचे प्रस्तावनेंत म्हणटा. आनी तें खरेंच आसा. आयच्या मार्केटींगच्या काळांत बाब शिवदासान दाखयल्लो हो स्पश्टवक्तेपणा खरोच दाद दिवपा सारको आसा. पूण एन. शिवदास हाडाचो कवी नासुनूय कथा-कादंबरींत जितली ताका प्रसिद्धी मेळूंक ना ताच्याकूय धा पटीन प्रसिद्धी कवी म्हणून ताका सद्या मेळ्ळ्या. आनी ती प्रसिद्धी मेळपाचें कारण म्हळ्यार तांची 'चेडी' ह्या नांवाची ह्या संग्रहांतली कविता. ही खरें म्हळ्यार कांय बायलांनी वोगीच गाजयल्ली कविता. हीं बायलां जर हे कविते विरूद्ध निशेध, आंदोलनां करिना जाल्यार ही कविता कोणाच्या लक्षांतूच उरची नासली. आनी ती कोण मुद्दम म्हणून वाचपाकूय वचपाचो नासलो. जावं वायटांत बरें घडटा म्हणटात तें अशें. तर कांय बायलांक खुबळावपी हे कवितेंत इतलें 'भयानक' आसा तरी कितें? वाचप्यांखातीर ही कविता हांव हांगा मुद्दम रिप्रोड्युस करूंक सोदतां. कविता अशी:

**चेडी**

**झाडां पोंदचे चेडयेन**
**आतांच तोंडांत विडो घाला**
**विड्याचो तांबडो मोद**
**पातकड्यांनी रिगला**
**चेडी दोळो मारताली**
**चेडी ओंठांत हांसताली**
**येतल्या वतल्यांक**
**चेडी भूल घालताली**
**अशी चेडी भायली भायली**
**कोंबी कशी कोंकेताली**
**हांसताली मुरगट्टाली**
**चेडी गिरायक सोदताली**
**चेडयेन पोलको सांसपिलो**
**पोलक्यांत नोट गावलीना**
**चेडयेक भूक लागिल्ली**
**चेडी येवजिताली**
**गिरायकां येतलीं**
**पांच पांच मिनटांनी**
**ताका वयार करतलीं**
**बोंबलेंतलें पाकीट**
**काडून कोपाचें मारतली**
**मार मार मारतली**
**मर मर मरतली**
**जीण चेडी**
**अशी काबार करतली.**

तर 'चेडी' ही कविता वेश्यावेवसाय करपी एके बायलेचेर बरयिल्ली आसा. हाचोच अर्थ कवीन चेडी फकत ते बायलेक म्हटल्या. अख्ख्या स्त्री जातीक म्हणूंक ना. म्हणुनूच 'चेडी' ही कविता स्त्री जातीचो अपमान करता अशें आमी म्हणूंक शकना. स्त्री जातीकूच जर कवीन चेडी म्हणिल्ली, तर तो सेर्त स्त्री जातीचो अपमान आशिल्लो. आनी ते विरूद्ध बायलांनी आंदोलन करूंकूच जाय आशिल्लें. पूण हांगा कवी फकत एकेच बायलेचें चेडी म्हणून वर्णन करता आनी ते सभावीक आसा. कारण समाजांत कितें सगल्योच पतिव्रता आसूंक शकनात. तातुंतलीच एखादी चेडी लेगीत आसूं येता. आनी ते चेडयेचेरूय एखाद्या कवीन कविता बरयली तर ताका बायलां आक्षेप कशी घेवंक शकता? निमणें समाजांत जें कितें बरें-बायट आसता ताचेंच तर कवी, लेखक वर्णन करीत आसता. आनी कवी एन. शिवदासान तर तें हांगा सामकें नैतिकतायेन केलां. देखीक, चेडी चेडयेपणां करून आपले जिणेचो विध्वंस करता हें तो कवितेच्या निमण्या चार वळींत किंवाट्यान सांगता-

**मार मार मारतली**
**मर मर मरतली**
**जीण चेडी**
**अशी काबार करतली**

खरें म्हळ्यार बायलांनी निशेध त्या चेडयेपणाक प्रवृत्त करपी समाज-व्यवस्थेचो करपाचो, कवी एन. शिवदासाचो न्हय.

म्हाका दिसता बायलांचो आक्षेप 'चेडी' ह्या एकाच उतराक आसा. तें उतर एखाद्या कवी-लेखकान वापरुकूच फावनां असो नियम आसा काय कितें? कारण कोंकणींतूच अनेक कवी-लेखकांनी हें उतर आदीं वापरिल्लें आसा मागीर शिवदासाचेरूच ही तोफ कित्याक?

'नवप्रभां'त विष्णू सुर्या वाघ म्हणटां तशें हातूंत कितें पुलितिक बी ना मूं? हे कवितेविशी बायलांनी घेतिल्ल्या पत्रकार परिषदेची बातमी पयल्या पानार छापून हाडटना दैनिक 'लोकमत'च्या गोवा आवृत्तीन हे बातमीचो कितें माथाळो दिल्लो खबर आसा? - "एन. शिवदासची महिलांनी केली छी: थूं!" असल्या बातमीचो इतलो भडक माथाळो

कित्याक काय?

तशें पळोवंक गेल्यार कवीन चित्रण केल्ले हे बायले सारक्योच कांय बायलो हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयल्यात. त्याखातीर हें कवितेंतलें चित्रण म्हाका उखलापें दिसूंक ना. फकत तें आनीक खोलायेन येवंक जाय आशिल्लें अशें दिसलें. पूण ही कविता बरी काय सामान्य हें हांगा म्हत्वाचें न्हय. हांगा म्हत्वाचें इतलेंच की हे कवितेंत 'ऑब्जेक्शनेबल' कितें आसा?

हांवें आमचो आमीग कवी-समिक्षक बाळकृष्णजी कानोळकार हाका विचारिल्लें की- 'शिवदासाचे हे कवितेंत तुका आक्षेप घेवपा सारकें कितें दिसलां?' तर ताणें 'कवितेंत आक्षेप घेवपा सारकें आपल्याक कांयच दिसूंक ना' अशें उतर दिल्लें आनी फुडें ताणें आपल्याक 'कांयच दिसूंक ना' अशी जाप दिल्ली. आनी फुडें ताणें आपल्याक हे कवितेंतली चेडी झाडा पोंदाच कित्याक उबी रावल्या तें मात नीट कळूंक ना अशेंय म्हणिल्लें.

बाब कानोळकाराची ही क्रेरी आयकून हांवें शिवदासाची ही कविता परत वाचून काडली आनी म्हाका जाणवलें की हें झाड कवितेंत प्रतिकात्मक रूप धारण करता. कारण हांगा झाड हें फुलपी, फळपी अशे जिणेचें प्रतीक जावन आसा. उलट 'ही' बायल मारून-मारून जीण काबार करूंक सोदपी जिणेंतल्या विध्वंसाचें म्हळयार मर्णाचेंच प्रतीक जावन आसा. हातूंत एक काव्यात्मक कॉंट्रास्ट आयला. जिणेच्या झाडा पोंदा रावोन ही बायल आपल्या मर्णाच्या मिणाक आपयत आसा. समजा, कवीन जर ही बायल बसस्टॅन्डार उबी आसा अशें दाखयल्लें जाल्यार तातूंत अशी आशयाची परिमाणां वाडची नासली.

पूण हो विध्वंसाचो रस्तो तिणें कित्याक लागी केला? तर पयशे मेळोवपाखातीर! हाचोच अर्थ ती चेडयेपणां करता ती आपली स्वताची वासना भागोवपा खातीर न्हय, तर फकत तातुंतल्यान पयशे मेळोवपाखातीर. म्हळ्यारूच ही बायल 'हॅव नॉट' समाजांतली आसा. तिका भूक लागप, पोलक्यांत पयशे न गावप ह्यो सगल्यो गजाली तिका शरीरविक्रय करपाक प्रवृत्त करीत आसता. तिणें पान खावप, लोकांक दोळे मोडप, हांसप, मुरगटप हो तिच्या धंद्याचोच एक भाग जावन आसा. पूण म्हत्वाचें म्हळ्यार कवी तिचेकडे वासनेन वा भोगवस्तू म्हणून पळयना वा वाचकांची वासनाय तो चाळोवन घालीना. उलट ताका तिचो किंवाटो येता. म्हणटकच हे कवितेंत अश्लिलता खंय आयली? हातूंत बायलांचें विकृत चित्रण खंय आयलें? हातूंत चित्रण आसा तें एकेच विकृत बायलेचें, समस्त बायल मनशेचें न्हय. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार तिका अशी विकृत कोणें केल्या? - तर हे सामाजीक, आर्थिक विषमतेनूच! हांगा कवितेंतली ही बायल 'सोरो मार मार मारतली' अशें म्हणटा. सोरो खुब्ब केन्ना मारतात? जेन्ना मनशाचे जिणेंत फ्रस्ट्रेशन आसता तेन्नाच! हे बायलेचे जिणेंत फ्रस्ट्रेशन भरलां ते खातीर ती सोरो मार मार मारपाची भाशा उलयता. पूण हें फ्रस्ट्रेशन खंयसून आयलें? - तर होवूय परत ह्या सामाजीक, आर्थिक विषमतेंतल्यानूच.



ही कविता लिगल आस्पेक्टांतल्यान पळोवपूय हांगा म्हत्वाचें थरतलें. जेम्स जॉईसच्या 'युलिसिस' हे कादंबरींतल्या ऑब्सेनिटीच्या केसीचेर निवाडो दितना कोर्टान स्पश्ट म्हटलां की - "A work investigated for obscenity must be considered in its entirety." म्हळ्यार 'चेडी' हो शब्द वापरलो म्हणून तातूंत ऑब्सेनिटी येवंची ना. ही कविता entirety न पळयत जाल्यार लोकांक दोळे मोडपी, लोकांक भूल घालपी, हांसपी, मुरगटपी, कोंबी

कशी कोंकेवपी, पान खावपी ही बायल आपले जिणेंत सामकी अगतीक आनी पोकळ आसा अशें दिसता.

साहित्यांतल्या ऑब्सेनिटीची व्याख्या करपाक 'मिलर टेस्ट' नांवाचो एक मापदंड युनायटेड स्टेट सुप्रीम कोर्टान १९७३ वर्सा थारायिल्लो आसा. आनी तोच मापदंड आमचो इंडियन पीनल कोड लेगीत सद्या वापरता. ह्या 'मिलर टेस्ट' चे तीन घटक आसात. ते अशे:

१) Whether "the average person applying contemporary community standards" would find that the work taken as a whole, appeals to the prurient interest (समकालीन समाजाचे मापदंड लावपी सर्वसाधारण मनशाक जर एखादी संपूर्ण कृती/कलाकृती कामोत्तेजक, वासना चाळोवपी दिसली जाल्यार.)

२) Whether the work depicts describes, in a patently offensive way, sexual conduct sepcifically defined by applicable state law.(राज्य कायद्यांत व्याख्या केल्ल्या लैंगिकतेच्या आचरणतेचें कलाकृतींत भडक, प्रक्षोभक पद्धतीन चित्रण जालें जाल्यार)

३) Whether the work taken as a whole, lacks serious literary, artistic, political or scientific value.(एखाद्या संपूर्ण कलाकृतींत गंभीर कलात्मक, साहित्यीक, राजकीय वा वैज्ञानीक मुल्यां ना जाल्यार)

खरें म्हळ्यार ऑब्सेनिटीच्यो ह्यो तीनूय व्याख्या हे कवितेक लागना. कारण हे कवितेंत वाचकांची वासना चाळोवपी, लिंग उद्दिपीत करपी अशें कांय ना. हातूंत लैंगिकतेचें भडक, प्रक्षोभक चित्रण ना आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार हे कवितेक एक कलात्मक, साहित्यीक मुल्य आसा. ह्यो तिनूय गजाली हांवें वयर सिद्ध केल्याच.

खरें म्हळ्यार, कायद्याचो कितलोय किस काडलो तरीय अश्लिलता, ऑब्सेनिटी ह्यो गजाली सामक्यो गुंतागुंतीच्यो जावन आसात आनी त्या खातीर ताची ठोस व्याख्या दिवपूय बरेंच कठीण आसा. एका विचारवंतान म्हळां त्या प्रमाण ऑब्सेनिटी ही खंयच नासता, ती फकत मनशाच्या मेंदवांत आसता.

**माडावयलो कीर रे**
**शेंपडी हालयता**
**पान खावन तन्नें चेडूं**
**कोणां आपयता**

- हीं कोंकणी लोकगितांतली अस्सल घरंदाज चेडयेपणा जर आमकां उपकारतात तर एन. शिवदासाची 'चेडी' कित्याक उपकारना? ती घरंदाज न्हय म्हणून? आमचे जिणेंत आमी कांय फावटी 'डबल स्टॅन्डर्ड' वापरतात. हे शिवदासाचे कविते विरूद्ध जो कांय बायलांनी उठाव केला तें ह्या डबल स्टॅन्डर्डाचेंच एक जातिवंत उदाहरण जावन आसा.

बायलांच्यो संघटना गोंयांत बायलां खातीर बरें काम करतात हें मान्य. पूण ताणीं वगीच आपली लुडबूड कला साहित्यांत करची न्हय. कारण कला-साहित्य पारखुपाक एक कलासक्त रसीक मन जाय पडटा तें अशा संघटनेकडे आसतलेंच हाची खात्री ना.

आतां ही कविता म्हळ्यार कितें मोठी कलाकृती अशें हांव म्हणिना. तशी ती सामान्यच कविता. पूण कवीन आपलो अणभव हांगा सच्चेपणान व्यक्त केला, नैतीक नदरेन मांडला हें म्हत्वाचें

हे कवितेच्या रचनेची स्टायल कांय सुवातेर पुंडलीक नायकाच्या 'बांगर बैल' हे कवितेची याद करून दिता. देखीक, हें एक मोख्र पळयात. 'बांगर बैला'च्यो सुरवातीच्यो दोन वळी अश्यो:

**एका बांगर बैलान**
**आताच दावें तोडलां**

आता 'चेडी' हे कवितेच्यो सुरवातीच्यो दोन वळी पळयात:

**झाडा पोंदचे चेडयेन**
**आतांच तोंडांत विडो घाला**

रचनेचे नदरेन साम्य दिसता काय ना? उतरां जरी वेगळीं आसलीं तरी रचनेची 'ॲक्शनपॅक्ड' पद्धत फुडल्या स-सात वळींतूय सिमिलर दिसता. रसिकांनी ह्यो दोनूय कविता मुद्दम कंपेअर करून पळोव येतात. निमणें 'सार्थ दुख्खार्थ' ह्या झेल्यांत 'संघर्श परिक्रमा' नांवाची एक कविता आसा. तातूंत कवी म्हणटा की-

**अदीं मदीं अदीं मदीं**
**अशीं केन्नाय लचांडां येवंक जाय**
**आडमेळ्या पावसा भशेन**
**सुकूंक पाविल्ले धतरेक**
**चरचरून तानसोर लागचो**
**तसो लचांडांचो जागोर**
**मना मनांत नाचूंक जाय**
**अदीं मदीं येवपी लचांडां**
**तुका याद करतात**
**आनी सादूरय करतात**
**शिटूक रावपाक**
**झुजा मळार**

'चेडी' ही कविता बरोवन एन. शिवदासाचेर एक लचांड आयलांच. पूण ह्या लचांडाचो जागोर आमच्या रसिकांच्या मनांतय जागलो हेवूय कितें कमी न्हय!



# KEEP GOA CLEAN

**You can help the authorities in safe disposal of 'Household/Municipal' Solid Waste as under**

1) Do not litter.
2) Avoid the use of plastic bags.
3) Collect household 'wet' waste (biodegradable 'kitchen/garden' waste) and 'dry' waste (non-biodegradable) in separete containers.
4) Use 'wet' waste for conversion into manure in your 'backgarden'.
5) Dispose off 'PET' bottles, plastic bags, glass bottles, metals and paper through PET collection centres and scrap dealers.
6) Dispose off remaining 'wet' and 'dry' waste separately through the Municipal/Panchayat authorities.

**Please Note**

*'Municipal/Household'* Solid Waste increases with the increase in our standard of living. It is mandatory under the law for each Municipality/Village Panchayat' to collect, treat and dispose off 'Municipal/Household' Solid Waste in a safe and sanitary manner




**Government of Goa**
*Issued in public interest by the*

**Department of Science, Technology & Environment**
**Saligao, Goa.**

# कोंकणी साहित्यकार प्रागतीक? कोण सांगता!

**- माधवी सरदेसाय**

**फा**टल्या कांय दिसां सावन एन्. शिवदासाले एके कवितेचेर वाद चलता. तो सुरू जावंचे पयलीं 'सार्थ दुख्खार्थ' कविता झेल्यांतली ती कविता घेवन एक विद्यार्थिनी म्हज्या कॅबिनांत आयली आनी म्हणूंक लागली, 'ही कविता वाचात आनी तुमकां कितें दिसता तें सांगात....' कविता वाचली आनी म्हणलें, 'ही एक 'फशिल्ली' कविता... पयलें म्हळ्यार, 'चेडी' हें उतर कवितेंत येवंकूच नाशिल्लें जाल्यार ती अदीक प्रभावी जावपाची. टी.व्ही. वयल्या 'सी. आय्. डी' सिरियलांत प्रेत दाखयतात आनी 'यह लाश है!' अशें कितें तरी कोण तरी म्हणटा आनी कॅमेरो दाखयता तेंच उतरांय सांगतात तेन्ना अणभवाची तीव्रताय भंगता. तशें हे कवितेंत जालां. दुसरें, 'जीण चेडी/ अशी कावार करतली' ह्यो कवितेच्यो निमाण्यो वळी वाचून ही कविता जीण कावार करपी ते बायल-मनशेचें दुःख उकतायता जावंक जाय अशें दिसता खरें. पूण तरी कविता वाचून म्हज्या मनाक 'चर्र' जायना.. कित्याक काय? जाप सोदपाचो यत्न करतां तेन्ना दिसता, कवितेंत वयर आयिल्ल्या तिच्या 'रंगेल' वर्णनाक लागून. हांव कॉलेजींत आशिल्लें तेन्ना राज बब्बर आनी पद्मिनी कोल्हापुरेचो एक सिनेमा आयिल्लो (नांव विसरलें). तातूंत बलात्काराची एक घडणूक आशिल्ली. सिनेमा बलात्कार करतल्याचो पाखो घेना आशिल्लो. पूण चडशे पळोवपी बलात्कार कसो दाखयला तेंच पळोवंक तिकेट काडून सिनेमाक वताले तशें शें कितें हे कवितेंत जाल्ले वरी दिसता. म्हाका कविच्यो मर्यादा ती दाखयता.'

हे कवितेचेर कांय जाणांनी आपणाल्यो प्रतिक्रिया दिल्यो. (हांवें फकत 'सुनापरान्तां'त आयिल्ल्यो प्रतिक्रिया वाचल्यात.) उपरांत २७ एप्रील २०११च्या

> **'दादलेपण' सोडून जांचे कडेन दुसरें कसलेंच भांडवल ना ते बायलेच्या कसल्याय विरोधाक तिचो 'घागरो वयर काडुनू'च जाप दीत आयल्यात.**

'सुनापरान्तांतल्या 'मनमंच' सदरांत शिवदासबाबान आपणालेंय मन आनी मत उकतें केलें. ह्या 'नाक खंय आनी आदोळी खंय?' माथाळ्याच्या लेखाचे सुरवेक हे विशीं टी. बी. कुन्हा सभाघरांत जाहीर चर्चा दवरुपाचो नागेशबाब करमलींचो विचार आसा म्हणपाचें समजलें. हाकाच धरून ही म्हजी प्रतिक्रिया.

हे कवितेचेर चर्चा जावचीच. वांगडा शिवदासबाबांलेच एके कथेचेरूय ती जावची अशें म्हाका दिसता.

'सुनापरान्ता'च्या चवथ २०१० खाशेल्या आंकांत (पानां- १६-१९) ही कथा उजवाडा आयिल्ली. कथेचो माथाळो 'दादलो', पूण खरी ती बरयल्या 'बायलां'चेर. 'बायलांच्या पंगडाचें फुडारपण करपी सॅबिनिका' (पान १६) हे कथेचें मुखेल पात्र. ताच्या हातांत 'गांव बचाव आंदोलनाची दोरी'य आसा (पान १६). 'ताचो घोवूय चळवळींतलो (पान१९). ह्या सॅबिनिकाची आल्बेर्टिना म्हूण 'एक सांगातीण आसा, ती वकील आसा, समाजीक वावुरपी म्हूण तिका लोक वळखतात (पान १७). हीं दोगांय, 'समाज वावुरप्यांचीं रुपडीं घालून समाजांत ब्लॅकमेलींग करून आपणाली जीण सुखद करपी मनशां (पान १७).

कांती म्हूण एकलें चली सॅबिनाका म्हऱ्यांत एक केस घेवन येता. कांती आनी सॅबिनिका मदलो हो संवाद पळोवचो:

**(कांती :)** 'कांय म्हयन्यां पयलीं हांवें आनीक एक दुसरो दादलो धरलो. म्हणचे फारायलो.'

'आं, समजलें, ओके, इंण्टरॅस्टींग. सांग, फुडें कितें?'

'हो दुसरो मनीस म्हणल्यार म्हजो दुसरो दादलो जो आसा तो आंकवार न्हय; लग्न जाल्लो. ताका हांवें म्हज्या जाळ्यांत ओडलो आनी ताचे कडल्यान कितें करपाक जाय तें करून घेतलें.'

'मोटें चालाक मगो तूं. समजलें. म्हणचे, हें बगलांट त्या लग्न जाल्ल्या मनशाचेर घालपाचें आनी ताका ब्लॅकमेल. आनी फुडलें सांगूं?'

'नाका, तुमी ह्याच प्रोफेशनांतलीं म्हणटकच सगलें तुमकां सांगपाची गरज ना.' (पान १८)

मुखार कांती सॅबिनिकाक सांगता,

'ज्या दादल्या कडेन तुवें रंगारंग करपाचे प्रयत्न केले, ताणें म्हाका एक दीस सहज हातासलें' (पान १८)

मागीर सॅबिनिका येवजिता-

'म्हणजे, म्हज्या चपक्यांतल्यान सुटिल्लो दादलो कांतीक सांपडलो, तोय बी असो! आख्खो, सरसकट?' आनी 'आपणाले कुडीचेर नदर भोंवडायत तें आपलेंच मेजमाप घेवपाक' लागता. (पान १८)

कांती ताका फुडें सांगता-

'हय, सॅबिनिकाबाय, तुका त्या दादल्या कडेन लागोलेपणां करपाक जमलीं नात. तुवें तो दादलो मेळना फुडें ताका खेम घाली शरिरसुखाची... पळय तूं आपणा कडेन. तुका

तो फातरा पोंदचें काळुंदर म्हणटा', तुज्या वाटकुळ्या काळ्या रुपाक डांबरा थापो म्हणटा, तुजें हड्डें म्हणल्यार फकत उकडललीं तांतयां, तरी बरें फ्राय आमलेट म्हणलें ना'. (पान १८)

मागीर सॅबिनिकाक खूब राग येता. 'संदी गावतात तेन्ना त्या दादल्याक सारकें दाखयतां' (पान १८) अशें तें चिंत्ता.

आनिकूय जायतें कितें...

कथेंत निमाणें-

'दादल्या'क कांयच जायना! उरफाटें, एक बरो उद्‌देजक म्हूण ताका राष्ट्रीय पुरस्कार मेळटा... कितल्योशयो संस्था ताचो सत्कार करूंक सोदतात! सॅबिनिका फडफडटा हात पांय बडयता, त्या दादल्याक सोडचें ना म्हणटा आनी थंड उदक घटघटीत पिता (पान १९)

ल्हानश्या आमच्या गोंयांत फिक्शनाचो आडोस घेवन बरोवप्यान कोणाचेर बाण मारल्यात तें कळूंक वेळ जाय? बाण मारूं, पूण साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार जोडिल्लो लेखक आनी, एके जापसालदार कोंकणी संस्थेचें अध्यक्षपद सांबाळपी मनीस ते सोडटा तेन्ना तांकां, आनी साहित्यकृती म्हूण कथेकूय पांवडो आसचो ही अपेक्षा बाळगप चूक?

ही कथा वाचना फुडें ती बरोवपा फाटली 'प्रेरणा'य म्हज्या लक्षांत आयिल्ली-

२०१०च्या एप्रील काय मे म्हयन्यांत इंस्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझ संस्थेन पणजेच्या सिद्धार्थ बांदोडकार हॉलांत बायलांचो साहित्यमेळ घेतिल्लो (तातूंत हांवूय एका विशयाचेर उलयल्लें.) त्या मेळांतल्या एका सत्रांत जिचेर हे कथेंतल्यान बाण सोडल्यात तिणें शिवदासबाबांच्या हातांतल्यान संस्थेचें उगडास-चिन्न घेवपाक न्हयकार दिल्लो...

हय, शिवदासबाब, 'नाक खंय आनी आदोळी खंय'!

'दादलो' कथा वाचून म्हाका राग आयिल्लो तितलेंच दुःखूय जाल्लें, दिशिल्लें, 'वस्त्रहरणू'च हें एके तरेचें आनी, खूब वर्सां फाटली एक कोडू याद जागी जाल्ली-

राजभाशेचें आंदोलन चलतालें तेन्ना दिवाळेचे काय नातलांचे सुटयेंत हांव पुण्या सावन गोंयां आयिल्लें. त्याच दिसा लोहिया मैदानार मराठीवाद्यांची सभा जावपाची आशिल्ली. 'या रे तांचे सभेक?' म्हज्या एका इश्टाक हांवें विचारलें आनी आमी दोगांय सभेक गेलीं. मुखावयल्या कदेलांचेर वचून बसलीं. मातशे कुशीक प्रियोळच्या आमच्या इश्कोलांतलो एकलो शिक्षक बशिल्लो. ताचे सरीं वचून 'सर!' म्हूण हडकुनूय हांव आयिल्लें. मुखार सभेंत एकल्यान उलयतना क्रिस्तांवांक उल्लेखून 'दुक्करखाऊ' उतर वापरलें आनी लोहिया मैदाना भायल्यान 'हुश्श! हुश्श!' आयकूंक येवंक लागलें. आमकांय बी तें आयकून 'स्फुरण चडलें' आनी मुखार बशिल्लीं आमीय हुश्यो घालपाक लागलीं. निमाणें सभा भंगली. पुलिसांनी कांय जाणांक धरून व्हेले. तातूंत म्हज्या इश्टाकूय व्हेलो. एकल्या पुलिसान म्हाका सांगलें, 'बाय, तूं घरा वच. आमचे कडेन बायलो-पुलीस नात....' हांव घरा गेलें.

तेवटेन पिरवळा रवीन्द्रबाबांगेर रातचे खंय कांय जाण पियेवन तर्र जावन मोर्चा घेवन आयले. तांतल्या एकल्यान-म्हज्या त्या शिक्षकान -खंय रवीन्द्रबाबाक सांगलें, 'तुमी तुमचे चलयेक सभेक धाडिल्ली, आमी जाणांत... आतां ती कशी म्हाड्डोळा पांय दवरता, आमी पळेतले. बाजारांत नागडी करतले आमी तिका!'

दुसऱ्या दिसा, रवीन्द्रबाबान म्हाका फोनार हें सांगलें आनी म्हणलें, 'विरोधी मतां थंडसाणेन आयकून घेवंक येना जाल्यार कित्याक गेल्लें सभेक?' आनी मुखार सांगलें, 'ह्या शेनवारा आयले बगर रावं नाका. तुका कोण कितें करता, हांव पळेतलों!'

ह्या उतरांनी धीर मेळिल्लो खरो, पूण ते घडणुकेन एक कोडू जाणविकाय जाल्ली- इतलो तेंप 'गांवची धूव' आशिल्लें हांव ते घडकेक फकत एक 'बायल-मनीस' जाल्लें. म्हजे सुवातेर कोणूय दादलो आशिल्लो जाल्यार ताका बुद्द शिकोवंक घडये पेट घालपाचे. म्हाका बायल-मनशेक बुद्द शिकोवंक पेट न्हय, म्हज्या कपड्यांक हात घाल्यारूच पुरो आशिल्लें.

पुरातन काळा सावन अशेंच चलत आयलां. 'दादलेपण' सोडून जांचे कडेन दुसरें कसलेंच भांडवल ना ते बायलेच्या कसल्याय विरोधाक तिचो 'घागरो वयर काडुनू'च जाप दीत आयल्यात. इतलेंच न्हय, दादल्यां वयलो रागूय तांणी हे भाशेन बायलेचेर काडला... संवसारभरच्या सगल्या संस्कृतायांनी आपणालो भारूय बायलेचेर घाला आनी म्हेळूय तिच्याच तोंडार मारला.

आनी, कोंकणी साहित्यांत हें सगलें राजरोसपणान चलूं येता? कोंकणी साहित्यकार प्रागतीक म्हूण मानून घेवन आमचीच फाट थापटून घेवपाची आमकां संवय जाल्या. ही 'प्रागतीकताय' तपासून पळोवपाची गरज आसा.

शिवदासबाबांचेर हे फावटीं 'संकट' आयलें तेन्ना 'आमी आसात तुजे बराबर' म्हणटल्यांनी ही कथा वाचून तांकां 'हें कितें?!' म्हूण विचारिल्लें आनी जिका 'बुद्द शिकोवंक' ती बरयल्या तिका 'आमी आसात तुजे बराबर' म्हूण सांगिल्लें जाल्यार म्हणूं येतालें, आमी खऱ्यांनीच प्रागतीक. काय, आमची प्रागतीकताय, आमची समता धर्म आनी जात हांचे शिमे भितरूच उरल्या, 'बायले' मेरेन पावंकूच ना? बायलांची चळवळ, बायलांचे प्रस्न हें सगळें फकांड, ही चळवळ, हे प्रस्न घेवन बसल्यांत तीं 'तसलींच' अशेंच आमकां - बायलांकूय बी दिसना मूं?

शिवदासबाबांले ते कवितेचेर जाहीर चर्चा जावची, तशी हे कथेचेरूय जावची. आनी, आयजवेर फकत 'बायलांच्या साहित्या'चेर चर्चासत्रां जायत आयल्यांत तशीं हे तरेच्या 'दादल्यांच्या साहित्या'चेरूय हे मुखार ती जावचीं, ना जाल्यार कोंकणी साहित्यीक चळवळीची अवनत जावंक वेळ लागचो ना.

■ ■ ■



- कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१



# निर्धास्त जीण

*इतल्या म्हणसर तें तीन-चार वर्सांचें भुरगें उठलें. आवय, सासुमांयकडे हातवारें करून व्हडल्या व्हडल्यान खबरो मारतालीं. व्हडले भयणीन धांवत येवन तिका खेंव मारली. धाकटे भयणीची अपुरबाय करून उमो घेतलो. तोंड धुवपाक उदक दिलें. फणी दिली. इल्लेंशें भुरगें आपलें तोंड आपुणूच धुतालें आनी केंसूय उगयतालें.*

**आ**मी दिल्ली स्टेशनाचेर पावलीं तेन्ना सकाळचीं चार वरां जाल्लीं. सगल्याक काळखाचें साम्राज्य आसलें तरी दिव्यांच्या उजवाडांत सगलें स्टेशन चकचकतालें. आवाजाची, दिव्याच्या उजवाडाची पर्वा करिनासताना कांय लोक चादर, पेपर घालून आपल्या हाताचें उशें करून सुस्त न्हिदिल्ले.

"साब टॅक्सी चाहिए?" म्हूण एका टॅक्सीवाल्यान आमकां हटकिलें. तोवूय बाबडो पोटाखातीर न्हीद पिड्डचार करून गिरायकांच्या शोधार्थ स्टेशनाचेर आयिल्लो. ए. सी. डब्यांतल्यान भायर सरतना टॅक्सीवाल्यान आमकां पळयल्लें. म्हणपाक लागलो. "साब टॅक्सी में ए.सी. है" म्हज्या घरकारान टॅक्सीचें भाडें ठरोवन निझामउद्दीन स्टेशनाचेर आमकां व्हरपाक सांगलें.

स्टेशनाचेर देंवता थंय आसा. आमचें सामान पळोवन एक कुली धांवत आयलो. पयशे ठरोवन ताणें सामान उखलपाक सुरवात केली. ताच्या उलोवण्यांत काम करपाची तळमळ आशिल्ली. दोन बॅगां तकलेर दवरलीं आनी दोनूय खांदाक एक एक बॅग लायलें. तो झपाझपा चलतालो. त्याच वेगान तो सपणां चडटालो आनी देंवतालोय बी. आमच्या हातांत ल्हान पिशव्यो आसून लेगीत ताच्या बरोबर वचपाक जमनाशिल्लें.

स्टेशनाचेर पावलीं तेन्ना आतांच पावस पडून गेल्याची सुलूस आमकां लागली. सकाळचें थंड वातावरण. वाऱ्याची झुळूक आंगाक स्पर्श करून वताली तेन्ना मन प्रसन्न जातालें. मळबांत काळीं कुपां दाटिल्लीं. मर्दी मर्दी विजुबाय मळबांत तालार नाचतालें.

गोंयांत वता ती 'मंगला एक्स्प्रेस' रेल्वेगाडी येवपाक अजून तीन वरां आसलीं. कुलीन आमचो डबो ज्या जाग्यार थांबतलो थंय सामान हाडून दवरलें. थंयच एक बांक आशिल्लो. बांकाच्या वयर फॅन लावन सरकारान प्रवाश्याखातीर वाऱ्याची सोय केल्ली. त्या वाऱ्याचें सूख घेत आमी त्या बांकाचेर बसलीं.

कुशीकूच एक राजस्थानी घराबो मदीं सामान दवरून, त्या सामानाचें उशें करून वाटकुळोच सुस्त न्हिदिल्लो. आपल्या कुडींची वंय केल्ल्यान तें सामान चोरपाचें धाडस कोणूच करचोना. थंयच एक तीन चार वर्सांचें चली सुस्त न्हिदिल्लें. निखटच्या जमनीर. पावसाची वावझड लागून लेगीत ताका जाग आयलिना. पोंदा चादर ना. गादी ना. इतलें आसून लेगीत थंडी जावपाचो भंय ना. गोड तोंडाचें तें निरागस चली संवसारांतले चिंतेपासून खूब पयस आसलें आनी न्हिदेचें सूख अणभवतालें.

ताच्या व्हडल्या भावंडांनी उठून तोंड धुलें. बॅगांतली फणी काडून वेवस्तीत केंस वळयले. आवयन एक डबो उगडलो. काजळाची डबी काडून चल्याक आनी चलयेक काजळ घातलें. सामानांतल्या गर्देतल्यान भुरग्यांनी ल्हानशें एक बॅग ओडीत भायर काडलें. बॅगांतल्यान बारीक बारीक शंकरपाळे सारके कुडके भायर काडले आनी खावपाक सुरवात केली. खातालीं म्हणच्या परस तीं चाबडायतालीं. खातां खातां तांच्यो खबरोय रंगांत आयिल्ल्यो. मदीं मदीं उदक पितालीं.

इल्लीशीं भुरगीं तीं. पूण कितलीं सामाधानी? खा, खा म्हूण फाटीक लागपी आवय ना. दूद पिवपाखातीर हट्ट ना. मेळटा तें खावन तृप्त.

म्हज्या मुखारूच तांच्याच पंगडांतली एक बायल बशिल्ली. आसतली वीस बावीस वर्सांची. घडये नवीनूच व्हंकल आसुये! तोंड पदरान धांपिल्लें. तिणेंय नटपाक सुरवात केली. केंस उगयले. पावडर लायलो. फाटल्यान एक दादलो तिका टकामका पळयतालो. तिका ताची नदर आवडली ना.



तिणें आनीकूय तोंडावयलो पदर सकयल काडलो आनी म्हजेकडे पळोवन गोड हांसली. तांबडी लिपस्टीक काडून आपले वोंठ रंगयले. तूं बरें दिसता म्हूण हांवें तिका नदरेनूच सांगलें. परत ती मुमुरखीच हांसली.

इतल्या म्हणसर तें तीन-चार वर्सांचें भुरगें उठलें. आवय, सासुमांयकडे हातवारें करून व्हडल्या व्हडल्यान खबरो मारताली. व्हडले भयणीन धांवत येवन तिका खेम मारली. धाकटे भयणीची अपुरबाय करून उमो घेतलो. तोंड धुवपाक उदक दिलें. फणी दिली. इल्लेंशें भुरगें आपलें तोंड आपुणूच धुतालें आनी केंसूय उगयतालें. ताणेंय बॅगांतल्यान खावपाक काडून चाबडावपाक सुरवात केली. इतले ल्हान पिरायेर तांचे भितर आशिल्लें स्वावलंबन पळोवन म्हाका अजाप जालें.

चार-पांच हातांच्या अंतराचेर एक दादलो तकलेर चादर ओडून न्हिदिल्लो. जमनीचेर पुट्टो घातिल्लो. ताचेर जमखण आनी तकलेपोंदा उशें. कुशीक मोबायल आशिल्लो. मोबायल वाजलो म्हणटकर पळयतालो. बंद करतालो आनी परत न्हिदतालो. लोकांचें येवप-वचप वाडलें तसो तो उठलो. ताणें हांतरूण कवळ्ळें आनी आमी बशिल्ल्या दोन बांकड्यांमदीं ल्हानशा जाग्याचेर वेवस्तीत दवरलें. थंयच तोंड धुलें आनी निळ्या रंगाचे ताडपत्रीन गुठलायिल्ले एके व्हडले पोटलेकडे गेलो. म्हाका दिसलें घडये रेल्वेंतल्यान आयिल्लें सामान आसुये. जसजसो तो दोरी सोडटालो तसतशें ताडपत्री भितरलें गुपीत कळपाक लागलें.

तो ताचो गाडो आसलो. थंय बिस्किटी. पिवपाचीं पेवणां, कुलपां, चावयो, उशीं, कुरकुरें, टॉमेटो चिप्स अश्यो प्रवाश्यांक गरजेच्यो जायत्यो वस्तू आसल्यो. उठल्या बरोबर गिरायक येवपाक लागलें. ताका च्या घेवन एक भुरगोय आयलो. ताणें च्या घेतली आपल्याच दुकाना वयलो टायगर बिस्कीटीचो पुडो काडून, बिस्कीट च्यांत बुडोवन नास्त्याचो आस्वाद घेतलो.

कितले सुखी आनी समाधानी लोक हे! खंयच कसलीच धांवपळ ना. येता ते परिस्थितींत खोशयेन जीण जगपाची कला हे लोक शिकल्यात. तांकांय चिंता आसतल्यो! पूण आमचे भशेन सगल्यो चिंता तकलेर घेवन सुतकी तोंडां घेवन हे लोक भोवनांत. प्रवासांत सुद्दां ह्यो चिंता आमची फाट सोडीनात. आमच्या भुरग्यांक हून दूद मेळटलें? न्हावपाक हून उदक मेळटलें? नुस्त्याचें जेवण मेळटलें? ह्यो अर्थ नाशिल्ल्यो चिंताच आमचें अर्दें आयुश्य काबार करतात.

हे पृथ्वीचेर जल्माक आयिल्ल्या प्रत्येक जिवाक जगचेंच पडटा. रडत-मरत जगच्या परस, येता ते परिस्थितीचें भांगर करून जगल्यार जीण सुखी जातली हो संदेश ह्या सामान्य मनशांनी आमकां दिलो.



१९ डिसेंबर १९६१. गोंयच्या इतिहासांतलो एक भांगरा दीस. ह्या दिसा गोंय मुक्त जालें. आयज आमी गोंयच्या मुक्ततायेचीं ४९ वर्सां पुराय करतात आनी पन्नासाव्या वर्सांत पावल घालतात. फुडल्या वर्सा गोंयचे मुक्तीक ५० वर्सां पुराय जातलीं. तर ह्या निमतान आमी त्या ७८ हुतात्म्यांक याद दवरप सामकें गरजेचें. तातुंतलोच म्हजो खरो हिरो म्हणटा तो एकवीस वर्सांचो तरनाटो सरदार कर्नाल सिंग बनिपाल. हो पंजाबचो तरनाटो. ताणें गोंयचे मुक्तताये खातीर आपलो प्राण वगडायलो. पूण आमी ताका सगळे विसरले हाचें दुख्ख जाता. ताणें पेडणे म्हालांतल्या पत्रादेवी हांगा आपलें बलिदान दिलें. तो दीस आसलो १५ ऑगस्ट १९५५.

# पत्रादेवीचें इतिहासीक स्मारक

# कर्नाल सिंगाचें बलिदान

सरदार कर्नाल सिंगाचो जल्म चाक गांवांत पंजाबांत जालो. तारीक आशिल्ली ८ जून १९३४. तो सळसळट्या रगताचो विद्यार्थी फुडारी आशिल्लो. मागीर तो शिक्षक जालो, लुधियाना गांवांत. ताणें शिक्षक चळवळीचें फुडारपण केलें. एकविसाव्या वर्सा ताचें लग्न जालें. गोंय तेन्ना पोर्तुगिजांच्या शेकातळा आसलें. गोंयचो मुक्तीलढो चलतालो. हजारांनीं गोंयकार भाव-भयणी ह्या लढ्यांत आसले. गोंयचो मुक्तीलढो भारतीयांचोय जावचो आनी गोंयांक मुक्त करपाक भारतीयांचो पालोव लाभचो ह्या उद्‌धिश्टान गोवा विमोचन सहायक समितीची पुण्याक १४ मे १९५५ वर्सा स्थापना जाली. हे संस्थेन भारतीयांक उलो मारलो गोंयच्या मुक्तीलढ्यांत उडी घेवपाक जायते भारतीय तरणाटे मुखार सरले. तांतलोच सरदार कर्नाल सिंग बनिपाल. लग्न जावन फक्त तीन म्हयन्यांभितर ह्या पंजाबी तरणाट्यान गोंयच्या मुक्तीलढ्यांत आपलें सर्वोच्च बलिदान दिलें. आपलो जीव गोंयचे मुक्तायेक अर्पण केलो. हो सत्त्याग्रह आमच्या पेडणे म्हालांत शिमेर आशिल्ल्या पत्रादेवी ह्या गांवांत जालो. १५ ऑगस्ट १९५५ वर्सा हो एक रक्तरंजीत इतिहासीक दीस. निशस्त्र सत्त्याग्रहींक पोर्तुगेजांनी आनी चडकरून तांच्या गोंयच्या नोकरांनी गुळी घालून अमानूश तरेन मारले. त्या दिसा ३२ सत्त्याग्रहीनी बलिदान दिलें. तातूंत सरदार कर्नालसिंगाचें बलिदान सगळ्यांत धाडशी, सर्वोच्च आशिल्लें. सत्त्याग्रहींचो जथो बांदासावन पत्रादेवीक पावलो. एका जथ्याचें फुडारपण मध्यप्रदेशांतली सागर गांवची एक तरणाटी विधवा श्रीमती सहोदरादेवी राय करताली. तिच्या हातांत भारतीय तिरंगो आसलो. पत्रादेवी पावतगीर पोर्तुगेजांच्या सोल्दादांनी गोळीबार सुरू केलो. एक गुळी सहोदरादेवीच्या भूजाक लागली आनी ती सकयल पडली. पूण तिणें तिरंगो जमनीक लागपाक दिलो ना. हें पळोवन फाटल्यान आशिल्लो कर्नालसिंग रागान फुडें आयलो. पोर्तुगेजांनी एके अस्तुरेचेर गुळी चलयल्ली कर्नालसिंगाक सहन जालें ना. ताणें फुडें येवन आपलो शर्ट पिंजलो आनी पोर्तुगेज आनी गोंयकार सोल्दादांक धमकायले आनी हिंदीन म्हळें, 'कायरो अभी लगाव, मेरे सीने पर भी गोली लगाव!' पोर्तुगेज सोल्दादांनी कर्नालसिंगाच्या छातयेर गुळी घाली आनी ह्या शुरविराक मारलो. पत्रादेवीची भूंय कर्नाल सिंगा सारक्या शुरविरांच्या रक्तान पवित्र जाली. पत्रादेवीच्या स्मारकार कर्नालसिंगाचें खंयतरी एका कोनशाक नांव आसा. पूण आमी गोंयकार ताका विसरले. कोणाक कर्नालसिंगाचें खबरूय ना. कर्नालसिंगचो खरें तर पत्रादेवी पुतळो बांदपाक जाय आशिल्लो. ताचें नांव थंयच्या रस्त्याक दिवपाक जाय आशिल्लें. गोंय महाराष्ट्रांत घालपाक फुडाकार घेतिल्ल्या लोकांचो जयजयकार जाता. तांचे पुतळे बांदले. गोंय विकपाक काडटल्या लोकांचे पुतळे सगळ्याक दिसतले, पूण गोंयचे मुक्तीखातीर 'शहीद' जावपी हो पंजाबी तरणाटो लोकांच्या स्मरणांत ना हाचें दुख्ख दिसता. पत्रादेवीच्या ह्या इतिहासीक स्मारकाक म्हजे सलाम. कर्नालसिंगाच्या बलिदानान ती भूंय पवित्र जाली. ताका म्हजो सलाम! जय हिंद! ■




# आजगांवची कातर

गोंयांत आमकां अजाप करपी अजापां खूब आसात. ना तें तांच्या बद्दल आमचे मर्दी जागृताय. हांकां आमी इंग्लीशींत 'WONDERS OF GOLDEN GOA' म्हणूं येता. हें सदर तींच भांगराळीं अजापां तुमच्या मुखार दवरता. तो मागीर गोंयचो सगळ्यांत व्हडलो दोंगोर सोसोगड जावं वा चिखले-मुरगांवच्यो होंवऱ्यो.

अशेंच एक अजाप म्हाका सांपडलें बार्देस म्हालांतल्या 'Valley of Flowers' म्हळ्यारूच 'फुलांचें देंगण' आजगांव ह्या गांवांत. आजगांव वा आझगांव हो म्हापशाक तेंकला. खोर्ले-म्हापशेचो चडाव देंवून ह्या पांचव्या देंगणांत आमी पावतात. चलत चलत मुखार आमी वचत रावतात. दोनीं वाटांनी सोबीत 'दायज घरां' आमकां दिश्टी पडटात.




अशें म्हणटात की खोर्ले-म्हापशेंचो चडाव चडूनच प्राचीन काळांत एका भोंवडेकारान विचारलें, 'आसा रे गांव' तर ताका जाप मेळ्ळी 'हय आसा-गांव' तर हेंच फुडें आझगांव जालें अशें मौखिक इतिहास सांगता. पूण म्हाका तरी दिसता रूचिक गांवठी भाताचो प्रकार 'आझगो' हाचे वेल्यान आयला आसूंये. कारण पयलींचीं गांवांचीं नांवां अशींच 'साळी भाता' वेल्यान साळगांव, भात रोवपी जागावेल्यान 'केर' 'मरड' हीं नांवां आयल्यांत.

दोतोर शॅरॉन डिक्रूज हांणीं म्हाका आझगांव एक 'PYRAMID' आसा अशें सांगलें. आझगांवां आनी 'PYRAMID'! हांव चकितच जालों. कारण आजपर्यंत आमी 'PYRAMIDS' हीं फक्त मिस्र (Egypt) इजिप्त देशांतूच आसात अशें आमी सगळे जाणा आसले. पूण गोंयांत आनी 'PYRAMID' हें तर एक अजापूच. तर हेंच तें अजाप 'Wonders of Goa' आझगांवची 'कातर'.



आझगांवचे लोक ह्या अजाप करपी दायजाक कातर म्हणटात. तर ही कातर म्हणल्यार कितें? इंग्लिशींत आमी तिका 'SCISSOR' म्हणटात. तर तुमी फोट्यांत पळयलें जाल्यार तुमकां ही लांबलचक उबी 'Pyramid' आकाराची कातर कशी दिश्टी पडटाली. तर तिच्या सोदान हांव आनी म्हजे कांय इतिहासाचे विद्यार्थी एक ल्हानशी दोंगुल्ली चडपाक लागले. काजीचीं झाडां आनी हेर झाडां भितरल्यान वाट काडीत आमी ह्या सुंदर laterite stone कातरीकडेन पावले. कातरीकडल्यान जो सैम दिसता तो तर सामकोच मनभुलावणो. पयस एक इगर्ज (Church) दिसता. ही कातर म्हणल्यार प्राचीन काळांतली तीन गांवची खुटी. गांवच्यो शिमो दाखोवपी. थंयच्या थळाव्या लोकांनी म्हाका सांगलें की ही पोर्तुगेज पूर्व (PRE-PORTUGUESE) सामकी प्राचीन कातर. कातर उबी धरतगेर तिचे दोनीं पांय जशे एक कडेन दिसतात तसो तिचो आकार.

तर खंयचे हे तीन गांव? थळावे लोक सांगतात 'आझगांव-शिवोले-हळदोणे'. तर हांगा आदल्या तेंपार कोंबे कातरताले म्हणूनय बी कातर म्हण तिका पाचारतात आसूं ये!

पूण खऱ्यांनींच हें एक गोंयचें अजापाचें दायज (heritage). अशें दायज आमी आनी गांवच्या लोकांनीं सांबाळुंकूच जाय. तो आमचो प्राचीन इतिहास. कातरीच्या म्हऱ्यांत रावतकच तर स्वताकूच एक चमत्कारीक कसो भास जाता. कातरीचो मौखिक इतिहास लोकांमदीं आसा पूण लिखीत अशें कांय ना. तर आझगांव वतले जाल्यार कातरीक भेट दिल्या बगर रावं नाकात. ती तुमची वाट पळयता. ■



**- प्रा. प्रजल साखरदांडे**
एस-३, बी-३, पुर्वा अपार्टमेंट्स,
मरड, करंझाळें - गोंय.
फोन : ७८७५२४००६९



# कावळ्या काक्या रे...

एक आसलो गांव. गांवाभायर आसलें एक देऊळ. देवळासामकार आसलो एक पिंपळ. खूब व्हडलो. खूब वर्सांचो. इतलो व्हड की धा भुरगीं 'रिंगा रिंगा रोझीस' करून रावलीं जाल्यारूच पावपाचीं. त्या झाडार तरेकवार वाली चडिल्ल्यो. ताचेर विविंगड शेवणीं रावतालीं. त्या शेवण्यांमदीं थोडे कावळे आसले.

त्या कावळयांमदल्या एका कावळ्याचें नांव आसलें काळू. तो व्हड जालो. ताणें लग्न केलें. ताचे बायलेचें नांव आसलें साळू. तीं पिंपळाचेर सुखान रावतालीं.

एकदीस साळून काळूक सांगलें.

"म्हजे तातयां घालपाचे दीस लागीं पावल्यात. तातयां घालतकीच तांतल्यान पिलां येतलीं. तांकां रावंक घोंटेर जाय."

"मागीर आमी कितें करुंया?" काळून विचारलें.

"आमी बरोसो घोंटेर बांदुया." साळून सांगलें.

"बरें तर! फाल्यांच हांव सुवात सोदतां."

काळू सुवात सोदूंक लागलो. ताणें पिंपळाचेर बरी सुवात सोदून काडली. ताणें रोकडीच ती सुवात साळूक दाखयली.

"आवडली मगो सुवात?" काळून साळूक विचारलें.

"सुवात बरी आसा रे! पूण पिंपळापोंदा आनी पिंपळाचेर घोलींत सोरोप रावतात. ते आमचीं तातयां नाजाल्यार पिलां खायत म्हूण भंय!" साळून सांगलें.

"हय मगो! तें हांवें चितलेंच ना." काळून म्हळें.

"खेरीज रातीकडेन हांगा घुघमां येतात. दिसान घोणी येतात. म्हज्या पिलांक हांचे पसून भंयच न्ही?"

"तूं म्हणटा तें बरोबर आसा." काळून म्हळें.

मागीर साळून म्हळें, "खेरीज कितलींशींच शेवणीं हांगा रावतात. सगळ्यांक खावपाक मेळप तशें कठीणूच दिसता म्हाकां."

साळू कितें सांगता तें काळूक पटलें. तो चिंतूंक पडलो. पूण ताका कांय सुचलें ना. मागीर ताणें विचारलें.

"आतां आमी कितें करूया तर? खंय घर बांदुया?"

साळून ताका सांगलें.

"तूं अशें कर! गांवांत वच. थंय खूबशीं घरां आसात. थंय झाडांय आसात. थंयच्याच एका झाडार बरिशी सुवात पळे."

"थंय शी?"

"थंय पावस बी पडल्यार, लागींच त्या लोकांनी उडयल्लें उश्टें खावंक मेळटलें."

"हें मात खरें तुगेलें. खेरीज मनशां कितें कितें सुकत घालतात. सुके बांगडे, सुकीं सुंगटां, कणगांचे घोंस, पापड, शिरवळ्यो बी.... तेंवूय फारावंक मेळटलें."

"खेरीज लोक नुस्त्याचीं बोडकां बी रस्त्यार भिरकटावन मारतात. तिंवूय खावपाक मेळटलीं." साळून म्हळें.

"कितेंय सांग साळू! तूं तकलेन फीन

आंऽ!'' काळून साळूची तोखणाय केली.

साळू लजलें.

''न्हीद आतां ओगी! फाल्यां फांतेपारार उठून सुवात सोदूंक वचूंक जाय.''

दुसरे दीस काळू उठलो. गांवांत गेलो. घोंटेर बांदूंक बरेशें झाड सोदूंक लागलो. गांवांत ताका दोनचार घरालागीं, रस्त्याचे देगेक एक सोनमोहराचें झाड दिसलें. तें झाड बरेंऽ उंच आसलें. कोणेंय फातर मारल्यार उंच पावचो नासलो. सोनमोहराक हळडुवीं फुलां आयिल्लीं. हाका फळां लागनात. येतात त्यो सांगो. त्यो सांगो खावपाक कोण येनात.

त्या झाडार वयर एके सुवातेर तीन खांदयो तीन सुवातेर गेल्ल्यो. थंय मात्शी खोलगट सुवात आसली. ती खाकोळाची सुवात काळून हेरली.

सांजेर साळूक घेवन काळू आयलो. ताणें ती सुवात साळूक दाखयली. तिका ती पसंत पडली. ताणी थंय घोंटेर बांदचो अशें थारायलें. साळून म्हळें,

''हें पळे खंयचीय गजाल करताना ताची बुनयाद बरी घट्ट करूंक जाय. बुनयाद घट जाल्यार वयलो घोंटेर घट.'' ताचेर काळून विचारलें.

''मागीर बुनयाद कसली घालूंया तर?''

बरीशी सरी जाय आसली.

''तशें जाल्यार हांव पळेतां खंय सरी मेळटा जाल्यार!'' काळून म्हळें.

काळू उडून गेलो.

ताणें पळेलें. एका घराचे बाल्कनीत एक बायल कपडे सुकत घालता. तिणें एक खोमिस घेतलें. तें हँगराक आडकयलें. हँगर बाल्कनीतले दोरयेर हुंबकळायलो. अशे तरेन तिणें दोनतीन खोमसां सुकत घालीं.

काळूक तो हँगर आवडलो. ताणें चिंतलें, ''हो हँगर बरो आसा. ही सरी बरी. मात्शी वांकडी आसा खरी, पूण ती सारकी करूं येता.''

काळू थंयच्या एका झाडार बसलो. तो वाट पळेतालो ती बायल केन्ना कपडे सुकत घालता आनी केन्ना भितर वता.

निमणी एकदांची ती बायल भितर गेली.

तें पळोवन काळू बाल्कनीचे गरादीर वचून बसलो. ताणें 'कांव कांव' केलें. ती बायल भायर आयली ना.

काळूक कळ्ळें, ती बायल न्हावंक गेल्या आसूंक जाय. घरांत आनीक कोण ना मूं? ताणें अदमास घेतलो.

रांदचे कुडींतल्या जनेलार तो वचून बसलो. ताणें थंय बागोवन पळेलें.

किचनांत गॅसाचे शेगडेचेर तवो आसलो. ताचेर चपाती आसली. दुसरे वटेन दुदाचो तोप आसलो. ताचेर वेळणी आसली. पूण ती अर्दकुटी धांपिल्ली.

काळूक दिसलें, ल्हवूच तकली ग्रिलांत घालून ती चपाती फारावची, ना जाल्यार ती वेळणी उडोवन दुदावेली साय खावची. ताचे जिबेक उदक सुटलें. पूण मागीर,वेळणी उडयल्ली जाल्यार आवाज जावपाचो. त्या आवाजान घरांतली बायल भायर येवपाची. आतां ताका गरज आसली ती हँगराची. तेन्ना ताणें थंय लक्ष दिलें ना.

मागीर तो बॅडरुमाच्या जनेलाच्या दारार वचून बसलो. ताणें तकली बागोवन पळयलें. घरांत आनी कोण ना. ताचो ताणें अदमास घेतलो.

मागीर तो खोमीस सुकत घालां ते दोरयेर वचून बसलो. ताणें चोंचीन खोमीस फुडें धुकल्लें. त्या बराबर तें सकयल पडलें. काळून हँगर उखल्लो आनी पपा काडली.

ती बायल न्हावन भायर आयली. पळेत जाल्यार खोमीस सकल पडलां आनी कावळो हँगर घेवन वता.

''पाडा पडिल्लो, नश्टो कावळो?'' तिणें गाळी घाल्यो.

खोमीस उखल्लें. खोमसाच्या खांदार कावळ्याच्या पंयाचे अळशिकावणे दाग आसले. खेरीज तें सकयल पडिल्ल्यान ताका कोयर बी लागिल्लो.

''सांवार आयला ह्या कावळ्यांचेर. म्हजो वावर दुपेटीन वाडयलो.''

तिणें खोमीस बालदेंतल्या उदकांत भिजत घालें. ती बाल्कनीत आयली. तिणें शेजान्नीक उलो मारलो. आनी सांगलें, ''बाल्कनीत कपडे सुकत घालता तेन्ना ग्रील लावन घे आं! आयज आमचो एक हँगर कावळो घेवन गेलो.''

''हँगर? आनी कावळ्यान व्हेलो? कित्याक?''

''ताणें पिलां काडल्यांत दिसता. तांकां झोपाळो म्हूण व्हेला आसूं येता.''

**(चलता.........)**

# रावंस पावली दुबय





(मे अंकातल्यान फुडें)

**फी**नाची आनी सुळुकाची आतां बरीच इश्टागत जाल्ली. सुळूक तसो फीनाच्या मानान व्हडलोसो बुदवंत नाशिल्लो. ताका कांय गजाली कळटाल्यो खऱ्यो पूण त्या फीनाइतल्यो न्हय अशें ताका आतां कळून आयिल्लें. फीन खूबूच हुशार आशिल्लो. तो उदकांत तरातरांच्यो कसरती करतालो. आपलेच भोंवतणी घुंवतालो. तोंडांतल्यान आवाज काडटालो. आपूण केदो व्हडलो तें पळय अशें सुळूकाक सांगतालो. सुळूक फीनाच्या तोंडाकडल्यान पेवपाक सुरू करतालो आनी ताचे शेपडेकडेन वतालो मागीर शेपडेकडल्यान दुसरे वटेनच्यान तोंडामेरेन येतालो. बरोच वेळ लागतालो ताका. तरी सुळुकाक तो केदो व्हडलो तें कळनाशिल्लें. ताणें इतलेंच मतींत धरिल्लें, हो फीन म्हणटात तो आपलो मित्र. तो भितर एक आनी भायर एक करपी न्हय. ताचेर निश्चिंतपणान भरवंसून रावं येता.

तरी लेगीत खेळटां खेळटां फीन एकदम नाच जातालो. रोखडोच येतां म्हूण सांगतालो. तो खंय वता, कित्याक वता हें मात तो सुळुकाक सांगनाशिल्लो. ताचे हे करणेची सुळुकाक केन्ना केन्नाय भिरांत दिसताली. हो आपल्याचो घात बी घेवपाचो ना मू? तो आपल्याचो मित्र जाला खरो! पूण ताका हांव सारको खंय वळखतां? वळख नाशिल्ल्यांचेर म्हूण इतलें भरवंसून राव येता?

ना. फीन म्हजे सारकोच सादो मासो. तो आंगान अगडबंब आसत, पूण ताचें काळीज कपटी न्हय. तशें आशिल्लें जाल्यार तो म्हजे वांगडा, म्हजी काळजी घेत भोंवचो नाशिल्लो.

सुळुकाचे तकलेंत वेगवेगळे विचार येताले. तरी लेगीत आपूण कसल्या कामाक आयलां आनी तें पुराय जायसर आपणें स्वताची काळजी घेवंक जाय म्हणपाचें ताचे तकलेंत घट्ट बरें थारायल्लें.

बऱ्याच वेळान फीन आयलो.

"फीन, तूं असो अकस्मात खंय वता रे?"

फीनाच्या तोंडाकडेन आपलें तोंड व्हरत सुळुकान ताका विचारलें. फीनाकडेन उलयतलो जाल्यार सुळुकाक ताच्या तोंडाकडेच रावचो पडटालो. आकारान सुळूक फीनाच्या तोंडा परस ल्हान आशिल्लो. हो फीन आसा तरी केदो हें पळोवप सुळुकाक शक्यूच नाशिल्लें. बरोऽच पयस रावून ताणें ताका तसो पुरायेन पळयल्लो. पूण इतले पयस रावन तो दोळ्यांक जरी दिसलो तरी ताचो आकार केदो, तो आपले परस कितले पटीनी व्हडलो आसा काय हाचो अदमास काडप सुळुकाक अजून जमूंक नाशिल्लें. तेच पासत सुळुकाक ताच्या तोंडालागीं वचून गजाली मारच्यो पडटाल्यो.

फीन ताचेकडेन तसोच गजाली मारतालो खरो, पूण असो अकस्मात खंयीय वचून परततालो तेन्ना मात ताचेकडेन उलयतना तोंड कुशीक काडटालो. सुळुकाक दिसतालें तो आपले पासून तोंड लिपयता. तेच पासत ताका फीनाचो दुबाव मारतालो.

परतून जेन्ना हो फीन खंय नाच जातलो तेन्ना तो खंय वता, कित्याक वता, कोणाक मेळटा हें जाणा जावन घेवपाचें सुळुकान थारायलें. आपले तकलेंत जो दुबाव आयला तो पयस करूंकच जाय अशें ताणें थारायलें. एका इश्टाचो दुबाव

मारलो जाल्यार तो पयस करप, काडून उडोवप हें खऱ्या मित्राचें पयलें काम अशें सुळुकाक दिसतालें. एकमेकाविशीं दुबाव मनांत दवरून इश्टागत घटूय जायना आनी ती चड तिगनाय बी अशें सुळुकाचें मत आशिल्लें. ते पासत आपल्या मनात फीनाविशीं जो दुबाव वयर सरला ताचो सोक्षमोक्ष लावपच ताचे नदरेन शाणेपणाचें आशिल्लें.

फीन केन्ना मदींच कूस मारतालो हाचेर शादुरतायेन लक्ष दवरीत सुळूक आशिल्लो. फीन सुळूकाक थंयच्या म्हाल दर्याची सारकी म्हायती दितालो. कोण कोण खंय रावता, कोणाचो सभाव कसो, कोण आमच्या कामाक फायद्याक पडूं येता, कोण आपलो आपलो म्हणत घात मारूं येता ही सगळी गजाल फीनूच ताका दाखोवन दिवपाचो आशिल्लो.

हो म्हाल दर्या तसो सुळूकाक अनवळखीच आशिल्लो. आता मेरेन फीनान ताका जी म्हायती दिल्ली ताचेवेल्यान ताका ह्या संवसाराची खबर कळिल्ली ती अशी–

आमची नुस्त्या जात ही जंय रावता ताका दर्या म्हणटात. हो दर्या उदकान भरिल्लो आसता. ह्या दर्या भायर रावता त्या दुस्मानाक मनीस म्हणटात. हे मनीस जंय रावतात ताका ते धर्तर म्हणटात. हे धर्तरेचें मुखेल आंग उदक. धर्तरेचो ७० टक्के वांटो उदकान भरला. तरी ३० टक्के जमनीर रावपी मनीसूच ही धर्तर आपली म्हणटात. खरें म्हळ्यार ७० टक्के सुवातेर व्यापून आशिल्ल्या उदकांतल्या नुस्त्याचो अधीकार हे धर्तरेर आसूंक जाय आशिल्लो. हो मनीस म्हणटा तो खूब खूब वर्सां पयलीं आपले सारकोच उदकांत रावतालो. ताका अजून ते मत्स्यावतार म्हणटात. मागीर काळ सरलो तसो तांचे भितर बदल म्हळ्यार उत्क्रांती जायत गेली आनी हो मनीस तयार जालो.

पयलीं तो मत्स्यावतारांत आशिल्लो तेन्ना आपलेवरींच उदकांत रावून आमचेवरींच स्वास घेतालो. मागीर तो उदक आनी धर्तर अश्या दोनूय सुवातांनी रावंक लागलो. उदकांतूय ताका प्राणवायु घेवपाची कला आशिल्ली आनी वयर धर्तरेरूय तो हवेंतल्यान प्राणवायु घेतालो. आयज बेबे, बेबकां बी आमचे मदीं आसात तशेच ते आसताले. मागीर बदल जायत जायत ते मनीस जाले अशें कितें कितें फीन ताका सांगतालो आनी ताका तें खरेंच दिसतालें.

मनीस म्हणटात तो आमचोच पूर्वज तेन्ना ताका आपलो दुस्मान म्हणप समान्हय अशें फीन ताका पर्थून पर्थून सांगतालो. तें मात सुळुकाक कळनाशिल्लें. डॉल्फीन म्हळ्यार फीनाचो घराबो मनीस जातीकडेन खूब लागीं आसा अशें सुळुकान कोणाकडल्यान तरी आयकल्लें. मनीस तांका खावड दिता आनी नाडे मारूंक लायता, उलोवंक शिकयता अशें खूब कितें कितें कानार पडिल्लें. तेच पासत फीनूय मनशाक बी लागीं ना मू? अशेंय सुळुकाक दिसतालें. तशें जर आसत जाल्यार मात आपूण दर्या आनी दर्यांतली जीण त्या मनीस म्हणटात त्या दुस्मानाच्या तावडींतल्यान सोडोवंक आयलां तें कार्य पुराय जावचेंना.

''फीन, तूं त्या मनीस म्हणटात तांकां दुस्मान म्हणू नाका अशें कित्याक म्हणटा?''

''ह्या संवसारांत कोणूच कोणाचो दुस्मान आसना.''

''पूण ते मनीस आमकां मारून खातात. ते आमचे दुस्मानूच.''

सुळूकान सामकें नेटान ताका सांगलें. सुळूक तसो मानपाचो ना हें फीनाक कळिल्लें. ताणें म्हळें, चल म्हजे वांगडा. फीन सुळुकाक घेवन उदकांतल्यान भोवपाक लागलो. मदींच सुळूकान ताच्या लागशिल्ल्यान वचपी कोणाक तरी मटक केलो.

''कित्याक गिळ्ळो रे तुवें ताका?''

फीनान मातसो धपकावन सो सुळुकाक प्रस्न केलो.

''कित्याक म्हणचे? म्हाका भूक लागिल्ली.''

''ताका खावपाचो तुका कसलो अधिकार? भूक लागली म्हूण कोणाकूय खावपाचें? तो आमचोच एक भाव मरे. जावं मागीर तो दुसऱ्या समाजांतलो. पूण आमचेच वांगडा ह्या उदकांत रावता. ताका म्हूण तुवें अशें खावपाचें?''

''मागीर भूक लागतकच हांवें कितें खावपाचें तर?''

सुळूकान मात्शें रागानूच फीनाक विचारलें. ताका राग आयला तें पळोवन फीन हांसलो.

''तशें जाल्यार तूं त्या ल्हान नुस्त्याचो दुस्मान जालो.''

मुखार वतां वतां फीनान ताका सांगलें.

"आरेच्या, खरेंच मरे!" सुळुकाक एकदम होलमलें. आपूण इतले दीस आपले परस ल्हान नुस्त्याक खावन व्हडलो जालां. तशें आमकांय कोणूय व्हडलें नुस्तें खाता. ताचे पासून राखण करीत आमी जियेतात. मागीर आमकांय कोण खाता तेन्ना आमी ताका आमचे दुस्मान कित्याक म्हणपाचें?"

सुळुकाक फीनाचें म्हणणें पटलें. हांगा कोण कोणाचो दुस्मान ना. ह्या संवसाराचो तोल सांबाळपाक ल्हानान व्हडाक, व्हडान ल्हानाक खावप आनी कोणें आपल्याक खावपाक फावना म्हूण राखण करून घेवप हाकाच जियेवप म्हणटात. जो सशक्त आसा, हुशार आसा तोच जगता. जांचेकडेन असले गूण ना तो कोणाचे तरी भकीक पडटा. तेन्ना कोणाक दुस्मान म्हणपाचो अधिकार कोणाक ना. सुळुकाक हें सत पटलें. अशें आसतनाय फीन मनशाक दुस्मान म्हणटालोच. ताका बुध्द शिकोवंक जाय म्हणटालो. ताका खावंक जाय म्हणटालो.

"तुवें केन्ना खाला रे मनशाक?"

सुळुकान पेवतां पेवतां फीनाक विचारलें. तसो फीन हा हा हा करून हांसलो. उमेदीन फुर्रर करून तोंडांतल्यान उदक सोडलें.

"एकदांच खाला. कोचावन कोचावन खाला."

"खंय मेळ्ळो रे तुका हो मनीस?"

सुळुकान सामके अजापान विचारलें. आपणें मनशाक खालोना जायत, पूण ह्या फीनान तरी खाला म्हूण ताका समादान भोगलें. ताका फीनाचो अभिमान दिसलो.

"फाटले खेप ती त्सुनामी येवंक नाशिल्ली? तेन्ना."

त्सुनामी म्हूण कितें तरी जाल्लें. दर्यांतलें उदक धर्तरेर वयर गेल्लें आनी परस येतना त्या उदकान खूबशा मनशांक ओडून हाडिल्ले. मनीस जाळ मारून ताल्ले, बांगडे बी ओडून वयर व्हरतात तशे हे त्सुनामीन उदकाचें जाळ मारून मनशाक दर्यांत हाडिल्ले. मागीर व्हडल्या व्हडल्या नुस्त्यांनी तांका वेवस्तीत मटकायल्ले. फीनाक आनी ताच्या फामिलेकूय एक व्हडलोसो मनीस मेळिल्लो. ताची अम्मा, डॅडी, मावसो, मावशी सगळ्यांनी ताका कोचावन कोचावन खाल्लो. तांचे लगाडीक पडून फीनानय एक कुडको तोडिल्लो.

पेवून पेवून आतां सुळूक खर्शेल्लो.

"थकलो रे फीन हांव आतां. हांगा म्हाल दर्यांत पेंवतना रोखडोच थकवो येता."

सुळुकान फीनाक सांगलें. तसो फीन हांसलो.

"तशेंच जातलें. आमी उदकांत खूब खोल आसात. आमचेर उदकाचो प्रचंड दाब आसा. तरी आमकां तो जाणवना. तोच दाब मनशाचेर पडिल्लो जाल्यार तो चिड्डून वचपाचो."

फीन ताका म्हायती दीत आशिल्लो.

"आतां तूं म्हजे फाटीर बस. पडून राव. हांव तुका व्हरतां."

फीनान सुळूकाक सांगलें. सुळुकाक अजाप दिसलें खरें तरी तो ताचे फाटीर पडून रावलो. फीन फिशाल पेवपी जाल्लेवरी म्हालदर्यांत पेवून मुखार मुखार वतालो.



(चलता...)





## म्हजे वांगडी

आमोरेच्या पावलां सांगातान
मुजरत ती सरता घरांत
कोनशा-कोनशांत आपलें
अस्तीत्व पातळावन
परमळ तिजो भुरळ घालता मनांत
कोणाची आसत काय ही काणी?
ही आसा म्हज्या पोरसांतली रातराणी!

पळयतकच तिका येता आवयचो उगडास
दोळ्यांनी आसा तिज्या मायेचो भास
दुदांत तिच्या मोगाची घटसाण
आनी काळजांत म्होंवाची गोडसाण
कोणाची अपुर्बाय ही जावंक जाय?
ही आसा आमच्या गोठ्यांतली भोळी गाय!

सोबीत अशें रूप तुजें
रंगाक तुज्या जातात पिशे
पळोवन तुका येता जिणेंत उर्बा
तुका कुरवाळटना करची पडटा पर्वा
कोणाचो काय हो इतलो रूबाब?
हो म्हजो पोरसांतलो आवडिचो गुलाब!

रांदचे कुडींत म्हज्या फाटीं-फुडें घुटमळटा
नुस्त्याच्या वासाक तूं तळमळटा
कांयच नातर हुंदराचेर उडकी मारता
तुजें म्यांव म्यांव आमकां आवडटा
कोणाची काय ही इतली तोखणाय?
ती आनी सांगूंक जाय?
ही म्हजी मनी म्यांव,
जी आमकां सगळ्यांक जाय

दिश्टी पडल्यार तूं उचंबळ जाता
उमेदीन तुजी शेपडी हालयता
अनवळख्यांक पळोवन
आमकां शिटकायता
रातीचो दीस करून
आमकां सांबाळटा
कोणाचो काय हो इतलो लालो?
हो म्हज्या दारांतलो कुतू
हय तुमी ताका ज्युस्त वळखलो..

– बिजू नायक
चिखली, वास्को.
फो. : ९८२२३३८५११२



## जेवतना

जेव जेव रे राया
व्हड व्हड जावपाक
सगळी उंडी घे रे राया
घरचें नांव वयर काडपाक

पयली उंडी मम्माची
दुसरी उंडी पप्पाची
घे घे रे राया
शिकून व्हड जावपाक

तिसरी उंडी आज्याची
चौथी उंडी आज्जेची
जेव जेव रे राया
व्हड मनीस जावपाक

पांचवी उंडी मामाची
सवी उंडी मामीची
मामा मामी खूब खूब
खेळणीं हाडटलीं

– डॉ. भिकाजी घाणेकार
पणजी – गोंय.



# बिलू बिलू माजरा नाका वचूं शेजरा



एक आसलें बिलू माजर. ताचें धवें धवें आंग, ताचेर काळे काळे तिबके. शेंपडी येदी मोठ्ठी गोंडो कशी! मिनूच्या घरांत तें रावतालें. मिनूक तें खूब खूब आवडटालें. ताणें ताका रिंकू नांव दवरिल्लें.

तें घरांत कशें आयलें, ती एक मजेचीच गजाल. एक दीस मिनू शाळेंतल्यान घरा येतना, ताका तांच्या पोरसा भायर इल्लेंशें माजरा पील दिसलें. मिनून हेवटेन तेवटेन पळयलें, व्हडलें माजर खंय आसा काय म्हणून. पूण थंय कोणूच नासलो. कोणेंतरी त्या पिलाक रस्त्यार सोडिल्लें. तें म्यांवऽऽ म्यांवऽऽ करून रडटालें. मिनू ताच्या म्हर्‍यांत गेलें आनी ताका हळूच हात लायलो. तें ताचो हात चाटूंक लागलें. मिनूक तें खूब आवडलें. ताणें ताका उकलून वेंगेंत घेतलें. तें बुरशें आशिल्लें. पूण मिनूक ताचो वीट आयलोना. ताणें ताका हळूच घरांत हाडलें.

तें केन्नाच्यान माँ-पप्पाचे फाटीक लागिल्लें, माजरा पील ना जाल्यार सुण्यापेटो हाडुंया म्हणून. आतां आयतेंच मेळिल्लें पील तें थोडेंच सोडटा. ताणें ताका हळूच आपले कुडींत व्हेलें. पूण ताचें म्यांवऽ म्यांव मिनूच्या मां न आयकलें. माजरा पिलाचो आवाज खंयच्यान आयलो तें पळोवंक ती भायर आयली. मिनूच्या हातांत माजरा पील पळोवन ती किळांचली.

"शीऽ शीऽ हें कसलें हळशिकावणें माजरा पील घेवन आयलां. पयलीं आशिल्लें थंय व्हरून सोड ताका."

"ना, ना, मां, म्हाका हें पील जाय. ताका कोणेतरी रस्त्यार सोडिल्लें. परत थंय सोडल्यार कोणय खातलो ताका."

"खालें जाल्यार खांव, म्हाका लागना. पूण तें म्हाका घरांत नाका."

"मां, अशें म्हणूं नाका गे, काय बरें पील. म्हाका जाय तें."

पूण मां क सुणे, माजरांचो सामको वीट. तिणें ताका बरेंच तापयलें. मिनून हात-पांय आपटिले, रड-रड रडलें, दनपारचें जेवलें लेगीत ना. पूण मां त्या पिलाक घरांत दवरूंक कशीच तयार नासली.

निमणें सांजचो पप्पा येतकर मिनून सगळी गजाल पप्पाक सांगली. पप्पान रिंकूक दवरपाक सांगलें. अशे तरेन रिंकू मिनूच्या घरांत उरलें.

पूण मिनूच्या मां क रिंकू मातय आवड नासलें. ती ताका हिडीस-फिडीस करताली. तातूंत रिंकूक एक वायट संवय आसली. रांदचेकुडींत कितेंय उक्तें उरलें काय रिंकू तातूंत तोंड घालतालेंच. नुस्त्याचेर सादी ताटली धांपल्यार तें दावखुलान उडयतालें आनी नुस्तें घेवन धांव मारतालें. मां क हरशींच असल्या जनावरांचो वीट. तातूंत रिंकू मेळत तातूंत तोंड घालतालें. ती ताका कशीच रांदचेकुडींच पातये नासली. ताका भायर धांवडायत रावताली.

रिंकू हुशार. ताका समजल्लें, रांदचे कुडींत मां आसल्यार धांवडायतली म्हणून. तें रांदचेकुडींत मां आसा काय ना तें पळोवपाक, दारांत रावतालें आनी म्यांव म्हणटालें. ताचो आवाज आयकलो काय मां तापताली, "यो, यो तूं भितर, लाटणी काडून फाटी बरोबर घालतां."

मागीर रिंकू मिनूचे कुडींत धांव मारतालें. मिनू थंय आसल्यार ताच्या पांयाक घशटत शेपडी ताचेर मारत रावतालें. जशें कितें मां ची कागाळ तें ताका सांगतालें. मागीर मिनू ताका वेंगांत घेवन पोशेतालें. मिनू ताका टी.व्ही पळयतना, मांडयेर घेवन बसतालें. रिंकूक कार्टून आवडटाले. मिनून चॅनल बदल्लें काय तें म्यांव म्यांव करून बोवाळ घालीत वतालें. परत कार्टून लायलें काय पुट्ट करून उडी मारून मिनूचे मांडयेर येवन बसतालें.

नुस्तेकार दारांत आयलो काय रिंकू उचांबळीत जातालें. म्यांव म्यांव करीत रांदचे कुडिंतल्यान भायल्या दारांत आनी भायल्यान रांदचे कुडींत धांवत रावतालें. ह्या वेळार ताचो शेंपडेचो गोंडो चडच फुलतालो. आतां ताका मां चो भंय दिसनासलो. तें जशें कितें मां क सांगतालें 'चल बेगीन भायर, नुस्तेकार आयला.' ह्या वेळार मां य ताचेर ताप नासली. तिणें म्हणचें, ''आं कळ्ळें, कळ्ळें म्हाका, नुस्तेकार आयला मगो भायर, घेतां नुस्तें, घेतां.'' मां चें उलोवप कळिल्लेवरीं तें मागीर तिचे फाटल्यान भायर येतालें.

केन्ना केन्नाय नुस्तेकार ताका नुस्तें उडयतालो. तें तोंडांत घेवन तें धांवून मागीलदारांत येतालें, आनी गुर्रम्यांव गुर्रम्यांव करीत खातालें.

रातचें रिंकू मिनूचे कुडींत न्हिदतालें. हरशीं मिनूक रिंकू म्हळ्यार सामकें जीव कशें. पूण ताचें रातचें ताच्या म्हऱ्यांत न्हिदप ताका कशेंच आवडनासलें. ताच्या पांयाकडेन लेगीत ताणें न्हिदूंक जायना आसलें. पयलीं पयलीं रिंकू ताचेच म्हऱ्यांत पांगरुणांत गुठली करून न्हिदतालें. मागीर मिनू रडत मां च्या म्हऱ्यांत वतालें. मां येवन ताका धांवडायताली. थोडो वेळ मिनूक थापटावन न्हिदयताली आनी वताली. ती गेली तशें हळूच येवन मिनूच्या पांयाकडेन न्हिदतालें.

'रिंकुच्या ह्या त्रासांतल्यान कशें सुटप?' मिनून खूब येवजिलें. मागीर ताका एक युक्त मेळ्ळी. ताणें मां कडेन मागून पोन्न्यो गोजड्यो घेतल्यो. ताचें बरें हातरूण केलें. एक मोव मोव गोजडी पांगरूंक दवरली. रातचें न्हिदूंक वतना मिनू रिंकूक त्या हातरूणार न्हिदयतालें. ताचेर पांगरूण घालतालें. पूण रिंकूक मनशाची ऊब आवडटाली. तें हळूच येवन मिनूच्या पांयांकडेन गुटली करतालें.

मागीर इल्ली इल्ली आपल्या हातरुणाची संवय जाली. आतां तें व्हडय जाल्लें. रातचें उठून घरभर फिरून येतालें. खंयी खट-खूट आवाज जालो काय थंय धांवून येतालें. घरांत जल्ले-पाली दिसल्यार तांचे फाटल्यान धांव घेतालें. जल्लो मेळटकर ताका तोंडांत धरून हाडून खेळोवन खेळोवन मारून चरचर करून चाबून खातालें.

दिसाची तर ताची मजाच आसताली. पोरसांत तें वत खावंक पातळून बसतालें. ह्या वेळार तें दोळे धांपून शेंपडी हालयत बसतालें, ध्यान करूंक बशिल्लेवरी. कावळो, चिमणी उडत म्हऱ्यांत आयलीं काय तांचेर उडी मारून धांवतालें. खिणांत उडून चिमणी झाडार बसताली. रिंकूय धांवून त्या झाडा म्हऱ्यांत येतालें आनी झरझरीत झाडार चडटालें. चिमणी उडून दुसरेकडेन वताली. मागीर रिंकू तिका पळयत म्यांव म्यांव करीत आपल्या नाखटांनी झाडाची खांदी बुड्डितालें.

रिंकूक हळशीक मातय आवडनासली. कितेंय खालें काय तें तोंड मिश्यो चाटून पुसून निवळ करतालें.

रिंकू दिसाचें केन्ना केन्नाय हळूच शेजाऱ्यागेर वतालें. तांचें कितेंय उगडें मेळटा तें खावन धांव मारतालें. कितले दीस शेजान्नीक खबरच नासली तांगेर कोण येवन चोरून खाता तें. तिणें एक दीस मिनूचे मां क सांगलें,

''जाणा मगे मिनूचे मां, आमगेर दूद, जेवण कितेंच उगडें दवरपाची गती ना कोण तरी नाच करता, कोण जायत?''

मिनूचे मां क दुबाव आयलो, ''रिंकू बी न्हय मू, ताका चोरपाची संवय आसाच.''

तिणें दुसरे दिसा हळूच रिंकुचेर लक्ष दवरलें, पळे जाल्यार खऱ्यानीच रिंकू. तिणें मिनूक सांगलें, ''मिनू, तुजें रिंकू, बरेंच सुबेज जालां. शेजाऱ्यांगेर वचून चोरून खाता. काकीन आज दुबावानच म्हाका सांगलां, पूण बाकिचीं शेजारी जाल्यार ताका पयलीं मार घालतलीं. ताका सांबाळ.''

पूण मिनू रिंकूक कशें सांबाळटलें? तें ताका तोंडान तरेतरेन समजायतालें, ''रिंकू लोकांगेर वचनात. काकी तुका मारतली.'' आनी ताका वेंगेंत घेवन म्हणटालें, ''बिलू बिलू माजरा, नाका वचूं

शेजरा, शेजरा गेल्यार, तुज्या मारती पोल्यार.''

पूण रिंकूक कितें हें पद समजूंक आयलां? तें मिनू आपली अपुरबाय करता समजून, गुर्रम्यांव, गुर्रम्यांव करून ताचे हात चाटतालें.

हरशीं मां, मिनू तापलें जाल्यार ती भास ताका कळटाली. पूण दुसऱ्यांगेर वचूं नाका हें तें काना मनार घेय नासलें. ताका थंय कितें ना कितें खावंक मेळटालें. तें चड करून दनपारचें काकीगेर वतालें.

काकीन थारायलें 'रिंकूक बुध्द शिकवपच.'

जालें दुसरे दीस काकीन थाळ्यांत दूद घालून ओटया सकयल दवरलें. आपूण बडी घेवन दारा आड लिपून रावली. दिस्त सदच्या वेळार रिंकू हेवटेन तेवटेन पळयत हळूच भितर सरलें. ताणें सकयल दूद पळयलें. ताचे जिबेक उदक आयलें. तें हळूच थाळ्या म्हऱ्यांत आयलें. ताणें परत हेवटेन-तेवटेन पळयलें. आपलें दावखूल मुखार काडून थाळ्याक लायलें. एक खेप दुदाच्या हून तोपांत ताणें तोंड घाल्लें. ताची जीब, तोंड, नाक लेगीत भाजिल्लें. तेन्नाच्यान तें दुदाच्या तोपाक दावकूल लावन पयलीं थंड आसा जाल्यार पळयतालें मागीरच ताटली उडोवन दूद पियेतालें.

सदचे संवये प्रमाण ताणें ताटलेक दावकूल लायलें. थंड ताटली पळोवन तें जिबली भायर काडून लपलप करून दूद पिवंक लागलें. तेन्नाच काकी बडी घेवन ताका मारूंक भितर आयली. रिंकू दूद पितालें खरें पूण सादूर आसलें. ताका काकिच्या पावलांचो आवाज दिस्त कळ्ळो, ताणें धांव मारली. काकीची बडी थाळ्याक आपटली. थाळ्यांतलें दूद रकलें.

दुसरे दीस तिणें ताटलेंत नुस्त्याचीं बोडकां दवरलीं आनी रिंकुची वाट पळयत रावली. दनपरां हेवटेनची-तेवटेनची सुलूस घेत रिंकू भितर सरलें. ताणें सकयल पळयलें. ताटलेंत बोडकां पळोवन ताचे जिबेक उदक आयलें. तें हळूच बोडकां खावंक ताटले म्हऱ्यांत आयलें. आज तें सादूर आशिल्लें. खंयच्यान आवाज येता काय सुलूस घेत ताणें बोडूक तोंडांत घेतलें. तेन्नाच काकीन आसा थंयच्यान बडडी शेंवटिली. रिंकून तोंडांत बोडूक घेवन धांव मारली.

दुर्गावयल्यान उडी मारून रिंकून आपल्या पोरसांत येवन सुशेगाद बसून बोडूक खालें. म्यांव म्यांव करत शेपडी हालयत तें तोंड निवळ करूंक लागलें. काकी हळूच आपल्या पोरसांत आयली. रिंकूचो राग तिच्या मनांत खतखततालो. तिणें थंयच्यान दांडो रिंकूचेर शेंवटिलो. रिंकू तोंड निवळ करपाक गुल्ल जाल्लें. तो दांडो ताचे फाटीर पडलो. ते बरोबर म्यांव म्यांव करून आड्डत रिंकून घरांत धांव मारली. वतां वतां ताणें रागान काकीक पळयलें.

तें धांवत मिनू म्हऱ्यांत गेलें. मिनून ताका सांसपीत म्हळें, ''कितें जालें रिंकू, अशें भियेवन खर्शेत धांपेत शें आयलां.''

दारांतल्यान काकी भितर येत म्हणून दाराक पळयत पळयत रिंकू मिनूचे वेंगेंत मुंगरलें.

त्या दिसाच्यान रिंकू काकीगेरच न्हय तर हेर शेजाऱ्यांगेर लेगीत वचना जालें.

मिनूचे मां न एक दीस म्हळें, ''मिनू, हालीं रिंकू कोणागेर वचना काय कितें? शेजाऱ्यांच्यो हालीं कागाळी आयल्योनात श्यो?''

''रिंकू आमचें शाणें जालां.''

''शाणें जालां? काय कोणें बुध्द शिकयली म्हूण कोण जाणा. काकी म्हणटालीच, ताका सारकें बरें दाखयतां म्हणून.''

''कितेंय जावं, आतां वचना न्हय तें, पुरो, शाणें तें म्हजें बाय.''

मिनून ताका वेंगेंत घेवन पोशेलें.

जालें, कांय दीस गेले. रिंकू शाणें कशें, आपल्या घरांत-पोरसांत फिरतालें.

एक दीस कितें जालें, दनपारचीं जेवन जाण्टीं आड पडिल्लीं, ऑफिसांत वचपी गेल्ले, भुरगीं अभ्यासाक बशिल्लीं. अशा वेळार रिंकू चड करून पोरसांत सावळेक पांय पातळावन बसतालें.

आजय तें शेंपडी हालयत पोरसांत बशिल्लें पूण ताची नदर हेवटेन तेवटेन फिरताली.

इतल्यांत ताका सर्र सर्र असो आवाज आयलो. ताणें कान उबे केले. कितें तरी सर्र सर्र आवाज करीत तांच्या दुर्गा वयल्यान काकीच्या पोरसांत देंवतालें. तें सादूर जालें. ताणें शेंपडेचो गोंडो फुलयलो आनी हळूच वचून पळयलें. काळशें शें एक जिवाणें, काकीच्या घरावटेन मुखार सरतालें.

रिंकून वेळ केलो ना तें धांवत काकीच्या जनेलाकडेन गेलें आनी व्हडा व्हडान म्यांवऽ म्यांवऽ करून आड्डूंक लागलें. परत येवन जिवाणें खंय पावलां तें पळयलें. परत काकीच्या घरांत गेलें आनी आड्डुपाक लागलें. मदींच गुर्रम्यांव गुर्रम्यांव करत कितें तरी सांगूंक लागलें. काकीगेर काकी सोडून कोणूच नासले. ती रिंकुच्या आवाजान जागी जाली आनी रागान बडी घेवन भायर आयली.

''हें पाडपडिल्लें कित्याक आड्डता तें पळयतां. एक बडी फाटी बरोबर घालतलें.''





बडबडत काकी भायर आयली. काकी उठल्या ती पळोवन रिंकू भायर आयलें. आतां जिवाणें काकीच्या मागिलदारांत पाविल्लें. रिंकू गुरगुरत ताच्या आंगार गेलें. जिवाणें स्स्स् करत मात्शें फाटीं सरलें.

हेवटेन काकी बडी घेवन रिंकूक मारूंक म्हणून रांदचे कुडींत आयली. आज रिंकू तिका भियेनासतना म्यांवऽ गुर्रम्यांवऽ करत कितें तरी सांगिल्लेवरी करूंक लागलें.

येदी मोठ्ठी फुलयल्ली शेंपडी आनी रिंकूचें विचीत्र आड्डप पळोवन काकीक दुबाव आयलो. तिणें बडी उडयली आनी ''कितें जालां गो पापया? अशें आड्डता कित्याक?'' म्हळें.

रिंकूचें विचीत्र म्यांव म्यांव करून आड्डप मिनूचे मम्मीन आयकलें. तिणें मिनूक म्हळें, ''बाय गो रिंकूक वचून पळे, काकीगेर वचून व्हडाव्हडान आड्डता.''

मिनू धांवत भायर आयलें. ताणें पळयलें, रिंकू शेंपडी फुलोवन भायर भितर नाचता. मिनूक पळोवन काकीन म्हळें.

''आगो हें तुमचें रिंकू पळे वोदोळच्यान शेंपडी फुलोवन म्हज्या आंगार येता. म्हाका मुखार येवंक दिना.''

मिनून रिंकूक कितलें आपयलें. पूण रिंकू मिनूचेंय आयक नासलें. भियेवन मिनून मां क उलो मारलो.

इतले म्हणसर तें जिवाणें काकिल्या मान्न्यांत गेलें. रिंकून ताका दिस्त पळयलें. तें आतां मान्न्या भायर रावन म्यांव म्यांव करून आडडूंक लागलें. तितले सर मिनूची मां पोरसांत आयली. तिणेंय रिंकूचो बोवाळ पळयलो. ''रिंकूचें जालां कितें?'' काकीन मिनूचे मां क जनेलांतल्यान पळोवन विचारलें.

''जिवाणें बी कितेंय येऊंना मगे तुमगेर?''

''कितें? जिवाणें? आरे देवा! वोदोळ हांवें स्स्, स्स् असो आवाज आयकल्लो खरो. आतां गे?''

इतले म्हणसर मिनू आनी मां काकीच्या पोरसांत आयलीं. पूण रिंकू तांकां भितर सरूंक दियनासलें. वाटेर मान्नें आनी मान्न्यांत जिवाणें.

मिनू आनी ताची मां भायल्या दारांतल्यान काकीगेर भितर सरलीं. काकी भंयान कडकडटाली. मिनूचे मां न हळूच मान्न्यांतली लायट लायली आनी मान्न्यांत पळोंवचो यत्न केलो. मान्न्यांत बालदे फाटल्यान काळशी शी जिवाण्याची शेंपडी तिका दिसली. तिणें काकीक सांगलें,

''आगे, खऱ्यानीच बालदे फाटल्यान जिवाणें आसा. म्हणून रिंकू अशें करता.''

''आगे बाये! सादें जाल्यार पुरो. सोरोप बी जाल्यार शीऽ शीऽ शी. मारून उडयल्यार लेगीत डूख धरपी जिवाणें तें. कितें करूया गे?''

"कोणाकय तरी हाडून मारूंक लावचें पडलें."

"मां, बेठेंच मारपाच्यो खबरी कित्याक उलयता. आनी काकी, सोरोप डूख धरता बी पळे त्यो खबरी फट. आमी जिवाण्यांक केन्नाच मारूंक जायना."

"म्हळ्यार, ताका अशेंच वच गो तूं तुज्या घरा म्हणून वोग्गी रावप, काय ताका राखत बसप?"

"वच तूं बाय, म्हळें आनी तें गेलें. पूण फाल्यां परत येवचें ना?"

"शी, सोरोप जाल्यार डूख धरता. ताणें आमचो आवाज आयकला."

"काकी, सोरोप डूख धरता, आवाज वळखता म्हणटात तें खरें न्हय. सोरपाक कान बी नासतात. आमचे शाळेंत 'सर्प इश्ट' संघटणेचे लोक आयिल्ले. ताणी आमकां जायते तरेचीं जिवाणीं दाखयल्लीं. आनी तांची म्हायती सांगिल्ली."

"बायगो, मिनू तुज्यो त्यो शाळेंतल्यो गजाली शाळेंत दवर. आतां मान्न्यांत जिवाणें आसा, हें रिंकू राखता म्हणून सांग. ना जाल्यार तें येवन काकीक चाबतलें आसलें."

"हे! मां, तुमकां मगे सांगल्यार समजना. खंयचेंय जनावर वोगीच येवन चाबना. जिव-जिवात आमचे इश्ट.

"बाय, आसूं हां, पुरो. तुज्यो गजाली आयकून आतां आमी वोग्गी रावन जिवाण्याक घरांत रावपाक दिवपाचें?"

"काकी, मुखावयल्या बिल्डींगेंतल्या वॉचमनाक आपयतां हांव. तो मारतलो ताका."

"नाका मम्मा, ताका मारूं नये. सोरोप इश्टान सांगलां, जिवाण्यांक केन्नाच मारूं नये खंय."

"मिनू तुजीं शाणेपणां चड जालीं. आमी जिवाणें घरांत पोसचीं नात."

"ना मम्मा, ताका व्हरूंक सोरोप इश्टाक आपोंवया. तो ताका पयस रानांत व्हरून सोडटलो."

"मिनू कित्याक हट करता? चल मिनूचे मां वॉचमनाक आपय."

"नाका नाका मां वॉचमन ताका मारतलो. टिचरीन आमकां सोरोप इश्टाचो फोन नंबर दिला. तुमी हें जिवाणें भायर येता जाल्यार पळयात. तशें रिंकू ताका कशेंच भायर येवंक दिवचें ना. हांव त्या सोरोप इश्टाक फोन करून आपयतां."

मिनू धांवत आपल्या घरा गेलें. ताणें सोरोप इश्टाक फोन करून आपयलो.

तो रोखडोच एक पिशवी आनी खास बडी घेवन आयलो. तें जिवाणें मान्न्यांत बालदे फाटल्यान रावन भायर वचूंक पळयतालें. पूण ताणें मात्सी लेगीत तकली हालयल्यार रिंकू गुरगुरतालें.

सोरोप इश्टान रिंकूची तोखणाय केली. ताणें जिवाणें पळयलें आनी सांगलें, "हो खर विखारी सोरोप. ताका काणेर म्हणटात."

ताणें आपले खास बडयेन काणेराक पिशवेंत घालो आनी पिशवेचें तोंड बांदलें.

"आज तुमी ह्या काणेराक धरूंक म्हाका आपोवन बरें केलें. जिवाण्यांक केन्नाच मारूंक जायना. हांव हाका व्हरून रानांत सोडटलों. आमचे संस्थेचो फोन नंबर वाड्यार सगळ्यांकच बरोवन दवरूंक लायात."

"बाबा रे, हो काणेर तूं रानांत सोडटलो. तो परत फाल्यां आमगेर येवचो ना मूं? आमचो आवाज आयकला ताणें."

"ना आण्टी, आवाज आयकून जिवाणीं डूख धरून परत येतात म्हणटात ती फट गजाल. हाका सोडटकच तो आपले वाटेन वतलो. भिवनाका तूं."

सोरोप इश्ट काणेर घेवन गेलो.

मिनून रिंकूक वेंगेंत घेतलें आनी ताची अपुरबाय करूंक लागलें. काकीन म्हळें,

"बाय मिनू, म्हाका तुज्या ह्या रिंकूचो खूब राग येतालो. आमगेर येवन येवन चोरून खातालें. पूण आज ताणें म्हजो जीव वाटायलो. आयच्यान तुजें रिंकू आमचेंय बी इश्ट."

अशें म्हणून काकीन ताटलेंत दूद घलून ताका पिवंक दिलें. मिनूच्या मां न म्हळें,

"खरेंच मिनू, म्हाका माजर गांठीक नाका आशिल्लें. पूण आतां मात रिंकूची म्हाका खूब तोखणाय दिसता."

उपरांत कितले दीस तांच्या वाड्यार सगळे जाण रिंकूची तोखणाय करताले. भुरग्याचें तर तें इश्टच जाल्लें.

■■■



– माया खरंगटे

फोन : ०९४२०६८५२७८



हांव शॉन अमोल पालयेंकार, म्हजो २रो वाढदीस हांवें ४ मेक म्हज्या मित्रांवांगडा आनी डॅडी अमोल आनी मम्मा सोनिया वांगडा मनयलो.



हांव

**ऋशिकेश रमेश भावे.**

२२ मे २०११ दिसा म्हजो उपनयन संस्कार मोट्या दबाज्यान जालो. तुमी सगळीं येवन म्हाका बटूक शुभाशिर्वाद दिल्ले खातीर हांव तुमकां देव बरें करूं म्हणटां.



हांव

**ओंकार चद्रशेखर चव्हाण.** म्हजो ह्या म्हयन्याक २५ जुनाक १0वो वाढदीस आसा. म्हजी मम्मा पप्पा आनी घरचीं पुण्याक साजरो करतात.



- विन्सी क्वाड्रस
'स्नोज कृपा',आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

एक चेडूं काजार जालें जाल्यार ताका पयशे मेळटात. तुमचे मदले कोणय दुसरे जातिच्यां कडेन काजार जाल्यार, तांकांय पयशे मेळटात. ह्या शिवाय कोणाक साठ वर्सां जाल्यां तांकां पेन्शन मेळटा. कलाकार आसत जाल्यार, तांकां चड पेन्शन मेळटा, सांस्कृतीक पुरस्कार मेळटा. वेवसायीक शिकप घेवपाखातीर तुमकां सरकारान कितलेच पयशे दवरिल्ले आसात.

# वॉर्ड - जमात



"पीटर, अंकूश, तुमी येवंक जाय हां. जाता तितल्यांक सांगलां. सांजेर सात वरांचेर जमात थारायल्या." नाक्यार गजाली करप्यांक जोजफान सांगलें.

"आयकल्लें कसली तरी जमात आसा म्हण. कित्याखातीर रे ही?" पीटरान विचारलें.

"वेंचणुको लागीं पावल्यात म्हण आतांच तयारी सुरू केल्या आसतली!" अंकूशान म्हणलें.

"वेंचणूक लागीं आसली म्हण एका वाड्यांत तयारी केल्यार वेंचणूक जिखूंक जाता? पैशांनी न्हय, तर विचारांनी तरी व्हड जायात मरे. कोणय मुखार सरून कितेंय करता जाल्यार कितें ना कितें कारण सोदून काडटातच तुमी. आपूण करूंक सोदनांत जाल्यार निदान करता ताका तरी करूंक दियात मरे." ताचे फुड्यांत उबो जायत सुनीलान म्हणलें.

"बरें, करता ताका करूं दी. आमी येतले. पूण सांग, ही जमात ३६५ चॅनलाचेर गांवपण येता ते तरेन जातली?" अंकूशान विचारलें.

"ना. गांवपणांत पुराय गांव सामील जाल्लो आसता. हांगा फक्त आमचो वाडो आसतलो. आमी अशें केलां, प्रत्येक घरांत रकाद धाडला आनी एकल्यान तरी जमातीक हाजीर जावंचें म्हण कळयलां. आमदार येता ताचे कडेन सगळ्यांक उलोवंक मेळटलें. हांगा ल्हान वा व्हडलो कोणच आसचो ना." जोजफान थोडी म्हायती दिली.

"आमदारा शिवाय आनीक कोण येतले?" अंकूशान विचारलें.

"आमदारा बराबर वाड्यांतले लोक. आमदार एकलोच मुखार बसतलो आनी लोकांचीं गाराणीं आयकतलो."

"ताचे कडेन तोडगो आसतलो मरे आमच्या गाराण्यांचो? वा मान हालोवन वतलो?" अंकूशान आपले भशेन थोमणो मारलो.

"तें पसून आमकां कळ्ळ्यार बरें न्हय? आमच्या आमदाराची कुवतय आमकां कळटली. बरें सांजेर मेळुंया, कपेला फुडल्यान."

"कोण कोण सांगपाचे उरल्यात जाल्यार पळयतां." जोजफान मुखावयलें येवजून थंयच्यान पपा काडली.

जुस्त सात वरांचेर आमदार वाड्यांतल्या कपेला फुडल्यान पावलो. सवका सवका लोक जमा जावपाक लागले. अजापाची गजाल म्हणल्यार बरेच लोक जमा जावपाक लागले. अजापाची गजाल म्हणल्यार बरेच लोक जमा जाले. कोणें तरी लायट पेटयली आनी सगळ्याक उजवाड केलो.



''चलात, आतां जमात सुरू करुया.'' म्हणीत आमदार मुखार दवरिल्ल्या कदेलार बसलो. ''उलयात, कोणाक कितें सांगूंक जाय तें.'' आमदारान लोकांक प्रोत्साहन दिलें.

''सर, हांव एक शेतकार. हांव कोमुनीदादिचें शेत रोयतां. हेरांचीं शेतां कोमुनीदादीन नांवार केल्यांत. पूण म्हजें अजून जावंक ना.'' एक शेतकारान आपलें मत मांडलें.

''तुजीं कागदां म्हजे फुड्यांत घेवन यो. एक चौदाचो उतारो दाखय. हाचेर तुजें नांव आसा जाल्यार तें रोकडेंच जातलें. ना जाल्यार कोमुनिदादीकडेन उलोवंचें पडटलें.'' आमदारान ताका सांगलें.

''सर हांव एका भाटकारालें शेत रोयतां. आतां कितलींच वर्सां जालीं. तें म्हज्या नांवार करूंक जाता?'' एका सुवार्थी शेतकारान आपलो विचार मुखार घालो.

''त्या भाटकारान तुका शेत रोवंक दिलां, तुज्या नांवार करूंक दिलां?'' आमदारान करमणूक केली.

''इतलीं वर्सां ताणें शेताची खबर लेगीत घेवंक ना.''

''पूण तुजो कायदो आशिल्लो, आपूण रोयता म्हणटकच ताकाय कितें तरी दिवपाक. ह्या वर्साक पीक बरी जाल्या, कितेंय व्हरून दी ताका.'' आमदाराचीं उतरां आयकून मान पोंदाक घालून तो गेलो.

''सर, आमच्या शेतांनी ते शेजारचे लोक गोरवां सोडटात आनी शेत सगळें पिड्ड्यार करतात. आमी शेता पासून पयस रावतात, म्हणतच सगळो वेळ राखूंक पावनांत न्ही? तांका कितेंय उपाय करूंक जाता?'' कार्मेलिनान आपलो प्रस्न मांडलो.

''तसो तांचेर उपाय करप बरेंच अवघड. पूण आमी अशें करूंक जाता. गोरवां शेतांत घुसतात तेन्ना एक दोग जाणांक धरून बांदून दवरूंक जाता. आमी अशें करतात म्हण कलेक्टराक आदींच कळोवन दवरूंया, कोणय परती कागाळ करिना जावंक. आफ्टर ऑल मोनजात ती.''

''आमी त्या गोरवांकारांकच सांगूंक जायना तांची गोरवां शेतांत सोडिनाका म्हण.'' कार्मेलिनान वाट काडूंक चिंतलें.

''सांगूंक जाता. पूण ताणीं आयकूंक नाका? तुमच्या वाड्यावयल्या बोस्त्यावांक तुमच्यान सांगूंक जाता? तो तुकांच खावंक येतलो. देखून म्हणटां, आमचे कडेन जाता तो उपाय करूया.'' बोस्त्यांवाची देख आमदारान दिली. कित्याक तो दुसऱ्यांचें आयकुपी मनीस न्हय. वयल्यान दादागिरी करता.

''आमी आयकलां दुसरे कडेन शेतकारांक शेताचें बीं आनी सारें वांटलां म्हण.'' मारियान आमदाराचे नदरेक हाडलें.

''ह्या वर्साक तुमकांय मेळटलें सारें आनी बीं. तुमच्या पंच वांगड्याकडेन ना जाल्यार म्हजे कचेरेंत येवन नांव दियात.'' आमदारान पयलीं खोशयेची गजाल सांगली.

''सर, आमच्या वाड्यांत सगळ्यांत चड सतयता तो प्रस्न खळयांचो. कितले जण आपल्या घरांतलें उदक खळयांनी सोडटात, कचरो खळयांनी उडयतात. हरशींच त्यो मातयेन आडवल्ल्यो आसतात. तातूंत उदक घुसलें म्हणतच घाण पडटा आनी किमसां जातात.'' लुईसान सांगलें.

''भलायकी केंद्राचे मनीस येवन हांगा केन्ना पळोवणी करूंक ना?'' आमदारान विचारलें.

''आमी तांका हाडिल्ले. वखद मारून गेले. सदां सदां येवंक शकतात? आमी जण एकल्यान समजुपाचो प्रस्न हो.'' आनंदान सांगलें.

''खंय खंय खळयांनी अशी घाण पडटा ती म्हाका दाखयात. हांव फाल्यां येतां. मागीर...''

''थंय सकल एक तळें आसा. तें उसपुपाक जाय.'' जॉन्सनान सांगलें.

''रुजारियो मात्सो हांगा यो. तें मात्शें पळय आनी म्हाका कळय.'' आमदारान तळीं उस्पुपाक हुशार आशिल्ल्या रुजाराक सांगलें. ताणें मानून घेतलें.

''सर, आमचो वाडो ह्या गांवचो एक सोबीत वाडो आशिल्लो. हो एक दोंगर आशिल्लो. फाटल्या कांय वर्सांत तो दोंगर ना जावपाक लागला. कोमुनीदादिच्या मनशांनी कितें घुटल्ये केल्यात तें खबर ना. कोणाची गाडी येवन माती घेवन वता तेंच खबर आसना. विचारल्यार व्हडलें व्हडलें सांगतात. ताका लागून पावसाच्या दिसांनी सारके त्रास जातात. उदक व्हांवून वचूंक वाट आशिल्ली, ती लेगीत आतां बंद जाल्या आनी उदक जळीं-मळीं धांवता. केन्ना कोणाच्या घरांनी घुसता जाल्यार कोणाचीं दुरगां मोडटात. ती माती काडिल्ल्यान पेले वटेन वचपाचें उदक लेगीत हे वाटेन येता आनी नाशिल्ल्योच खळयो जातात. चलून वचूंक भिरांत दिसता पावसाच्या दिसांनी. हाचेर कितेंय उपाय करूंक जाता?'' आदलो पंच वांगडी मिनीन उक्तेपणीं उलयलो.

"हो एक बरोच गंभीर प्रस्न. हांव आयकून जाणां आशिल्लों ही गजाल. पूण जो मेरेन तुमी हाचेर आवाज काडिनांत, तो मेरेन हांव वोगी आशिल्लों. आता खूब कळाव जाला. तरी आमच्यान पळोवंक जाता कितें करूंक जाता तें. तुमी एक, चार-पांच जण बुधवाराक म्हजे कचेरेंत येयात. त्या दिसाक मामलेदार येवपाचो आसा. ताचे कडेन उलोवणीं करुया. गरज पडल्यार कलेक्टराकडेन वेळ घेवया." आमदारान ह्या गंभीर प्रस्नाचेर वाट काडूंक चिंतलें.

"गेल्या वर्साक आमी मामलेदाराकडेन केस मांडिल्ली आमचें इतलें लुकसाण जालां म्हण. तो आपल्या मनशांक घेवन आयलो, पळोवणी केली आनी लुकसाण जालां ताचें मोल करून गेलो. आमकां एकल्याक लेगीत अजून एक रुपया मेळूंक ना. कितल्यो पावटी घालून पासून कसलोच उपेग जालो ना. ताका लागून दिसता थंय पावटी मारूंक आनीक देसपेस केल्ले परस जालां तें लुकसाण सोंसल्यार बरें म्हण." जोजफान सरकारी खात्याची एक झलक दिली.

"ना, ना. हें सारकें चुकिचें. तुमी म्हजे फुड्यांत केन्नाच येवंक नांत. तरी हांव पळयतां फाटल्या वर्सातली लुकसाण भरपाय दिवंक जाता जाल्यार. तुमी बुधवाराक म्हजे कचेरेंत येयात." आमदारान सरकारी खात्याची बाजू घेतली.

"तुमचो पंच वांगडी कोण रे? तो दिश्टीच पडना." आमदाराल्या ह्या प्रस्नान कोणें तरी पंच वांगडी आंतोनीक मुखार घालो. "असले हे वाड्यांतले प्रस्न तुमी पंचायतींत केन्ना भासाभास करूंक नांत? ग्रामसभेंत तुमी कोणेंच मांडूंक नांत?" आमदारान तांकांच दोश दिलो.

"कितले पावटी मांडले. पूण तांकां आमच्या बारीक बारीक प्रस्नांचेर भासाभास करूंक वेळ खंय आसा? कोण येता रीजनल प्लॅन म्हणटा. कोण येता मॅगा प्रोजॅक्ट म्हणटा. कोण येता रो-हावजीस म्हणटा. असले प्रस्न आयले म्हणटकच ताचेरूच भासाभास जाता आनी बसकेचो वेळ काबार जाता. आनीक तीन म्हयन्यांनी ग्रामसभा जाता, तातूंत परतें तेंच. सर, आमच्या वाड्यांत चडसो गरीब आनी मागास वर्गांतले लोक. तांचेकडेन धाडस खंय आसा मेजार मुठी मारून झगडपाक?" आंतोनीन स्पश्टीकरण दिलें.

"बरें आसा. तुमकां धाडस हांव दितां. जे कोण ही जमात घेवंक मुखार सरल्यात तांकां म्हजी शाबासकी. घडये आमच्या पुराय गोंयांत असली वॉर्ड-जमात पयलेच फावट जाल्या आसतली. ही एक देख जावन आसा दुसऱ्या वाड्यांक आनी गांवांक. आज घडये तुमचे सगळे प्रस्न मुखार येवंक नांत आसतले. आमी परत मेळूंया आनी आज मांडल्यात त्या प्रस्नांचेर तोडगो काडुंया. तुमच्या वाड्याविशीं हांव सांगतां. तुमच्या वाड्याखातीर हांवें एक मांडावळ केल्या. तुमी म्हाका आपयलो तेन्नाच हांवें म्हज्या मनशांक घेवन एक प्लॅन काडला. आनी तुमच्या वाड्यांत कितें ना आनी कितें आसा हाची दखल घेतल्या." आमदार लोकांक पळोवन खुशाल जालो.

"आतां आयकात." ताणें आपली मांडावळ सांगूंक सुरवात केली. "हांगच्या भुरग्यांक खेळूंक इल्लो लेगीत मेकळो लुगार ना. तें एक तांक आसा तें पुरोवन भुरग्यांक खेळपाचो लुगार करतां. तुमच्या वाड्यावयली शाळा बंद पडपाचे वाटेर आसा. ताचेर उपाय काडूंक फुडल्या म्हयन्यांत एक बसका घेवंया आनी आमच्यान कितें करूंक जाता तें पळोवंया. तुमच्या वाड्यांत कितलींच बी. पी. एल. घरां आसात. तांची नोंदणी तुमी करूंक ना. हांव तलाट्याकडेन उलयलां. तो तुमच्या घरांनी फाल्यां भेट करतलो. जांचीं घरां बी. पी. एल वळेरेंत पडटात तांकां सरकाराची खास सवलत आसा, घर सारकें करूंक पयशे मेळटात, ते तुमकां रोकडेच पावते करुया. आनीक एक गजाल, आमच्या समाज कल्याण खात्यांत मागास वर्गांतल्या लोकांक जायत्यो येवजण्यो आसात, तांचो तुमी फायदो घेवंक जाय. चेडूं भुरगें इकरावेक आसा जाल्यार तुमी एक अर्ज करूंक जाय, बारावी पास जातच ताका पयशे मेळटात. उंचलें शिकप करूंक पयशे मेळटात. एक चेडूं काजार जालें जाल्यार ताका पयशे मेळटात. तुमचे मदले कोणय दुसरे जातिच्यां कडेन काजार जाल्यार, तांकांय पयशे मेळटात. ह्या शिवाय कोणाक साठ वर्सां जाल्यां तांकां पेन्शन मेळटा. कलाकार आसत जाल्यार, तांकां चड पेन्शन मेळटा, सांस्कृतीक पुरस्कार मेळटा. वेवसायीक शिकप घेवपाखातीर तुमकां सरकारान कितलेच पयशे दवरिल्ले आसात. त्या शिवाय तुमचे उदरगती खातीर कितल्योच येवजण्यो आसात, ज्यो हांगा कळनांत. देखून तुमचे मदले दोग जाण शिकिल्ले मनीस म्हजे बराबर येतात. हांव तुमकां समाज कल्याण खात्याच्या संचालकाक मेळोवन दितां. तो तुमकां सगळ्यो येवजण्यो सांगतलो. ताचो फायदो काडात. म्हजो तुमकां सगळो तेंको आसतलो. आनीक कोणाक कितें सांगूंक जाय?" आमदारान लोकां खातीर आंखिल्लें सगळें सांगलें.

"थँक्यू व्हेरी मच सर. तुवें तुजो मोलादीक वेळ दिलो आमचीं गाराणीं आयकून घेतलीं आनी तूंय आमचे पसत कितें करूंक सोदता तें सांगलें म्हण. आमी कांय जण बुधवाराक तुमचे कचेरेंत येतात आनी पणजे कोण येतले तें तेन्नाच सांगतात." जोजफान सांगलें. आमदार सगळ्यांक हात हालयत गेलो.

"आतां सांग रे अंकूश. ही वेंचणुकेचे तयारेची जमात जाली?" सुनिलान विचारलें.

"चुकलें म्हजें. खरें म्हणल्यार प्रत्येक वाड्यांत असल्यो जमाती जावंक जाय. आमदारय जागृत उरता." अंकूशान आपली चूक वळखली.

"हें राजकारण न्हय, समाजकारण." जोजफान म्हणलें "चलात, आतां मुखावयले तयारेक लागुया."



# मनीसपण खऱ्यानीच शेणलां काय किंते?

**आ**गे बाये! किंतें सांगपाचें. सगळो दीस हावेन ताका सोदलें. बाजारांत सोदलें, पूण खंयसरूच सापडूंक ना. ती जर खंय विकती मेळ्ळी जाल्यार हांव ती विकत घेवपाक फाटींफुडें पळोवचें ना? मागीर ताका कितलेय पयशे आसूं हांव ती विकती घेतलें. खरें सांगपाचें म्हणल्यार ती वस्त विकती मेळना. ती सगळ्यांकडे आसता. म्हणजे... आसपाकूच जाय. पूण आयच्या जगान ती खूबच दुर्मीळ जाल्या. तशी ताची किम्मत सुध्दां करपाक जायना. कारण मुळांतूच ती खूब अनमोल आसा. हें सगळें सांगलें पूण हांव किंतें सोदतां तें तुमकां सांगुंकूच ना. हांव सोदतां 'मनीसपण' जें आयज दुर्दैवान शेणलां.

हो खरो फकणाचो विशय न्ही तर सामको गंभीर विशय. आयच्या काळांत मनशा भितरलें मनिसपण ना जावपाक लागलां. एका काळार मनिसपणाचेर नार्ती तिगून उरतालीं. पूण आतां मनीसपण नाशिल्ल्यान मनीस मनशाक विसरूंक लागला ही मात काळजी करपा सारकी गोश्ट आसा. 'मनीसपण म्हणजे मनशान मनशाखातीर, मनशाकलागून, मोनजाती खातीर केल्ली मदत.' पूण असलें वागणें मात आमकां खंयसरूच दिश्टी पडना.

जेन्ना जेन्ना वर्तमानपत्र हातान घेतां तेन्ना मनिसपण सांडटा हाचो प्रत्यय दिवपी कितल्योश्योच घटना वाचपाक मेळटात. वर्तमान पत्रांचेर पानांचीं पानां, माथाळेच्या माथाळे खून, दरोडे आनी चोरी हातूंत भरलेले आसतात. मासूम भुरग्यांचे पयशांखातीर केल्ले खून ह्या सारख्यो सत्य घटना आयच्या काळांत घडटात.

२१व्या शतकाकडेन वतल्या आमच्या देशान संगणक आनी विज्ञानान इतलो विकास घडोवन लेगीत असल्यो विचित्र घटना आमच्या देशांत घडटात. खंयसरूय अपघात जालो जाल्यार थंय किंतें जालां तें पळोवपाक लोकांची गर्दी भरता. पूण मनिसपणान जखमी जाल्ल्या मनशाक हॉस्पिटलान कोण घेवन वचना. आपले वळखीचो कोण न्हय नी हें पळयतात आनी गर्देतल्यान हळूच वयतात.



समाजाची ही मानसिकता खरीच अस्वस्थ करून उडयता. 'पृथ्वी सुर्या भोंवतणी फिरना, जाल्यार ती पयशां भोंवतणी फिरता.' हें नटसम्राट नाटकांतलें वाक्य खरें जातना दिश्टी पडटा. कारण संपत्ती जमोवपाच्या नादान कितल्याशाच फावटीं रक्ताच्या नात्यांनी शत्रुत्व निर्माण जाता. शेतांभाटां, मालमत्ता लागीं करतां करतां मनीस आपणाकूच विसरता. ताका जोड लागल्या ती सत्तेची. मागीर ती घरान आसूं, ऑफीसान आसूं किंवा देशाची आसूं. सत्तेखातीर खूब वेळां मनिसपणाचोच बळी वता. त्या शिवाय राग हो सुद्धां मनशाभितरलें मनिसपण काबार करता.

'मनिसपणाच्या शत्रुसंगे युध्द आमचें सुरू....'

हें युध्द सुरू करप गरजेचें आसा. अर्थान, हें युध्द तशें खूब वर्सां पयलीं सुरू जालां. वर्णभेद, गुलामगिरी असल्या मनीसपणाच्या दुस्मानांवांगडा कितल्याशाच जाणांनीं आवाज उठयलो. ते म्हणजे अब्राहम लिंकन, मार्टीन ल्युथर, भगवान महावीर, स्वामी विवेकानंद, भगवान गौतम बुध्द. ह्या सारक्या लोकांचें पुण्यस्मरण जाल्याबगर रावना. मदर तेरेसा ही तर प्रत्यक्ष मुर्तीमंत मानवतेची महागाथा. तिणेन मनशांखातीर जें काम केलां तें विश्वाखातीर प्रेरणादायी आसा. खरेंच मनशांतलें मनीसपण आजून सांडूंक ना अशें केन्ना केन्ना दिसता. ती खंयतरी मनशाच्या मनान लिपून बसल्या. कदाचीत ती स्वार्थाक लागून, अहंकाराक लागून, ना जाल्यार समाजीक वातावरणाक लागून ती आमकां दिसना. ताका लागून तिका जागृत करपाची गरज आसा. तिका आपल्या कार्याच्या माध्यमांतल्यान जागी करपाची गरज आसा. कांय लोकां भितर ती आयजय जागी आसा हें काय संस्थांच्या रुपान दिसता. म्हणूनच हे मनशा,

'एकजुटीन एकचारान
एकदांच रावन पळय
जिणेतले खोशये खातीर
मनीस म्हूण जगून पळय'

जेन्ना हे गोश्टीची जाणीव जगाक जातली तेन्ना उदरगतीक सुरवात जातली. इतलेंच न्हय तर मनीस स्वता सुध्दां खूश रावतलो आदी दुसऱ्यांकूय खूश दवरतलो. जेन्ना तो पयलीं आपणाली प्रगती करतलो तेन्नाच देशाचो विकास जातलो आनी तेन्नाच तो म्हणूंक शकतलो 'मेरा देश महान!'

■■■

– मेहंदी अनय नायक देसाय



१२वी कॉमर्स,
गोपालनगर, पर्वरी – गोंय
फोन : ९८२३७४५७०८

# बाजार



- रुपा कोसंबे
शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

*आमकां जाय तें हाडून दिवपाबगरूय आनीक खूबशी ज्ञानसंपदाय तिचेकडेन आसा. केन्ना केन्नाय ती ब्युटीशीयनाचो रोल करतनाच कोणाक कसली हेयर स्टायल सोबून दिसतली, खंयची वेशभुषा कोणाक सूट करता, खंयचो रंग कोणाचेर उठून दिसता! ह्यो टिप्स आमकां न मागतां मेळटात. बाजारांत खंयचो पदार्थ नवो आयला?*

हांव ऑफिसांत पाव जाल्यार आमची भोंवती भागरथ जाग्यार नाशिल्ली. शेर्त येवन शुक्रारा बाजाराक पासय मारपाक गेल्या आसतली. पूण ती आयिल्ल्याच्यो सगळ्यो खाणो-खुणो ऑफिस मिरयताले. काल कार्बनपेपरान भरून ओतताल्यो त्यो बालद्यो कोयरांतल्यान मुक्त जाल्ल्यो. मेजां आनी कदेलां न्हावन धुवन शुचिर्भूत जाल्लीं. उदकाचो बंदोबस्त जाल्लो आनी सगळें ऑफिस चकचकीत करून जातकीर पुरो जावन सान्न कोनशाक सुशेग घेताली.

आमी सगळीं तिका भोंवती भागरथच म्हणटालीं. आमच्या सगळ्यांच्या पयलीं येवन ऑफिस उगडून आपले नितळसाणेचें काम करून जातकीर लागींच आशिल्ल्या बाजाराक पासय मारून आयले बगर तिका सुखच लागनाशिल्लें. तिचें कामय सगळें दिस्तादिस्त आशिल्ल्यान कोणाक तसो आक्षेप नासतालो. पूण ऑफिसांत कस्टमरांची गर्दी जाली आनी पॉलिसीचेर सायन मारचेखातीर ऑफिसराकडेन व्हर हाड करपाखातीर कोण ना म्हणतकीर मागीर तिच्या सात पिळग्यांचो उद्दार जातालो. पूण कितलीय बोब पुसून मारली, तिका तापयलें तरी ती कानार केंस काडटाली. तीय बेस बरी जाणा आशिल्ली. सगळ्यांच्या रागाचो पारो देंवतगीर सगळें जाग्यार पडटलें. सदांचो अणभव तिचो तो! कारण हिची भायर भोंवपाची आवड लक्षांत घेवन आमी सगळीं तिका खंयचेंय नाजाल्यार खंयचेंय काम सांगून पिटाळतालीं. धा जाणांचीं धा कामां. पूण केन्नाच कोणाक विरूस करिनासताना ती पंचवीस सोपणां चड देंव करून प्रत्येकाच्या पर्सनल कामांक हातभार लायताली. म्हणटकीर तिका कितलेंय तापयलें तरी तातूंत जोर नासतलो हाची खात्री आमच्या वांगडा तिकाय आसताली. एकाच तरेचें तरी काम तें? कोणाक भाजी हाड, कोण सकाळचो कांय खायनासताना आयला ताच्या



पोटाची वेवस्ता कर, कोणाक वखद हाड, कोणाक दोतोरागेर वचून सीकनॅस सर्टीफिकेट हाड. म्हणटगीर चडकरून ती ऑफिसा भायरूच. पूण कितेंय हाडपाच्या व्हरपाच्या कामांक तितलीच फिशाल. खंयचीय वस्त केन्ना, खंय, कोणाकडेन, कितल्या किंमतीक घेवपाची हाची तिका बारकायेन म्हायती आसताली. केन्नाय ऑफिसान येतना वेळ मेळलो जाल्यार वाटेर कितें मेळटा तें घेवन आमी ऑफिसाक गेलीं जाल्यार दीस्त तिची नदर त्या सामानार पडटाली. मागीर ती वस्त



मागतां मेळटात. बाजारांत खंयचो पदार्थ नवो आयला? खंयचीं फळां केन्ना खावपाचीं, पुरूमेंत कसलो करपाचो असल्या तिच्या सल्ल्यांची आमकां इतली म्हणून संवंय जाल्या की आमी आमची तकली वापरीनासताना तिचेरच निंबून रावतात. बाजारांतलीं काण्णां, चुन्नां, जांभळां हीं फळां तर आमकां ऑफिसबसल्याच खावपाक मेळटात. तेंच कित्याक दोणात घालपाक आंबाडे जावं आंबल्यो, नवीं मिरमिरीत तेफळां, वायंगीं, कणगां कितें कितें म्हणनाका आपूण बाजारांत आयिल्ल्याची वर्दी तिचेकडेन आमकां पावयतात आनी आमी रोखडीच तिका ऑर्डर दिवन आमची रूच भागोवन घेतात.

तिचो आनीक एक सामको जिव्हाळ्याचो विशय म्हळ्यार रेसिपीज. आपल्याक खबर आशिल्लें पाककौशल्य दुसऱ्यांक सांगपाक जितलें आवडटा तितलेंच दुसऱ्यांकडच्यान नवे नवे पदार्थ शिकून घेवन ते रोखडेच करून पळोवपाची तिका खूब आवड. दुसऱ्या दीस मागीर तो पदार्थ कोणें शिकयल्लो ताच्या सर्टिफिकेटा खातीर ऑफिसाक हजर. तो बरो जाला म्हण सांगतगीर मागीर ती खूश.

अशें 'ऑफिसच माजें घर, जाय तेन्ना भितर वच, नाका तेन्ना भायर सर' हे धर्तेर तिचो दीस पासार जाता. हालीं हालीं तर ती आपल्या जाळ्यांत सायबाकय ओडपाक पळयता. ताका ऑफिसांतल्या परस बाजारांतलें कितें जाय नाका पळोवप, ताची गणपती वयली श्रद्धा पळोवन दर विनायकी संकष्टेक ताणें सांगनासताना दुर्वा-फुलांची वेवस्ता करप अशी तिची अखंड सेवा चालू आसा. आतां पळोवंया आमचो सायब तिचे सेवेन प्रसन्न जावन तिका जाय तेन्ना बाजाराक वचून, जाय तितलो वेळ रावन, जाय तें घेवन येवपाची परमिशन दिता काय तिका जाग्यार बसोवन आमचेर हावळ हाडटा?

कशी म्हारग पडली, आपूण जाल्यार ती कशी हाडपाची हाचेर तिचें लेक्चर आयकतासर हाडिल्ल्याक ती वस्त आपलेखातीर कांय जायना पूण कित्याक हाडली काय जातालें. म्हणटकीर हें सगळें आयकून घेवचे परस तिका वचून ऑर्डर दिली आनी जाय ती वस्त घरा व्हेली हाची आमका इतली म्हण संवय जाल्या की केन्नाय ही वल्ली ऑफिसांत आयलीना जाल्यार त्या दिसाक आमचें कशें जातलें ह्या चितनान आमचें कामाकडेन कशेंच लक्ष लागनाशिल्लें. वचनाफुडें तिका पळयलें म्हणटकीर सुशेग जातालो आनी आज घराकडेन कितें व्हरपाक जाय हाची मनांतल्या मनांत यादी सुरू.

भितरल्या सायबाक ताकाक तूर लागपाक दिनासतना आमकां कितें जाय तें हाडून दिवपाची तिची कळाशीच तोखेवपा सारखी. केन्नाय ही आमी ऑर्डर केल्ल्या सामानाची पिशवी घेवन भितर सरली आनी सायब कॅबिनाचें दार उगडून भायर येतना तिका मेळ्ळो तेन्ना आमच्या पोटांत पांच पांच जातालें. आमचें सामान म्हण सांगत जाल्यार! पूण ना, तिची पायलेक पंचवीस उतरां तयारच आसतालीं. पोस्टांत गेल्लें, बँकेंत चेक दिवपाचो आशिल्लो, टॅलिफोनाचें बील भरूंक गेल्लें ह्या असल्या कामांचो तिका बेस बरो उपेग जातालो. मागीर तें काम करून येतना तिका वाटेरच भाजीवाली दिसताली, कोणाय वळखिच्याची सागवाद मेळटाली. अशें जायतें जातालें. एक फट लिपोवपाक धा फटी मारच्यो पडटात हो सिद्धांत तिच्यामुखार पोको थारतालो. तिची सांगपाची तरा पळयल्यार ही धादांत फट उलयता म्हण सांगपाक कोणाकच छाती जावचीना, अशी सरस्वती तिचे जिबेर नाचता.

आमकां जाय तें हाडून दिवपाबगरूय आनीक खूबशी ज्ञानसंपदाय तिचेकडेन आसा. केन्ना केन्नाय ती ब्युटीशीयनाचो रोल करतनाच कोणाक कसली हेयर स्टायल सोबून दिसतली, खंयची वेशभुषा कोणाक सूट करता, खंयचो रंग कोणाचेर उठून दिसता! ह्यो टिप्स आमकां न

■ ■ ■



– आशा शानभाग
सादोळशें–काणकोण– गोंय
मो. : ९४०४१४५३३७




सकाळचीं घरचीं सगळीं कामां आनी भुरग्यांची च्या खावपाची तयारी करता मेरेन सकाळ सोंपता. घराकडेन दिसभर चर्वण करीत राविल्ल्यान हांव इंग्लीश तांतयागत गोलमटोल जायत गेलें. लोक मॉर्निंग वॉकाक वचून खंय बारीक जातात! म्हणून हांवय वतलें म्हळ्यार सकाळ च्या आनी गिळपाचें हातुंतच सोंपता. तरी हांवें बारीक जावपाचें सामकें मनार घेतिल्ल्यान मॉर्निंग न्ही जाल्यार इव्हनींग वॉकाक तरी वचपाचें थारायलें आनी बेगोबेग सुरूय केलें. दोन-तीन कि. मी. लांब पासय मारतकर बरो कळसोभर घाम आंगांतल्यान व्हांवतालो. तानसोर लागिल्ल्यान घटघट करून उदक पियेतालें. ताका लागून म्हजें गिळप मात्शें कमी जालें. घडये, म्हजी कुडय हय न्हयशी बारीक जाली ती इव्हनींग वॉकानच जायत. म्हणून हांव हो वॉक केन्नांच चुकयनाशिल्लें.

पयर अशेंच सांजवेळचें मात्शें वत मोव जालेंशें पळोवन हांव पासयेक भायर सरलें. पाळणींतल्यान रस्त्यार चांटी मात तेंकयल्या हांवें. थंय पळयल्यार सवीतबाय, मोर्तुलाका आनी ठकी मावशी उबी आसात. "देवा, आयज कोणालें धुवपाक घेतलां काय ह्या वारगतीणींनी?" हांवें मनांतच देवाक प्रस्न विचारलो. हीं तिगांय एकठांय आसप म्हळ्यार किदेंयतरी, खंयतरी घडलां हें शेर्त आनी ती गजाल फाल्यांमेरेन गांवभर जावप हें डबलशेर्त. कोणालो म्हयनो चुकला! कोण कालच न्हाल्या.... इतलेंच न्हय तर कोणालें कोणांकडेन हुंहू चल्लां. सगल्यांचें लिस्ट हांचेकडेन हजर. इंटरेस्ट आसल्यार थोडो वेळ हांचे म्हऱ्यांत थारचें. आपसूक सगल्यो गजाली कानार पडल्योच म्हणून समजयात. सगल्यांच्यो कसल्योय गजाली हीं तिगांय फातरीचेर आपटिल्ल्या कपड्यांवरी धुयतात. हांकां टाळून वचप अशक्यच म्हणून मात्शें हांसून कूस मारपाक केल्यार ठकी मावशेन फाटल्यान हाताक घट्ट धरलें. "सुंदऱ्या, तरतरत खंय वता? खिणभर राव हांगा." पाडापडलें. हांचें धुंवप आतां आयकत रावपाचें हांवें. इव्हिनींग वॉक आयचेदिसा पाडा पडलोच. मनांतच गाळी घाल्यो हांवें ठकीमावशेक.

"ए सुंदऱ्या. केसराकाल्या सुनेचो गडगड आयकला मुगो? नेण्टो घोव मरून देड वर्स लेगीत जालें ना. हें लागलें मुगो नाचपाक. दिसपट्टी दादले घिट्ट्यो घालतात पळय ताचे घराकडेन." "झक मारूं गे ताजें. म्हज्यानी म्हजीच कूड आनी जीव सांबाळपाक जायना. ताचें आनी कोणाक पडलां हांगा?" "आगो अशें म्हणून कशें जातलें? आमी, तुमी कोणेयतरी फुडें सरून ताका समजावंक जाय, घोव नाशिल्ले बायलेन कशेतरेन रितीन रावंक जाय तें." सविताबायेल्या हे जापेचेर मात हांव तिडकलें. "आगे घोव ताचो मेला. लुकसाण जावपाचें तें ताजेंच बाबड्याचें चड जालां. तुमी ताचें धुयनाकात ओगीच." फुडें वचपाक हांवें दोन चांटयो मारल्यो. इतल्यांत बाला, केसराकाकी सून कोणातरी पायलटा वांगडा देंवलें. पाळणींत देंवतनां म्हजेर ताची नदर गेली. "सुंदरमावशे, आयज तुंवय बी ह्या कंपनीत शी? इव्हिनींग वॉक शेळेलो तुजो आतां." म्हाका हटकीत बाकी महिला मंडळाक थोमणो मारीत तें गेलेंय बी.

"आगो सुंदऱ्या तुजो आनी ताजो बरो घस्टो आसा मुगो. तूंच समजाय ताका आनी बरे तरेन मानान जगपाक शिकय." मोर्तुलाकान म्हाका म्हणतकीर हांव पुरसभर वयर उडले. खरें पळेल्यार दरेकान आपली जीण कशी जगप हो ताचोच विचार, ताचोच अधिकार. आपली जीण आपल्याक जाय ते तरेन जगप हो दरेकाचो सैमिक अधिकार. तो कोणेंच कोणाकच दिवपाचो नासता वा

कोणायकडच्यान घेवपाचो आसता. पूण हांचेमुखार असलें कितेंय उलयल्यार हीं फाल्यांमेरेन म्हजेच नांवान गांव भरतलीं ही भिरांत म्हाका पडिल्ली. ''बरें पळयतां हांव.'' अशें ओठांतच पुटपुटत हांवें कूस मारली.

आयज शेनवार जाल्ल्यान आमचो पसरो रातचो णवमेरेन उगडोच उरपाचो. हातावेल्या पोटाचे लोक आयज पागमेंत जातकीर गेल्या सुमनाची उदारी पावोवन नवें सामान व्हरतात. देखून आमगेले हे शेनवारा णव-साडेणव मेरेन पसरो बंद करिनात. आयज तिनसांजेर बालाक मेळपाक वचपाचें हांवें थारायलें. सांजची पासय कॅन्सल केली आनी हांव बालाल्या घराचीं सोपणां चडलें. ''सुंदरमावशे यो गे. बस!'' तोंडभर हांसून बालान म्हाका येवकारलें. ''आगो, पोरा एकटेंच आसा गो तूं?'' एद्याव्हडल्या घरांत मांयची कांयच जाग ना हें पळोवन हांवें म्हळें. ''हय'' एकाच उतरान ताणें प्रस्नाचें वारेंच काडलें.

निवळ पेल्यांतल्यान नितळ उदक म्हाका दितनांच बालान विचारलें. ''मावशे पयर रस्त्यार त्रिकूट म्हजेंच धुयताली मगे?'' जाप दिनास्तना हांव ओग्गी रावलें. हांवें तोंडाक लायिल्लो उदकाचो पेलो रितो करून सकयल दवरलो. ''बाला विचारतां म्हणून रागार जावं नाका. तुवें विशय काडलाच तो. एक सांग ते दिसा तीं तिगांय तुजेविशीं म्हणटालीं ती गजाल खरी? तिवूंय मुगो बेस्टेंच कोणायचेंय धुयतात.'' बाला दुःखदिणेंशें हांसलें. ''मावशे, तुजो म्हाका वालोर दिसता. हांगा थंय कांयच पचपचना आसतना तुवें डायरेक्ट म्हाकाच विचारलें हें खूब बरें केलें.''

''बाला, आतां म्हाका तांचें उलोवप फट म्हणून सांग पळोवया.''

म्हज्या साद्या पूण मोगाळ उलोवण्यान बाला भारावन गेलें.

''सुंदरमावशे ती व्हडली काणी आसा. वेळ आसा मुगे तुजे लागीं?''



बालाचे आवय-बापूय गरीबशे. कश्ट करून पोट भरपी. चली वाडलें ते बराबर ताचो बापूय बाबडो आनीकच थकलो. इतल्यान एकल्यान बालाखातीर सोयरीक हाडली. घालपा-करपाची कांयच अट ना. न्हवरेकारांक गरीब आसूं पूण बरे रितीचें चली जाय इतलेंच. ह्या गजालीनी बालाचीं आई-बाबा बाबडीं फुल्लीं. न्हवरो बरे शिर्विसेकय आसा आनी फोटो पळेल्यार न्हयकारपासारको न्हय. इतल्याचेर पळोवपाची कार्यावळ थारली.

''बाला, तुवें धनंजयाचोच फोटो पळोवन पास केल्लो मगो?'' हांवें बालाक मदींच विचारलें.

''मावशे थंयच तर आमी फटवलीं गे.'' दोळ्यांतलीं दुकां पुसत बालान सांगलें.

बालाच्यो नण्डो, धनंजयाचे काका व्हडल्यो व्हडल्यो गाडयो घेवन चली पळोवंक आयिल्लीं. हाडलो नाशिल्लो तो न्हवरो धनंजयाकच. पळोवपाक न्हवरो म्हणून ताचो भाव सुरेंद्र आयिल्लो. ताकतिकेन उमेदीन थोड्याभितर लग्न करपाचें थारलें. सव्यार बशिल्लो धनंजय पळयतकीर बालाच्या घरच्यांचो आवरो उडलो. गरीब आसलीं तरी लग्न मोडल्यार अब्रू वतली हे खातीर उमेदी, कवळ्या मनाच्या बालाचो बळी थंय सव्यार चडयलो. ही सगळी काणी आयकतनां हांव दोळे पुसत रावलें. ''मावशे, दिसपट्टी ताजे वासनेक बळी पडलें गे हांव. ना भावनीक मोग ना लागचार. फकत कुडिची भूक पडिल्ली ताका. ताजे तोंडाक आनी सगल्या आंगाक येतल्या गुटख्याच्या आनी विडी-सोऱ्याच्या वासान ताका म्हऱ्यांत येवपाक हांव विरोध करतालें.''

''मागीर?''

हाणें बाबड्यान ताका विरोध केल्यार मांयन धनंजयाक फोर्स दिवप.

''पुता, बायल हाडल्या ती तुजे सेवेक आनी तुकांच हात लावंक दिना ती? दोन फुलय आनी तुका जाय तें वसूल कर.'' ह्या फोर्सार तो आनीकय फुलतालो आनी बाला नेमान दीस-रात केन्नाय बायलेचें कर्तव्य ह्या कर्माआड शारिरीक आनी मानसीक बलात्काराचे भकीक पडत रावलें. शेवटाक तो वेसनांक लागून पोकळ जालो. आतां कुडीचो भोग घेवंक शकना जालो तेन्ना ताणें विकृत वागपाक सुरवात केली.

''देवा सायबा. बायलमनशेक मन हो दिसनाशिल्लो अवयव कित्याक दिला रे तुवें?'' म्हज्या ह्या उतराचेर बाला मात्शें हांसलें.

''मावशे म्हजें सांगप आयकून तुवें देवाक प्रस्न केलो. हांवें भोग भोगता आसतना देवाक उले मारले. पूण तो म्हाका तेन्ना पावलो ना. पूण वेसनांनी पोकळिल्ल्या धनंजयाक सोपोवन मात ताणें म्हजेर सासणाचे उपकार केले.''

''खूबच भोगलें गो पोरा तुवें. शेजरा बी कोणाकच खबर नासतल्यो ह्यो गजाली. ना जाल्यार सवितबाय बी तुजें धुवपाची न्हय.''

''सगळ्यांक खबर आसा गे ह्यो गजाली. फुडें आयक. धनंजयाचें मडें घरांतल्यान भायर काडचे पयलींच सविताबाय, मोर्तुलाका आनी ठकीमावशेच्या घोवांनी केल्ली करणी सांगतां.''

धनंजयाक दहन करपाक मसुंडेंत व्हरपाची तयारी चलिल्ली. अचकीत सविताबायेचो घोव ताच्या म्हऱ्यांत आयलो खंय.

"बाला, घोव गेलो म्हणून भियेवं नाका हां. हांव आसां तुका पळोवपाक." बाकिचे दोगूय हींच उतरां सांगून धनंजयाच्या दहनाक गेले.

"आवयस, तुज्या काका-मामाच्या वयाचे मुगो ते! बरी खाज आसा मुगो हांकां." हांवें तिडकून एक उतर म्हळें.

"मावशे हांकां म्हजी मजत करपाची नासली. तर हांकां जाय आसली म्हजी कूड भोगपाक. हांवेंय चिंतलें म्हाका गरज पडल्यार मागीर पळोवया. पूण हांकां लागीं करप ना."

"बाये किदें आनी कितलें भोगलें गो तुवें?" हांवें चुरचुरत म्हणलें.

"मावशे इतलेंच न्हय, त्या ठकीमावशेलो घोव म्हजे फाटीर हात फिरयतालो. हय मावशे म्हज्या घोवाच्या मड्यासामकार. मावशे तो म्हजे कुडिचो अदमास घेतालो गे. हळूच सांगता माकोड, आगो तुका गरज आसल्यार कुरू केल्यार पुरो हांव हाजीर जातां आं." बालाचीं उतरां आयकतना आंगार काटो शिरशिरलो. बायलेच्या आवयपणांक देवतेच्या रूपांत पुजप, भजप हें आमचें दायज. तरी बायलमनीस ही कुडीचो भोग घेवपाची एक मासाची वस्तच?

"आगो, पूण मांय खंय गो तुजी?"

"हो सोंपलो ते दिसाक हांवें आपल्या पुताक खालो अशो बोबो मारताली पळयली मुगे तुवें? आतां आपली साटली-पोटली बांदून धुवांगेर घशटो करपाक पडल्या. म्हजो फुडार हांवेंच पळोवपाचो म्हणून हांवेंच आतां धिटायेन भायर चांटयो मारपाक आरंब केला. मेळिल्ले संदीचो लाव घेवन हांव हांगासर पावलां. शेर्त हाच्याकय फुडें वतलें हांव."

खरेंच बाला हुशार म्हणपासारखें. फाटल्या दिसांनीं जाल्ल्या पंचायतीच्या इलेसांवानी आपल्या पॅनलाच्या उमेदवाराचो प्रचार करपाक मतदारसंघाचो आमदार ह्या वार्डांत आयिल्लो. ताची भिरभिरपी नदर बालाच्या चेऱ्याचेर थिरावली. नदरेक नदरेन पारखून ताणें आपल्या चमच्यांकडच्यान बालाक आपोवणें धाडलें. आपल्या पक्षाच्या बायलां मोर्चांत काम करपाक ताका तयार केलें. कमी शिकिल्लें तरी चुणचुणीत बालान बायलांचो बऱ्यापैकी तेंको आमदाराक मेळोवन दिलो. हांतुमदी केन्नातरी आमदाराचें आनी बालाचें मन जुळ्ळें. आतां राज्याभायर वतना ऑफिशीयल सेक्रेटरी म्हणून बालाच ताचेवांगडा आसता. हेरशीं बॉस आनी पी. ए. अशे तांचें उघड नातेंच आसता तरी तांचेमदले लागीचे संबंद ताचे बायल-भुरग्यांसयत समेस्तांनीं मानून घेतल्यात.

"मावशे ही म्हजी चूक गे?" बालाच्या अचकीत प्रस्नान हांव विचारांतल्यान भायर सरलें.

"आगो, चूक वा बरोबर हें तुजें तुवेंच थारावपाचें. तुजे स्वत:चे जिणेंत हात-पांय सारपाचो म्हाका कांयच दिरेत ना. पूण उलोवपी लोकांक तू हें कशें सांगतलें?"

"मावशे तांकां पटोवन दिवपाची म्हाका कांयच गरज ना. म्हाका जिणेंत एके संदीची गरज आसली. आमदाराच्या रूपान हांवें ती घेतली आनी ते संदीचो लाव घेवन हांव वयर वयर चडत वतां. गांवच्या जाण्टेल्यांक लागीं करून फुकटची कूड दिवन घाण करचे परस मेळिल्ल्या संदीचो लाव घेवपाचें चिंतून हांवें आमदाराक लागसार केलो. म्हजी बाजू तुका मुद्दाम हांवें सांगल्या. तुका दिसता जाल्यार कोणाकय सांग. तें तुजेर सोडटां हांव. पूण म्हजी एक विनवणी मानून घेवन म्हजें धुयतल्या त्या तिनूय गांव भवऱ्यांक तांच्या घरकारांचें कर्तुब मात सांग आनी तांकां जाण्टेपणांत सारखें मुठींत दवरूंक सांग."

पयर त्या भवाऱ्यांक 'पळयतां' सांगून हांवें कूस मारिल्ली. आयज परतून तीच वेळ आयली म्हजेर. "बरें गो बाला. पळयतां तांकां सांगून." म्हणून मुळमुळीत उलयत हांव भायर सरलें. आंगणाचे मेरेर रावन हांवें फाटल्यान पळयल्यार संदीचो लाव घेवपी बाला म्हाका हात हालयतालें. आतां ताणें म्हाका दिल्ले संदीचो लाव घेवन लोकांचें धुवपी सावितबाय, मोर्तुलाका आनी ठकीमावशेच्या कानार तांच्या घोवांचें कर्तुब घालून तांचे दोळे उगडपाक जातले म्हज्यानी?....

■■■

# नीतीमुल्यांचीं घसरण



– काश्मिरी स. पावसकार
एवरशायन अपार्टमेंट,
शिवोली-गोंय.

"What a sculptor is to a piece of marble, values are to the human soul." ह्या सुविचारांतल्यान नितीमुल्यांचें महात्म्य रोखडेंच कळून येता. एक तेंपार भुरग्याक बऱ्या मुल्यांची शिकवण म्हणुंया वा देख घरच्या घरा वा भोंवतणचो समाज कसो वागता हाचे वयल्यान ही साबार मुल्यांची रुजवण मनाकाळजांत जातली. ताचे जोडयेक आदर्श व्यक्तिचीं चरित्रां बी एक वेगळें काम करतालीं. ते खातीर वेगळे वर्ग घेवन शिक्षण दिवपाची गरज पडनासली.

तशें पळयल्यार 'नीत' ही गजाल बेठी उतरांनी वा शाब्दीक शिकवणींतल्यान दिल्यार आयकुपी वाजेता. ताका ती समजुपाक जड वता. पूण जर स्वताची तोखणाय करिनासतना हेरांक आदर्श घालून दिवपाचो अडेचो आव हाडिनासतना एक सहजधर्म म्हूण जेन्ना कोणूय नितीन वागता तेन्नाच खरें म्हळयार नितीमत्तेचे धडे आपसुकूच मेळटात. पूण आयच्या समाजांत दिसपट्टी जावपी नितीमुल्यांचीं घसरण लक्षांत घेवन शालेय अभ्यासक्रमांत हेर विशया वांगडा मुल्य शिक्षणाचो आस्पाव केला. हें शिक्षण दितना समाजीक, वैयक्तीक, सांस्कृतीक, अध्यात्मिक अशा साबार मुल्यांचेर भर दिवप सामकें गरजेचें. हाचें कारण "Life without values, is like a ship without captain." अशें म्हणूं येता.

इकरावी बारावेच्या वर्गांत मुल्यांचे पाठ शिकयतना बरीं मुल्यां तांच्या कवळ्या मनार कोराथतना इत्सीत फळ आमकां मेळटलें ही अपेक्षा बाळगिल्यार वायट तें कितें? पूण जेन्ना ह्या मुल्यांक धरसोड वृत्ती वाडटना, ती मातयेभरवण जातना म्हजें काळीज तुट्टा. नीत सोडून अनितीक पाळो दिवपी ही पिळगी तयार कशी जाली? हाका जापसालदार पालक शिक्षक काय भुरगीं? हाचें कारण आमकां मागीर सोदून सापडना. तशें पळयल्यार कसल्याय वायट कर्तुबाच्या मुळाक वचून पळयल्यार आयज चड प्रमाणांत जावपी नितीमुल्यांचीं घसरण हेंच मुखेल कारण म्हणचे पडटलें. सादो भ्रश्टाचारूच घेतल्यार हाचेंच कारण दिसान दीस जावपी नितीमुल्यांचीं घट हेंच आसा.

खंयचेय शाळेंत येवपी भुरगीं शिक्षकांक 'तूं' ह्या एकोड्या उतरांनी काय 'तुमी' ह्या दोट्टी उतरांनी पाचारतात हाचे वयल्यान तांचेर जाल्ले संस्कार कळून येतात. पूण तशें नासत, बऱ्या संस्कारांची शिकवण आमी शिक्षकांनी दिवप ही आमची लागणूक. अशा संस्कारांक पाळो दिवपी तरणी पिळगी अस्तित्वांत आसा काय ना हो व्हड प्रस्न! मुल्यां आयज शेणल्यांत हाची देख दिवपी असो हो प्रसंग. काल पयर एक पालक आपल्या नापास जावपी भुरग्याक मार्क वाडोवन पास कर म्हूण शिक्षकाक धमकावंक लागलो. वयल्यान 'आपूण कोण तें तूं नकळो' म्हणू सांगून गेलो तें वेगळें! रिजल्टाच्या दिसांनी अश्यो जायत्यो गजाली कानार पडटात. "आमचीं भुरगीं आमचें कांयच आयकनांत तूंच कितें तें समजाय." अशें सांगपी पालकांची संख्या वाडूंक लागल्यात. असोच एक बापूय पुताचो रिपोर्ट व्हरपाक आयिल्लो. ताचो व्हडलो पूत म्हजो माजी विद्यार्थी. हांवें ताची वासपूस काडली. बापायन ह्या पुताखातीर हाच्या ताच्या कडल्यान पांयां पडून दुडू उबे केल्ले. आपलो पूत कर्तुत्वान जावचो देखून आपलीं हाडांचीं काडां केल्लीं. हांवें म्हळें "ताचें कितें जालें." तेन्ना ताणें सांगलें. हो पूत फाटलीं दोन वर्सां जोडीक लागला. पूण दुडवांची खबर केली तर म्हणूंक लागलो. "हांव जोडटां काय म्हूण तूं वाटूच पळयतालो काय कितें? म्हाका म्हजी जोड भोगूंक नाका?" बापायचे बाबड्याचे भोग थंयच उरिल्ले. गजाल आयकून नितीचे पाठ शिकोवपी हांव शिक्षक त्या दिसा खंय तरी फाटीं पडलो अशें म्हाका जालें.

एकदा नोट बूक तपासतना हांव जेम्सा म्हऱ्यांत पावलें. तसो तो गुणी भुरगो. पूण जेन्ना हांव ताचे फुड्यांत उबें रावन नोट्स वाचूंक लागलें. तसो जेम्स आपल्या भुजाक लावन म्हजी लांबाय मेजूंक लागलो. इश्टाक कुरू करून हांसूंक लागलो. हांवें तें पळयलें तेन्ना ताका समजायत म्हळें. "म्हजी शारिरीक उंचाय तूं कशीय मेळयशी, पूण जेन्ना तूं म्हजे इतके बुद्धीचे उंचाये मेरेन पावतलो तेन्नाच हांव तुका मानतलें." उतरां आयकून तो शेळेलो. अशीच एक विद्यार्थिनी शाळेच्या गणवेशांत गांवार हांगा थंय हेडटाली. तिका समजयलें तेन्ना ताची जाप 'म्हज्या घरच्यांक हाची कांयच आडखळ ना, मागीर तुका कित्याक पडलां.' आनी जाय नितीमुल्याची भास! सगलींच भुरगीं अशी नासतात, पूण हो आंकडो दिशी माशीं वाडत चल्ला ही सामकी खंतीची गजाल. देखून म्हाका भंय दिसता ही मुल्यांची घसरण थांबोवपी आसा काय कोण?

■ ■ ■



– ब्रॅण्डा मिनेझीस
कुस्मण – केपें, गोंय
फोन : २६६२४९१.

# रॉनी



*रॉनीन आपली तकली सकयल घातली आनी फादरान, हे वटेन, वायट परिणामांची वळेरी ताच्या दोळ्यां मुखार दवरून, निमाणें ताका सांगलें, "म्हज्यान तुका बांदून दवरूंक जायना. हांव सांगतां तें तुका खरें दिसता जाल्यार, तूं आयच्यान ही संगत सोड. बरें तें वेंचून काड. आयकतलो म्हजें? काय डॅडीक येवन सांगूं?"*

**मा**चये वयलो पड्डो उगडलो आनी ट्रॉफी, कपां, आनी सर्टीफिकेट्स दवरिल्लें एक मेज, कुशीक दिसलें. दोतोन्नीचो (धर्मीक शिकवण) निमाणो दीस. ल्हानशी सांस्कृतीक कार्यावळ आनी इनाम भेटवण सुवाळो, येवकार गितांतल्यान सुरू जालो.

देव-संदेशकार (धर्मीक शिक्षक) पॅट्रीसीयान कार्यावळीचीं सुत्रां हातांत घेतलीं आनी पाद्र विगाराक (धर्म गुरू) आनी मुखेल सोयऱ्याक माचयेर आपयलें. वेदीर बशिल्ल्या मानेस्तांक फुलांचे तुरे भेटोवन, सगळ्या जमिल्ल्यांक फादरान येवकार दिलो. आख्या वर्सभर, दोतोन्नीच्या वर्गांनी घेतिल्ल्या सर्तींनी जैतीवंत जाल्ल्या भुरग्यांक त्या उपरांत मुखेल सोयऱ्यांच्या हातांतल्यान इनामां भेटयलीं.

दोतोन्नीच्या इनामां वांगडा, त्या वर्साक वेंचून काडिल्लो उत्कृश्ट 'वेदी –सेवकाकूय' इनाम आसलें. पॅट्रीसीयान नांव जाहीर केलें, "ह्या वर्साचो उत्कृश्ट 'वेदी सेवक'....... रॉनी डी सौजा!" ताळयांचो गडगड आनी ह्या गडगडाच्या आवाजांतल्यान, सकयल प्रेक्षकां मदीं बशिल्लो रॉनी माचयेर चडलो. इनाम स्वीकारून, मुखेल सोयऱ्याक हात दिलो. पाद्र विगाराक मात हात दिताना तांच्या दोळ्यांत पळोवन मुमुर्खोच हांसलो आनी धादोस मनान आपल्या जाग्यार येवन बसलो.

जुनाच्या म्हयन्यांत, शाळा सुरू जातात, तशेंच जुलय म्हयन्यांत दोतोन्नीचे वर्ग सुरू जातात. तेच बराबर 'वेदी–सेवक' ह्या जम्याच्योय जमातींक, दर सातोळ्यांत, एकदीस सुरवात जाता. दर वर्सा नवे भुरगे ह्या जम्यांत भितर सरूंक, फादर भुरग्यांक उलो करता. ह्याय वर्सा तांणीं आयताराचें मीस सोंपल्या उपरांत, भुरग्यांक दोतोन्नीक धाडूंक तशेंच वेदी सेवकांच्या जम्यांत भरती जावंक आवयबापायक आनी भुरग्यांक विनंती केली.

दर वर्सा भाशेन, 'वेदी-सेवक' जावंक खूब भुरगीं आयलीं. पूण दोन-तीन म्हयने सरता सर जमो ल्हान जायत गेलो. इगर्जेच्या लागसारच्या वाठारांतलीं भुरगीं सोडल्यार, चार पांच जाणां पयसुल्ल्या वाड्यांतलीं आसलीं. जीं नेमान जमातीक हाजीर जातालीं.

वेदी सेवकांची जमात शेनवाराक जाताली. पुराय सातोळ्यांत दर दिसाच्या मिसांत, कोण खंयच्या दिसाक हजर रावंक जाय, तें, ते जमातींत थारतालें आनी ताचे प्रमाणें वेदी सेवक आपआपली जबाबदारी जाणून घेताले. सुजॅत, रॉनी आनी ग्लॅन त्या वर्सा नवीनूच जम्यांत भितर सरिल्लीं. दर शेनवाराक जमातीक येतालीं. थोडे म्हयने जाता म्हणसर, रॉनीची हजेरी देंवपाक लागली. जमातीक तीं तिगांय वांगडाच येतालीं.

एका शेनवाराक, सदांचे भाशेन, ग्लॅन रॉनीक आपोवंक गेलो. ताचे मम्मीन, तो जमातीक वचूंक गेलो म्हणपाचें सांगलें. सुजॅत आनी ग्लॅन जमातीक पावता जाल्यार, थंय रॉनी नाशिल्लो. दुसरो दीस आयतार. तीं रॉनीक

मिसाक मेळ्ळीं. ग्लॅनान ताका विचारलें ''रॉनी तूं काल खंय गेल्लो? तूं जमातीक गेला म्हणून तुजी मम्मी सांगताली. पूण तूं आमकां दिसूंक ना.''

रॉनीन जाप दिली, ''आरे, हांव जमातीकूच येवंक भायर सरिल्लों. वाटेर म्हजो एक इश्ट मेळ्ळो आनी ताणें म्हाका आपणागेर व्हेलो. फुडल्या शेनवारा हांव येतलों.''

दुसऱ्या शेनवाराकूय, रॉनी तांचे पयलींच घरांतल्यान भायर सरून गेल्लो. पूण जमातींत तो नासलो. तिसरो, चवथो, अशे कितलेच शेनवार आयले पूण रॉनी एकूय जमातीक येवंक ना. सुजॅत आनी ग्लॅन आतां दोगांय, रॉनीगेर वचना आसताना जमातीक येवंक लागलीं.



रॉनीची गैरहजेरी फादराक खटकली आनी एका शेनवाराक ताणें ग्लॅनाक विचारलें, ''ग्लॅन ह्या दिसांनी रॉनीचें कितें जालां? जमातीक तो कित्याक येना? वेदी सेवक जावंक ताका नाका? कित्याक येना तें विचारता तूं ताका?''

ग्लॅनान तकली हालोवन 'ना' म्हळें. फादराकूय तें विचित्रशें दिसलें, ''बरें हांवूंच विचारतां ताका. फुडल्या शेनवाराक, हांवें आपयला म्हूण रकाद दी ताका'' फादरान फुडें म्हळें.

जमात सोंपली आनी सुजॅत आनी ग्लॅन उलयत चलूंक लागलीं. सुजॅतान मदींच म्हळें, ''ग्लॅन, तूं जाणा, रॉनी कित्याक जमातीक येना तो?'' ग्लॅनान अजापून म्हळें, ''तूं जाणा तर? मागीर फादराक कित्याक सांगूंक ना तुवें?''

''आरे तो खंय वता तें हांव नकळो, पूण एका शेनवाराक ताका हांवें त्या कॅजीटना वांगडा पळयला. फुडल्या शेनवाराक आमी ताचो पारो करूंया. तो, आपले मम्मीक जमातीक वता म्हणून फट सांगता आसतलो. कितेंय पूण गोंदळ-गडबड आसा.''

''कोण कॅजीटन? तो कॉलेजीक वता तो? तो आमचे परस कितलो व्हड गो? आनी ताचो तो इश्ट कसो जालो तर?''

''तें हांव नकळो. ते खंय वतात तें तूं पळोवन यो.'' अशें म्हणत तीं दोगांय आनीक कांयच उलयनासतना आपल्या घरा पावलीं. दुसरो शेनवार आयलो आनी जमातीक वचपाचो वेळ जालो. ग्लॅन, बेगीनूच भायर सरलो, आनी रॉनीच्या घरा लागीं आडोसाक लिपून रावलो. त्या दिसा सुजॅत एकटेंच जमातीक गेलें.

अडेज वरांच्या सुमाराक, रॉनी घरांतल्यान भायर सरून चलूंक लागलो. थोडी वाट चल्ल्या उपरांत ताका कॅजीटन मेळ्ळो. आनी ते दोगूय पॅटसनाच्या घरांत भितर सरले. पॅटसन आपले जाण्टे 'ग्रॅनी' वांगडा रावतालो. ताचीं मम्मी आनी पप्पा, गल्फांत नोकरी करतालीं. ताची 'ग्रॅनी' दर शेनवाराक 'सेंट बिन्संट द पॉल' हे गरिबांची सेवा करपी संस्थेची वांगडी आशिल्ल्यान जमातीक वताली ती सांजेची परतताली.

शिटूकसाणेन, ग्लॅनान अंतर सांबाळीत, तांची फाट धरली. ते भितर सरतांच, तो तांचे घरा कुशीक गेलो आनी लिपलो. भितर आनीकूय भुरगे आसले. जनेलांतल्यान सिगरेटीचो वास, आनी टि.व्हीचो मंद आवाज आयलो. जनेलांशी वचून ताणें चिमटेंत धरून, पड्डो मातसो कुशीक काडलो. जाल्यार कितें पळयतलो? ते भुरगे सिगरेटी ओडीत, कसलें तरी बुरशें पिक्चर पळयताले, तें ग्लॅनाक दिसलें.

रॉनी कॅजीटनाचे कुशीक बसलो आनी पिक्चर पळोवपांत सामको गुल्ल जाल्लो. सिगरेट मात ताच्या तोंडांत नासली. कॅजीटन, मदींच तकली वयर करून तोंडांत धरिल्ले सिगरेटीचो नाकांतल्यान धुंवर सोडटालो.

''जावं, आजून सिगरेटीची गोडी हाका लागूंक ना.'' ग्लॅनान मनांत म्हळें. जड पावलांनी अनी खंती मनान ग्लॅन परतलो आनी वचून सुजॅताक ही खबर सांगली. कितें करचें तें तांकां समजना जालें. सुजॅतान म्हळें, ''आमी हें फादराकूच सांगया. ताचे मम्मीक सांगल्यार ताका मार पडटलो. फादरूच ताका सारको नीट करतलो.''

आयतारचें मीस जाल्या उपरांत, ग्लॅनान वचून फादराक सगली म्हायती दिली. एक बरो भुरगो वायट रस्त्यार पावला हें आयकून फादराचें काळीज दुखलें. ताणीं ग्लॅनाक म्हळें, ''बरें केलें, तुवें ताचो पारो करून. ताचे मम्मीक सांगूंक ना, तेंय बरें केलें. आतां अशें करूंया, आयजूच वचून, हांव ताची वासपूस करतलों म्हणून ताका सांग. हांवें, शेनवाराक ताका

जमातीक आपयला म्हणून रकाद दी. आनीक कांयच सांगूं नाका. फुडलें हांव पळोवन घेतां.''

फादरान सांगिल्ल्या प्रमाणें ग्लॅनान रॉनीक रकाद दिलो. पूण रॉनी जमातीक आयलो ना. ताका त्या पिक्चरांचें पिशें लागिल्लें. दुसरो दीस आयतार. भुरग्यांचें मीस सोंपतांच, फादर पयलींच भायर येवन रावलो. ताणीं रॉनीक भायर सरताना पळयलो. दोन पावलां मुखार घालून, ताचे म्हऱ्यांत पावलो. ताच्या खांदार हात दवरून ताका विचारलें, ''रॉनी खंय तूं? वेदी सेवकांचे जमातीक तूं आयल्यार खूब तेंप जालो. हांवें तुका यो म्हणून रकाद धाडिल्लो. पावूंक ना तुका? तूं काल येवंक ना म्हणून विचारतां.''

''ग्लॅनान म्हाका सांगिल्लें फादर. अभ्यास चड आशिल्लो. फुडले फावट चुकनासतना येतांच.'' रॉनीन फट मारली आनी चलूंक लागलो. फादरान ताच्या हाताक धरलो आनी मोगान म्हळें, ''रॉनी म्हज्या रुमांत यो. म्हाका तुजे लागीं उलोवंक जाय.'' रॉनीच्या पोटांत 'कुळ्ळ' जालें.

फादरान ताका रुमांत हाडून, आपल्या मुखार कदेलार बसयलो आनी ल्हानसो उपदेस दिलो. ''हांवें तुजी खबर काडल्या. तूं एक बरो देखिवंत भुरगो. जें तूं करता तें सारकें न्हय. ही तुजी पिराय शिकपाची. बरे गूण आनी संवयो लावन घेवपाची. येन्नाच तूं फटी सांगून, वायट कर्तुबां करूंक लागल्यार आनी वायट रस्त्यार चल्ल्यार तुजो फुडार बरो कसो जातलो?''

रॉनीन आपली तकली सकयल घातली आनी फादरान, हे वटेन, वायट परिणामांची वळेरी ताच्या दोळ्यां मुखार दवरून, निमाणें ताका सांगलें, ''म्हज्यान तुका बांदून दवरूंक जायना. हांव सांगतां तें तुका खरें दिसता जाल्यार, तूं आयच्यान ही संगत सोड. बरें तें वेंचून काड. आयकतलो म्हजें? काय डॅडीक येवन सांगूं?''

काकुळतेक येवन, रॉनी रडूंक लागलो. ''म्हज्या डॅडीक कांयच सांगूं नाका फादर. कोणाक खबर ना. हांव कितें करतां तें. हांव तुका उतर दितां. थंयसर आनीक हांव पांय दवरचो ना. ताची संगत सोडटां. हेरांकूय तशेंच करात म्हणून सांगतां. हांव चुकलों फादर! हांव चुकलों......''

फादरान ताच्या खांदार हात दवरलो. ताका शाबासकी दिली, ''गूड बॉय! आतां दर शेनवाराक जमातीक आनी आयताराचे दोतोन्नीक येवंक चुकयनाका.''

ताचो हुमेन भिजिल्लो हात आपल्या हातांत घेवन, फादर परत उलयलो, ''तुका हांवें नवी वाट दाखयल्या, म्हाका कसलें इनाम दिता?''

''ह्या वर्साचो 'बरो वेदी सेवक पुरस्कार' घेवन हांव तुका दाखयतलों!'' रॉनीन म्हळें आनी 'थम्ब्स अप' सायन फादराक दाखोवन ताणें ताच्या रुमांतल्यन फुज्यो काडली.



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१



**बिम्ब जून ११**

## आडवे

१. वेळ दाखोवपाचें यंत्र
३. म्हणणी, रकाद, निरोप
६. इंग्लीशींतलो आंकडो
७. एक देवर्षी, नारायण-नारायण?
८. उदकांतली वाट
१०. उणें, थोडें
१२. घरा घरांत उदक दिवपी यंत्रणां
१३. विष्णूचो चौथो अवतार
१५. रंगेल, पोजडें
१७. आर्म, बंदूक (इंग्लीश)
१८. उटंगार, उदकाचे लोट
२१. कामदेव, रतिचो घोव
२३. हे कडेन, हे वटेन
२५. वावुरपी कमिटी
२६. मूळ
२७. नाग

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | | ३ | ४ | | | ५ |
| | | | | ६ | | | | | |
| | | ७ | | | | ८ | | ९ | |
| १० | ११ | | | १२ | | | | | |
| | १३ | | १४ | | | १५ | | | |
| १६ | | | १७ | | | | | | |
| १८ | | १९ | | | २० | | २१ | | २२ |
| | | | | २३ | | २४ | | | |
| २५ | | | | | | | | २६ | |
| | | | | | | | २७ | | |

## उबे

१. घडिल्ली वा घडचेली गजाल
२. हाल, उपाद्रे
३. शंकर, महादेव
४. जाय जावप, तांतड
५. सैम
६. सर्गांतली बाग
९. गोंयचो रुच्चीक फामाद आंबो
११. बारावी रास
१४. गावपी, गायक (इंग्लीश)
१५. कुरू, निशाणी
१६. नवलान, भरिल्ली काणी, कादंबरी
१९. गाडो चलोवपी, गाड्याचो धनी
२०. खावचेलें जिनस, गोरवांचें खाण
२१. अंतस्कर्ण
२२. कळप ना, नेणां जावप
२३. एक रुतू
२४. उदकाची थंडाय, ओलसाण
२६. घरा वणटीचो एक भाग

### मे उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| क | स | क | स | प | | दि | पा | व | प |
| व | | ला | म | ण | दि | वो | | शा | |
| टा | ळ | | र | स | | ड | म | ड | म |
| ळ | | आ | स | | न | | द | | ड |
| प | र | म | | भ | ग | वा | न | | व |
| | | र | | | र | | म | वा | ळ |
| स | भा | स | द | | पा | | स्त | | |
| | र | | | मा | लि | नी | | | का |
| प | ति | व्र | ता | | का | ट | क | स | र |
| ल | य | | बो | णो | | | द | म | ण |



## देवा कूड

आयजूच हांवें आमची देवा कूड झाडल्या
निवळ निवळ केल्या
बऱ्या पैकी रंगूय मारला
चकाचक केल्या...
पेड्ड्यार जाल्ले सगळे देव
कडेक काडून दवरल्या
तांकां उदकांत सोडूंक जाय
फकत शंबर टक्के
सुखरूप, नितळ आनी बरो असो एकूच देव
हांवें देवाकुडींत दवरला....

आमगेल्या जाण्टेल्यांचें म्हूण नाका जाल्लें
देवाकुडींत सुमारा भायर देव
अपुरबायेन पूजा करतलों म्हटल्यार
अजिबात चान्स ना
कितले देवांक म्हूण पुसपाचे?
गंध-पिंजर लावपाची?
फुलां घालपाचीं?
तरी बरें-
उज्वात-ज्योत मात एकूच लावपाची
नाजाल्यार दर एका देवाक
एक उज्वात एक ज्योत लावपाचो
जर जाण्टेल्यानी फतवो काडिल्लो
जाल्यार मात पंचाईत जातली आशिल्ली...

आमची देवाकूड म्हटल्यार
देव देवतांचें एक सम्मेलन
बहुतेक सगळ्याच देव देवतांची
आवर्जून उपस्थिती....

आमच्या जाण्टेल्यांचें एक बरें आसलें
खंयचेय जात्रेक गेले म्हण्टगीर
निदान एकातरी देवाक हाडलोच घरा
आनी जर खंय तिर्थाक गेले जाल्यार
कितले देव घरा हाडत
हाचो नेम नाशिल्लो...

जाण्टेल्यांचें हांवें आतां सगळेंच मुदार केलां
देवाकुडींत फकत एकूच देव दवरला
आतां अपुरबायेन पूजा करपाक मेळटली
कांय खीणभर देव आनी हांव
पुराय एकरूप जातलो
पोन्नें सगळें पोंदा वचून
एके नवे परंपरेक सुरवात जातली
आमचे देवाकुडींत पोन्नो देव
फाल्यां नव्यान उदेतलो
आमची देवाकूड फाल्यां एकाच देवान
भरभरून भरतली... उजळटली

हे म्हज्या जाण्टेल्यांनो
हांवें कितें केलां
तें म्हाका बेस बरें खबर आसा
तुमी ताची खंत करूं नाकात
म्हाका माफ करात
म्हजी देवाकूड
पळोवंक
तुमी फाल्यां मुजरत येयात....



– आर. रामनाथ
एम-ओ-६,
गोवा हाऊजींग बोर्ड,
कुर्टी - फोंडा, गोंय.

## एक गजल

दूक दूक दोळ्यांत आतां गळत गळत वयता
रूंवा रूंवार हुंवार जावन सूख छळत वयता

म्हजो म्हजो म्हण्टा ताणेंच उजरां तिका चोखली
म्हजो म्हण्टल्यांचेंच सत्व म्हाकां कळत वयता

सूख सूख मनांतलें; येता आतां आटत आटत
स्पर्श म्हजो जायत म्हणून पयस वळत वयता

म्हज्याच दोळ्यां मुखार आतां जीण म्हजी नेमता
आनीक चुरूचुरू म्हजोच खीण जळत वयता

पांयां पोंदची सुवात आतां जाल्या म्हजी सवत
काकुळतेचीय भिरांत दिसून मन निर्शेत वयता

– रमेश भगवंत वेळुस्कार
पाळें, शिरदोन.





## नशीब

नशिबांत बरयल्लें खंय
कोणाक केन्ना चुकना
खंयचेकडेन बरयलां तें
वाचूंक मात मेळना

खंयचेकडेन आसता नशीब
खंयचेकडेन आसता पाटी
तांतलें वाचून सांगपाच्यो
करतात जायते उचापती

जिवीत कशें जगपाचें
आसता आपल्या हातांत
बरें बीं ओपतकच
बरींच कणसां मेळटा शेतांत

जशें कर्म तशें फळ
मेळळ्या बगर रावना
इत्साशक्त आसची मनात
आळस करूंक फावना

घामा थेंबे गळचे मळार
येवंक नशिबाक आकार
फळयल्यार जीण अशी
जावन वता अमर

– स्मिता मानाजी गांवस
मारुती वाडो,
चिंबल–गोंय.



## मोग

मोग म्हजो पयलो असो
जसो आंब्याचो चंवर
जालो म्हजे जिणेंत
फकत सुखांचो शिंवर

ताच्या हातीर जीव म्हजो
जाता खासावीस
यादीन ताचे सरता म्हजे
रात आनी दीस

मन म्हजें आसता हालीं
ताचेच अवतीं भोवतीं
पाखो जसो उमेदीन
भोंवता फुला भोवतणी

पयर आमी बशिल्लीं
दर्या ल्हारां वांगडा
जगाक सगळ्या विसरलें
आसून तो वांगडा

तेन्नाच एक विचार
मनांत म्हज्या आयलो
जर म्हाका सोडलें ताणें
जीव म्हजो घुस्मट्टलो

उठ गो उठ गो म्हणत
आयली म्हजी आवय
तेन्ना कळ्ळें सपन म्हूण
आवय! आवय!! आवय!!!



– भवानी अ. कामत
खोर्ली–गोंय

## झुंबड पावसाची

झुंबड पावसाची
झडत दडत आयली
पाखां फुलारून कीर, मोर
नाचूंक पिर्शी लागलीं

धतरीर गडगड
झाडां धोलूंक लागलीं
नवे आकरेची नवी सुलूस
वाऱ्यार फाकूंक लागली

शेतकाऱ्यांक लायली जाग
नांगरणी फांतोड उदेली
पुरूमेंताची रास येतली
भुरगीं–बाळां धादोसलीं

हासत–नाचत सारले दीस
तान–भूक भागली
सैमाची घेवंक जतनाय
पालखी भायर सरली

– अशोक रं. शिलकार
शिला – सावयवेरे.



प्रिय सखी,

तुजो फोन आयलो आनी तुजो पयलो प्रस्नूच पंडित रविशंकराचे सतारीची धूनीवरी कानाक स्पर्शून गेलो.

तुजो प्रस्न आशिल्लो, पत्र मेळ्ळें रे म्हजें तुका?

तूं पत्र बरयतलें अशें हांवें सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें. पत्र बरोवपाची तुजी इत्सा आसतय. तुवें पत्र बरोवचें अशी म्हजी अपेक्षाय आसत! पूण ती गजाल सत्यसृश्टीत देवूं नाका?

कांय गजाली कितल्योय मनात आसल्यो तरी कामाच्या रगाड्या मुखार तसो निवांत वेळ मेळच ना. तुमकां बायलांक तर नाच ना.

नोकरी कर. नोकरेवेल्यान धावून घरा यो. भुरग्यांक खाण करून दी. तांकां न्हाणय धुणय. रांद, वाड, उश्टीं काड. थकून भागून केन्ना हांतुणार जीव घालता शें जाता.

मागीर दुसरे दिसाचो आरंभूय तसोच! सकाळफुडें भुरग्यांक तयार करून शाळेक धाड, घोवा खातीर दबो तयार कर, आपल्याच्याय दब्याची तयारी कर, मागीर ऑफिसाक वचपाची धांवपळ. जीवन म्हळ्यार घाण्याचो बैलूच कशें! आतां यांत्रिक युगांत बैलांचो घाणो वचून यंत्रां आयल्यांत. बैलांक ह्या घाण्यापासून मुक्ती मेळ्ळ्या. पूण तुमी बायलां केन्ना मुक्त जातलीं देव जाणा!

तूं म्हणटलें, हातुंतच आमकां सूख आसा. हय आसा. ना कोण म्हणटा! आपल्या प्रियजना पासत आबजप, तांची सेवा करप आनी तांच्या सुखातच सूख मानप भारतीय संस्कृतायेंत वाडिल्ले बायलमनशेचो धर्म हें हांव जाणां. पूण ह्याय सुखां भायर आनीकूय सुखां आसतात. त्या सुखांक आमी पारखी जातात अशें तुका दिसना?

फाटीं एकदां फोनारूच तुवें म्हणिल्लें, 'आदलेवरी आतां वाचनच जायना. वेळूच मेळना.' अशें आसत जाल्यार मागीर बरयतलें कितें कपल!

तू वाचता तें फकत म्हजेंच हाची म्हाका कल्पना आसा. तुज्या फोनावेल्या उलोवण्यावेल्यान पारखिलां हांवें तें! पूण आनीकय खूबजाण बरें बरोवपी आसात. तांचेंय कितें मेळटा जाल्यार वाचूंक जाय तुवें!

सखी, वाचन करप गरजेचें. वाचन ही फक्त मनशाकूच लाभिल्ली कला. ताणें ती कठीण तपश्चर्येन हातासल्या. हीच कला मनशाक जगपाक थाकाय दिता. जाका अक्षर वळख आसुनय वाचन करिना तो मनीस म्हजे नदरेन कर्मकट्टो! ताच्यांत आनी हेर प्राण्यांत कांयच फरक ना. देखून तुजो एक बरो मित्र म्हूण म्हजो एक सल्लो तुका. जीवनांत कितेंय त्यागचें पडल्यार त्यागल्यार उपकारता. पूण वाचन न्हय. वाचन जियेवपाक उर्मी दिता.

आतां तूं म्हणटलें, हें आनी कसलें तुजें जियेवप? जे वाचन करिनात ते कितें जगनात तर! पयलीं जेन्ना अक्षरांचो जल्म जावं नाशिल्लो तेन्ना बरप-वाचप कांयच खबर नाशिल्ले जगनाशिल्ले तर! तशें न्हय शाण्या, अक्षरां हीं सांगिल्ली गजाल, आयकल्ली गजाल क्षर जावचीं न्हय म्हूण वापरांत आयली. अक्षरांचो सोद लागचे पयलीं, वाचनाची कला विकशीत जावचे आदीं एकलो दुसऱ्याक तोंडान सांगतालो. आयकतलो तें मनांत घट्ट बरें दवरतालो. याद करून तें दुसऱ्यांक सांगतालो. लोकवेदाचो जल्म हातुंतल्यानूच जालो न्हय! व्याख्याना, आख्यानाचो आरंब हाकाच लागून जालो. आयज वाचनांतल्यान आमकां जें कितें मेळटा तें पयलीं अशें मेळटालें. आनी वाचना परसूय कोणें सांगिल्लें, वाचून दाखयल्लें रोकडें समजता, लक्षांत उरता. हयकाय न्हय? म्हणटकच वाचनाची कला अवगत जावचे आदीं लोक जगनाशिल्ले तर! हो तुजो मुद्दो भायर पडलो.

आदल्या काळाची खबर नाका. आयचीच करूया. वाचूंक बरोवंक जाणा आशिल्ले कितले लोक नेमान वाचतात? खूब थोडे. पूण ते लोक इगर्जेंत वचून शेर्मांव आयकतात. किर्तन व्याख्यानाक वतात. दूरदर्शनाचेर प्रवचना आयकतात, कार्यक्रम पळयतात आनी आपली गरज भागयतात. तरी आसतना कांय लोक हें करूनय वाचन करतात. कांय लोकांक फक्त वाचनूच आवडटा. वाचनांत तुका जाय तें नीवडून वाचूं येता. असलेच व्यक्तीक नदरे मुखार दवरून आमी 'वाचता तो वाचता' अशें म्हणटात

सखी, अस्तीत्वांत आसप आनी जगप ह्यो दोन वेगवेगळ्यो गजाली अशें म्हाका दिसता. चडशे लोक आपलें अस्तित्व तिगोवन दवरतात आनी खूब थोडे लोक खऱ्या अर्थान जियेतात.

आतां हेंच पळय, हांव तुकाच नदरेमुखार दवरून तुका कांय प्रस्न विचारतां. तूं तुजे भितरूच ताच्यो जापो सोद. तुज्या जल्मा उप्रांत तूं स्वतंत्र अशें केन्ना जियेलां? तुजेर सदांच आवय बापायचो, भावांचो वचक आशिल्लो. तांकां जाय तशेंच तूं वागत रावलें. शाळा-कॉलेज नांवाचे बंदखणीत तुवें दीस काडले. शिक्षकांक जें जाय तेंच तुवें गिन्यान म्हूण मानून आपले यादस्तींत दवरपा खातीर बरींच वर्सां खर्चिलीं. तुजी यादस्तीक सारकी आसा काय ना हाची परिक्षा तुज्या शिक्षकानी घेतली आनी तांचे समजुती प्रमाण तुका अदीक उणे मार्क दिले.

तुजें लग्न जालें तेंय तुज्या आवय-बापायक, भावांक जाय ताचेकडेंच. थंयीय तुका तुजो जोडीदार निवडपाक मेळ्ळो ना. जो तुजो जोडिदार आशिल्लो ताणेंय तुका आपल्या नांवार करून घेतलें. तुजें नांव बदलून ताच्या नांवार तूं जालें. ताका जाय तशें वागलें. मागीर भुरग्यांक जाय तशें वागलें. तांच्या शिक्षणाचेर लक्ष दी, तांची काळजी घे केलें. आतां तांचीं लग्नां जावन तांचे संवसार थाटून दिले की मागीर तूं मेकळें. हें सगळें जेन्ना जातलें तेन्ना तूं म्हणटलें आपणें समर्थपणान संवसार केलो. आतां आपूण ह्या जंजाळांतल्यान सुटलें.

तुवें समर्थपणान संवसार केला जायत. 'संवसार करप' अशी एक आमी संकल्पना तयार केल्या. ते संकल्पनेचे फास्केंत आमी स्वताक बसोवन तातूंत एकदम फीट बसता काय ना तें आमी पळयतात. जर फीट बसलीं जाल्यार तो यशस्वी संवसार. नातर संवसार

फसलो अशें सर्वसामान्य मनीस मानता. पूण हाका जियेवप अशें कशें म्हणप? हें तर अस्तित्वात आसप - existing. जगप - living हें सामकें वेगळें. तुका जाय तशें तुजे इत्से प्रमाण दरेक निर्णय घेवन तातूंत अपयश आयलें, दुखलें तरी पर्वा करिनासतना तूं जियेलें जाल्यार ताका जियेवप म्हणूं येता अशें म्हाका दिसता.

आसूं, तुवें पत्र पावलें काय म्हूण विचारतकच हांवें पोस्टांत वचून तुज्या पत्राची चवकशी केली तेन्ना खऱ्यानीच तुजें पत्र म्हाका मेळ्ळें. हांवें अधाश्यावरी तें नदरेन घोटलें. पूण थंयीय तुजी अट आशिल्लीच. पत्र धाडलां खरें, पूण तें छापप ना आं! हांव तुजेकडेन लग्न जावंक तयार आसां पूण हनिमूनाक ना अशेंच कितें तरी हें!

तुका हांवें म्हणिल्लें, पत्र हो एक उत्कृश्ट साहित्य प्रकार. तेन्ना कोणाचीं खासगी पत्रां आसलीं आनी तीं काव्यमय, साहित्यीक मुल्यां आशिल्लीं आसलीं तर तीं व्यक्तीगत उरूंक फावना. तीं वाचकां मेरेन पावूंक जाय. अमृता प्रितमाचीं प्रेमपत्रां आमी वाचल्यांत. रिल्केचीं पत्रां संवसारभरच्या भासांतल्यान अणकारीत जावन वाचप्यां मुखार आयल्यांत. आमचो कवी रमेश वेलुस्कार हाणेंय तीं कोंकणीत केल्यांत. पत्र बरोवप ही एक आगळी शैली. आमचेय मर्दीं ती आसा. मागीर आमी ती हेरांक वंचीत कित्याक करप?

पत्र छापूं नाका अशें सांगपांत तुज्यो कांय व्यक्तीगत अडचणी आसूं येतात. बायलांचें जीवन हें अडचण्यांनीच भरून वोतता अशें मानून हांव तुजें पत्र छापिना. पूण तांतले कांय मुद्दे म्हजे म्हूण तरी हांव वापरूंक शकतां!

हांव आयज अश्या एका निर्णयाचेर पावलां की रासवळ मळार आशिल्ल्यांक व्यक्तीगत जीवन आसुंकच फावना. साहीत्य, कला, राजकारण, समाजकारण बी सगळ्या मळांचेर जो कोण लोकांमुखार येता ताचो दरेक विचार, दरेक कृती ही समाजा मुखार येवंक जाय. कांय गजाली ताच्यो व्यक्तिगत म्हूण पड्ड्या आड उरूंक फावना. वो आडनदरूय करूंक फावना. कित्याक रासवळ मळार वावुरपी समाजाचो आसता. समाज त्या मनशाचें अनुकरण करता. तेन्ना रासवळ मळावेल्या मनशान जें कितें केलां तें सगळें ताचे प्रयोग आसतात. हे प्रयोग करतना मनीस केन्ना फसता, केन्ना यशस्वीय जाता. तातूंत ताका खूब मनस्तापूय भोगूं येतात आनी खंयच केन्ना मेळूंक ना असलें सुखूय मेळूं येता. म्हणटकच हीं सगळीं स्थित्यंतरां लोकांमुखार येवं नाका? असलीं धाडसां सर्व सामान्य मनीस करूंक शकना. ताचे भितर धाडस नासता. तेच पासत एके फास्केंतलें जिवीत तो सारता आनी जो कोण फास्केंत स्वताक घालून घेना ताचे कडेन, ताच्या जीवनाकडेन अप्रुपायेन पळयता. हेंच अप्रूप जीवन लोकांमुखार येवंक जाय. तें खासगी, व्यक्तीगत म्हूण आपल्या जिविताच्या कुरकुटांत दवरूंक फावना.

हांवें खूबदां आयकलां, 'तें ताचें व्यक्तीगत जीवन आमी तातूंत कित्याक पडूंक जाय काय म्हूण. म्हाकाय म्हणटात जायते जाण, 'तुजें तें प्रायव्हेट लायफ. आमकां पडपाचें ना तातूंत' अशें म्हूण केन्ना आसता? एका कलाकाराचे भट्टेंत जें कितें रसायन खतखतता ताचे पासून त्या कलाकाराक कितें सोसचें पडलां आनी तातुंतल्यान कितें सूख मेळ्ळां, ह्या समुद्रमंथनातल्यान फक्त हलाहलाचोच तो धनी जाला काय अमृतय ताच्या वांट्याक आयलां हें कळपाची गरज आसा अशें तुका दिसना? काय सत्त्याचे प्रयोग फक्त गांधीजीनूच जाहीर करपाचे?

सखी, तुवें पत्रांत बरयलां की तुजे चलयेचें लग्न आसा. न्हवरेकारांक बेगोबेग लग्न करपाचें आशिल्लें. पूण तुवेंच म्हळें, व्हकले-न्हवऱ्याक थोडो वेळ सांगाताक भोंवूनी. एकमेकाक मेळूंनी, समजून घेवंदी आनी लग्न एक वर्सान मुखार धुकल्लें. बरी गजाल केली तुवें. हाका लागून दोगांय एकमेकांक समजूंक पावतलीं. जर एकमेकाचे विचार पटलेनांत जाल्यार लग्नाची गांठ मारचे पयलींच वेगळीं जावं येता. एकदां गांठ मारली म्हणटकच मागीर ती सोडप नाय म्हळ्यार कठीण जाताच. तो घटस्फोट, ते मनस्ताप ऐन जुवानपणार सोसचे पडिल्ल्यान पुराय जिवीतूच भंगता. तातूंत तांचे मदलो कोणूय अती संवेदनशील आसल्यार मागीर जालेंच!

हातूंत एक समादानाची गजाल घडटा ती म्हळ्यार चलयेचेर 'सेकंड हॅन्ड' हो छाप पडना. घटस्फोटीत चल्याक कोण 'सेकंड हॅन्ड' म्हणनात. तो रोखडोच खपता. चलयेचे बाबतींत मात हें अजून आयकूंक येता. थोडो वेळ 'महानंद' जावंक मात ह्या चल्यांक 'सेकंड हॅन्ड' उपकारता. तांचो उध्वस्त जाल्लो संवसार जाग्यार घालूंक न्हय. किळस येता न्हय गो ह्या विचारांची?

तुवें पत्रांत बरयलां, आपणें हो निर्णय तुजें पत्र वाचून, तुज्या विचारांच्या प्रभावान घेतला. पूण म्हजें सांगप वो विचार हेंच अंतीम सत्य न्हय. 'बरें जाल्यार व्हंकले न्हवऱ्याचें, वायट जाल्यार रायबाऱ्याचें' ही म्हणणी तूं जाणांच. हांव फक्त म्हज्या मनांत कितें विचार येतात ते तुजे मुखार दवरतां पत्रांतल्यान. शेवटी हांव मान्य करतांच न्हय, हें सगळें म्हजें 'आयलें तशें गायलें' म्हण. पूण तुका खबर आसा न्हय म्हजी गजाल? दोन वर्सां हांवूय रजिस्ट्रेशन करिनासतना राविल्लों. एकमेकान समजून घेवंचीं म्हूण एकमेकांक! पूण समजूंक पावलीं? काय गरजे परस चड समजलीं आनी वेगळीं जालीं?

कांय गजालींक जाप नासता. येवंदी तुजें पत्र वो फोन. जमल्यार जापूय दीन.

तुजो सखा.

■ ■ ■



**– दिलीप बोरकार**
आगशी - गोंय.
मो.:९८२२१३६८८५



– लता सत्यवान नायक
सातेर अपार्टमेंट्स, चर्च वाडो,
मार्शेल चर्चीलागीं, मार्शेल–गोंय.
फोन : २३९९८९४/२२८७३९६



# नव्याचीं कणसां...

*तांदळांचे कांय वखदी गूण आमच्या आयुर्वेद शास्त्रांत सांगल्यात. कांय लोक तांदळाच्यो कणयो शिजोवन तातूंत ताक घालून दुयेंतीक, भुरग्यांक, जाणट्यांक दितात, हाका लागून पोट साफ जाता, अन्नाचें पचन बरें जाता. आनी दुयेंतीक बरें दिसपाक लागता. शीत वाळटकच मेळटा त्या निवळांत जर म्होंव मिसळून पियेलें जाल्यार तृपारोग म्हळ्यार परथून परथून तान लागपाचें दुयेंस कमी जाता.*

दसरो–दिवाळी लागीं पावतांच, धर्तरी आपलो रंग बदलूंक लागता. श्रावणांत न्हेशिल्लो पाचवो शालू भाद्रपदांत अधिकूच गडद रंग धारण करता. तो चडूच हरवो जाता, आनी धर्तरी एका वेगळ्याच रूपाचें दर्शन घडयता. मन प्रसन्न जाता, आनी अशा वेळार चवथ येता. चवथीचें स्वागत ती व्हड दबाज्यान करता. गणपतीची मुर्त दोळ्यांत साठयत ती सगळो सैम गणेशाच्या मस्तकाचेर अर्पण करता. चवथीचो दुसरो दीस म्हळ्यार ऋषीपंचमी वा कृषिपंचमी. गोंयांत सगळीकडेन ह्या दिसाक खाशेलें अशें म्हत्व प्राप्त जालां आनी ते म्हळ्यार 'नव्याची पूजा' करपाचें. ऋषी पंचमी दिसा नीज गोंयकार, तो शेतकार आसूं वा नासूं 'नव्याची पूजा' करता.

घरचो मुखेली शेतांत वचून शेतांतलीं भाताचीं कणसां काडटा. भाद्रपदांत ह्या भाताच्या कणसाक ल्हान ल्हान दाणे आयिल्ले आसतात. ह्या दाण्यांनी धवेंफुल्ल गोड अशें दूद भरिल्लें आसता. दाणें अजून जून जाल्ले नासतात. कणसां पुराय भरिल्लीं नासतात. पूण ह्यो भाताच्यो लोबयो केन्ना केन्ना हरव्योच दिसतात तर केन्ना केन्ना भांगरावरी हळदुवो–हरवो रंग धारण करतात. अशा भांगराळ्या खिणार शेतकार हीं कणसां आंब्याच्या ताळ्यान बांदून, माथ्यार धरून घरा हाडटात. घरा येतकच, घरांतली सवाशीण बायल, कणसां हाडपी मुखेल्याच्या पांयार उदक घालून पांय धुता आनी उजवात दाखोवन विधीपुर्वक तीं कणसां घरांत घेता. गणपती कुशीकूच पाटार तीं कणसां पूजतात. तांची पूजा करतात. ह्याच कणसांचे चार दाणें जेवणांत घालतात, जाका लागून देवाक कणसांचो नैवेद्य पावता. तिसऱ्या दिसा कोंड्याची बरी सोबीत अशी कामटी काडटात. ते कामटेंत कोंड्याच्यो बडयो बरे तरेन सजयल्ल्यो आसतात. आंब्याच्या पानासयत भाताचीं कणसां ते कामटेंत घालतात आनी घरांतल्या सालांत वा दर्शनी दाराचेर ही कामटी अडकोवन दवरता. चडकरून गोंयांत सगळ्या घरांनी कामटी अडकोवपाचो कायमस्वरूपी जागो आसता.

तांदळांच्यो पातोळ्यो चवथीक जायूच, पूण पायस, साखरभात ह्या सारके जीनस लेगीत तांदळाचे करतात. गोंयांत कांय वाठारांनी कोळे हुंदीर आनी माजराचो खेळ खेळटात. तांदळाच्या पिठाचें माजर आनी हुंदीर करतात आनी केळीच्या पानार आदले रातीकडेन दवरतात. पंचमी दिसा फांतोडेर ह्या कोळ्या हुंदराचें आनी माजराचें विसर्जन करतात. विसर्जन करताना ल्हान भुरगीं ताटांचेर बडयांनी बडोवन एक विशिष्ट प्रकारचो नाद उमटयतात आनी त्याच तालार व्हडव्हडल्यान म्हणटात 'कोळ्या हुंदराक धर माजरा, धर शेपडे, मार बोकडे.' हरशीं माजर हुंदराक खाता, हुंदराक माजराचो भंय नासता पूण चवथीकडे गणपतीचें वाहन हुंदीर म्हणून ताका चड म्हत्व दिलां. देखून हांगा हुंदीरूच माजराक धरपाक धांवता.

चवथी उपरांत येता दिवाळी. गोंयची दिवाळी सामकीच वेगळी! ह्या वेगळेपणाचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार दिवाळेचे फोव. पयलीं फोव कांडपाची 'लाट'आसताली. त्या फोवांक लाटेचे फोवूच म्हणटाले. दिवाळेक गोडाचे फोव, नाल्लाच्या रोसांतले फोव, तिखशे फोव, बटाट फोव, फोडणी फोव, दुदांतले फोव, धयांतचे फोव अशे वेगवेगळे तरेचे फोव करतात. त्या फोवांचो आस्वाद घेवप म्हळ्यारूच 'गोंयची दिवाळी' मनोवप अशें समीकरण जावन पडलां.

तांदळाचे जायते पदार्थ आमचे जिणेंत आमी वापरतात. देखीक पिठाच्यो भाकऱ्यो, पोळे, सान्नां, इडल्यो, डोसा, तांदळाच्या रव्याचो सांजो, पुलाव, साखरभात, पायस, सोजी, खीर आनी तांदळाच्या पिठाच्यो कुरकुरीत चकल्यो लेगीत! तांदळाचो जसो खाणा जेवणांत उपेग जाता, तसो आमच्या धार्मिक कर्मांत लेगीत जाता. गणेशपुजा



तांदळाचेर नाल्ल वा सुपाऱ्यो दवरून करतात आनी खंयचेंय कार्य गणेश पूजा केल्याबगर जायना. देवाक 'पोड' दिताना तांदळाची, नाल्लाची दितात, देवळांतल्या देवीक तांदळांची, खणा-नाल्लाची होट भरतात. गांवांत भोवपी पालखी लेगीत अशोच होटी भरून, मागणे मागतात. लग्नकार्यांत तर तांदळाचें बरेंच काम आसता, लग्नापयलीं कांय गांवांनी 'दाती' मांडटात तातूंत तांदुळूच दळपाक वापरतात. ह्या दात्यार तांदूळ दळटाना होवंयो म्हणटात. आयज ह्यो होवंयो इतिहासजमा जाल्ल्यो आसात. लग्नावेळार व्हंकले न्हवऱ्याचें 'शुभमंगल' जालें काय तांच्या माथ्यार तांदळांच्यो अक्षता उडोवन तांकां सावधान करून सगळे लोक आशिर्वाद दितात. व्हंकलेची होट लेगीत तांदळांनी भरतात, सप्तपदी चलतना तांदळाच्यो सात राशी करून तांका पांयांच्या आंगठ्यान उडयतना नवपरीणीत वधू भावी जिवीताचीं सपनां सजयता.

जर उत्सवांचेंच पळोवंक वचत जाल्यार, आमी गोंयकार चवथीक ल्हायांचो, दिवाळेक फोवांचो आनी तुळशी लग्नाक चिरमुल्यांचो वापर करतात. श्रावणांतलो दर सण, परब तांदळाचो आस्पाव आशिल्ली. नागाक ल्हायांचो, दुदाचो नैवेद्य दाखोवन मनोवपासारकी नागपंचम, गोकुळाष्टमीक फोवांचो प्रसाद कालोवन गोकळांची पूजा, आयतार पुजताना कलशाच्या पोंदा घातिल्ले तांदूळ, वा श्रावणी सोमाराक आशिल्ली शीवामूठ! तांदूळ सगळ्याकूच आपलें अधिराज्य चलयता.

तांदळांचे कांय वखदी गूण आमच्या आयुर्वेद शास्त्रांत सांगल्यात. कांय लोक तांदळाच्यो कणयो शिजोवन तातूंत ताक घालून दुयेंतीक, भुरग्यांक, जाणट्यांक दितात, हाका लागून पोट साफ जाता, अन्नाचें पचन बरें जाता. आनी दुयेंतीक बरें दिसपाक लागता. शीत वाळटकच मेळटा त्या निवळांत जर म्होंव मिसळून पियेलें जाल्यार तृषारोग

म्हळ्यार परथून परथून तान लागपाचें दुयेंस कमी जाता. थोडेशे भाजिल्ले तांदूळ आनी मूग समान घेवन तातूंत चौदा पट उदक घालून शिजोवपाचें, शिजतना हींग, पादेलोण (सैंधव) धनें, सुंठ, मिरयां आनी पिपळी- हांचें चूर्ण तातूंत घालप. हें सगळें शिजतकच खावप. अशेतरेन केल्ल्या ह्या तांदळाच्या पदार्थाक 'अष्टगूण मंड' अशें म्हणटात. हाका लागून शक्त वाडटा. निकतोच दुयेंसांतल्यान उठला आसत जाल्यार ताका लेगीत हाका लागून 'बळ' प्राप्त जाता. तांदळांपासून तयार जाल्लो चिवडो वायुनाशक आसता. चिवडो पौष्टिक आसता, बलप्रद आसता तशेंच मल विसर्जीत करपाक बरो पडटा. चिरमुल्यो हल्क्यो, शीतळ, तशेंच अग्नी प्रदीप्त करपी आसतात. थंडी-जोर आसत जाल्यार निवळांत हळद घालून गरम गरम पिवप.

तांदळाचे संदर्भ आमच्या वेदकालीन ग्रंथांनी मेळटात. जायत्यो कथा, लोककथा तादळाविशीं आसात. तांदळाक बीजारोपणाचें वा गर्भधारणेचें चिन्ह मानतात. दादल्यांमदीं पौरुषार्थ निर्माण करपी एक एकदलीय धान्य, वा तृणधान्य अशेंय मानतात, मनीस जातीक शक्त प्रदान करपी देखून ताचो आहारांत चडांत चड उपेग खूब पयलीं सावन केल्लो आसा. हिंदू धर्मीयांक लक्ष्मी म्हळ्यार सामकी पूजनीय. कारण ती धनदेवता आसा. तिची पूजा करून तिका प्रसन्न करून घेवपा खातीर जणएकलो प्रयत्नांत आसता. तिची कृपा जाचेर जाता थंयच तिचो आस्पाव नदरेक पडटा. तांदूळ हें भारतीयांचें मुख्य, कायमस्वरूपी अन्न आशिल्ल्याकारणान तांदळांक धनाचेंच म्हत्व आयलां. हें धान्य धनावरी सदांच आपल्या घरादारांत आसचें अशें सगळ्यांक दिसता देखून तांदळाची तुळा धनाकडेन केल्या. म्हणूनच तादळाक भारतांतल्या कांय प्रांतांनीं लक्ष्मीचेंच प्रतिक मानतात. आनी देखून लक्ष्मीक तांदूळ अर्पण करतात. दुर्गा पुजेच्या पयलीं येवपी पुनवेक तांदूळ लक्ष्मीक अर्पण करपाची प्रथा बंगालांत आसा. आनीक एक प्रथा बंगालांत प्रचलीत आसा आनी ती म्हळ्यार नोव्हेंबर तें डिसेंबर ह्या काळांत येवपी दर बिरेस्ताराक म्हालक्ष्मीक तांदूळ ओपतात. वो माघ म्हयन्यांत म्हळ्यार जानेवारी ते फेब्रुवारींत लेगीत भाताच्यो लोबयो वा भात देवीक दितात.

बुध्द धर्मीय तांदळांक खूबूच पवित्र मानतात. आनी हाच्या फाटलें कारण स्पष्ट करपाक एक दंतकथा लेगीत सांगतात. राजकुमार सिध्दार्थ जेन्ना बऱ्याच काळाखातीर दीर्घ तप्शचर्येक बसलो तेन्ना तपस्या सोपल्या उपरांत ताची भूक-ताने बगर केल्ली तपस्या बरीच कश्टदिणी आशिल्ली आनी हाका लागून सिध्दार्थाक अशक्तताय आयिल्ली. सुजातान ताचो ही अशक्तताय घालोवपा खातीर शंबर गायांचें दूद काडलें आनी पन्नास गायांक पिवयलें. मागीर तिणें ह्या पन्नास गायांचें दूद काडलें आनी पंचवीस गायांक तें दूद पिवयलें. परत ह्या पंचवीस गायांचे दूद धा गायांक दिलें. धा गायांचें दूद आतां निमणेकडेन तिणें एकेच गायेक पिवपाक दिलें. गाय दूद पीवन तृप्त जाली. हे गायचें दूद खूब हल्कें आनी खूबूच पौष्टीक आशिल्लें. निमणे गायच्या दुदांत उत्तम प्रतीचे तांदूळ शिजोवन तिणें सिध्दार्थाक दिले. ही खीर खातांच सिध्दार्थाची तपश्चर्येच्या काळांत कमी जाल्ली शक्त परत तयार जाली. तो पयलीं भशेन बलवान जालो. सिध्दार्थाचो जीव ह्या तांदळाचे खिरीन वाचयलो म्हणून बुध्द लोक तांदळाची खीर पवित्र मानतात. हे खिरीक नवे तांदुळूच वापरतात. पोरण्या तांदळाची खीर देवाक दाखोवप ना असो हांच्या धर्मांत संकेत आसा.

तांदूळ हे मनशाक चड उपेगी धान्य आशिल्ल्यान तांदळाक 'प्रजापती' वा 'जनार्दन' अशेंय म्हणटात. आनी प्रजापती वा जनार्दन समजूनच तांदळांची पूजाय करतात. तर असो हो तांदळांचो महिमा! आमच्या चारित्राचो पुरावो दिवंचो जाल्यार लेगीत आमी ह्या क्षुद्र दिसपी इल्ल्याशा तांदळाचो संदर्भ दियत म्हणटात 'म्हजें मन धुतिल्ल्या तांदळावरी. स्वच्छ आसा!'



# भुरगीं आनी वखदां





भुरगीं हीं काय 'मिनिएचर ॲडल्ट्स' न्हय, कीं व्हडल्यांक दोन खुराक जाल्यार भुरग्यांक एक! देखून, भुरग्यांक व्हडल्यांच्या वखदाचो 'अर्दो' डोस दिवप ही सामकीच चुकीची आनी भिरांकूळ गजाल.

भुरग्यांमदीं आजुनूय इंद्रियां आनी अवयव विकसीत जायत आसतात, आनी शरिरांतल्यो वेगवेगळ्यो प्रक्रिया ह्यो थोडच्यो व्हड मनशांपरस गतीन, तर थोड्यो उण्या प्रमाणांत आसूंक शकतात.

भुरग्यांभितर उदकाचें प्रमाण चड आनी प्रथिनांचें प्रमाण उणें आसता. देखून, खंयच्याय वखदाचो परिणाम भुरग्यांचेर व्हडांपरस वेगळो आसूंक शकता.

त्याभायर, कूड जे तरेन वखदां हाताळटा, ती तरा भुरग्यांचे पिराये प्रमाण आनी वजना प्रमाण वेगवेगळी जावंक शकता.

हाका लागून, जर वखदाचें प्रमाण चड जालें, जाल्यार अतिरिक्त दुश्परिणाम (टॉक्सिसिटी/ सायड इफॅक्ट) जावपाची शक्यताय वाडटा, आनी वखदाची मात्रा जर उणी पडली, जाल्यार गूण सारको येना.

याच कारणांक लागून, ल्हान भुरगीं हीं अनेक प्रकारांनी अद्वितीय आसतात.

*** भुरग्यांच्या वखदाची मात्रा तांच्या वजनाप्रमाण थारोवची पडटा (डोस प्रति किलो कुडीचें वजन)**

*** भुरग्यांक वखदांची वेगळीं माध्यमां जाय पडटात, देखीक डिस्पर्सिबल म्हळ्यार उदकांत घोळटात असल्यो गुळयो, बरी चव आशिल्लीं शारोपां, आदी.**

*** नाजुकतायेक लागून भुरगीं दुयेंत पडपाची शक्यताय चड आसता, आनी तांकां वखदां घेवपाक मात्तूय आवडना हें सत. आनी हाकाच लागून, आवय-बापायची चिंता वाडटा.**

आपणांक नेमकें कितें जाता, हें सारकें सांगप भुरग्यांक खूब फावटी शक्य आसना, आनी देखून, तांचेविशीं अदीक जतनाय घेवंची पडटा. त्याभायर, दोतोरान पालकांक सांगिल्ल्याभशेन वखदांची मात्रा आनी ती खंयच्या वेळा, कशी दिवपाची, ही जापसालदारकी पसून पालकांकूच घेवंची पडटा.

संवसारभर, १९६२ पसून, भुरग्यांचेर वखदांचो उपयोग करचेपयलीं, त्या वखदांची उपयुक्तताय आनी सुरक्षितताय, अन्न आनी वखद प्रशासनाकडेन सिद्ध करची पडटा.

### भुरग्यांखातीर सुरक्षीत वखदां कांय सुचोवण्यो:

* तुमच्या भुरग्यांच्यो पयलीसावनच्यो वैजकी नोंदी (मेडिकल रिपोर्ट्स), रशेदां, क्ष-

किरण, आदी एके फायलींत तारीकवार वेवस्तीत लायात. जेन्ना-जेन्ना तुमी दोतोराक मेळपाक वतात, तेन्ना-तेन्ना ती वांगडा व्हरून ताका दाखयात, जाका लागून, दोतोराक भुरग्याचो पुराय वैजकी इतिहास मेळूंक शकता. ह्यो नोंदी फुडाराक, वखदाची ॲलर्जी, प्रतिकारशक्त (ड्रग रॅझिस्टन्स) हें जाणून घेवपाक, आदीं जाल्ल्या पोरण्या दुयेंसाचेर उपचार करपाक उपेगी पडटात.

* तुमच्या भुरग्याक दोतोरान दिल्लीं वेगवेगळीं वखदां खंयच्या खंयच्या कारणान दिल्यांत आनी तीं कितलीं, केन्ना आनी कशीं घेवपाचीं, हें दोतोर वा फार्मासिस्टाकडल्यान वेवस्तीत जाणून घेयात.

* भुरग्यांक वखदां दिवंचे पयलीं, प्रत्येक फावटीं रशेद दोन फावटीं तरी तपासून पळयात, खात्री करपाखातीर, की तुमीं तुमच्या काळजा कुडक्याक योग्य तेंच वखद, योग्य रितीन, वेळार आनी प्रमाणांत दीत आसात.

* भुरग्यांक वखदांचें सेवन सांबाळून करयात. दोतोरान दिल्ले आदेश खरपणान पाळात. जर वखद, ताची मात्रा/प्रमाण, कशें दिवंचें, हाचेविशीं तुमकां खात्री ना, जाल्यार **तें दिवंच नाकात!** दोतोराक वा फार्मसिस्टाक फोन लावन, योग्य कितें तें जाणून घेयात.

* दोतोरान जर एकाद्री गुळी बरोवन दिल्या, जाल्यार गिळपाची, काय उदकांत घोळून पिवपाची, तें फार्मसिस्टाकडल्यान जाणून घेयात. चड करून भुरग्यांक दोतोर उदकांत घोळून घेवपाची गुळी दितात. जर भुरग्याक गुळी घेवपाक त्रास जाता, जाल्यार दोतोराक विचारून, त्याच वखदाचें शारोप मेळटा जाल्यार, दिवंक येता जाल्यार पळयात. भुरग्यांखातीर, गुळयो गिळपापरस, शारोप पिवप सोपें.

* शारोपावांगडा, तें मेजपाचे जें साधन येता (ड्रॉपर / कप / कुलेर) वापरप चड सोपें आनी अचूक. घरा आशिल्लीं कुलेरां अयोग्य, कित्याक तर, तीं वेगवेगळ्या मापाचीं आसूंक शकतात आनी ताका लागून, भुरग्याक चुकीचो डोस पडूंक शकता.

* बाटलेवांगडा आयिल्ल्या मापाच्या ड्रॉपराचो/कपाचो/कुलेराचो वापर करून शारोप सांबाळून, अचूक मेजून दोतोरान दिल्लो खुराक (डोस) जतनायेन मेजून काडचो. दोतोरान थारायिल्लोच खुराक भुरग्याक दिवंचो. (अदीक खुराक दिल्यार अतिरिक्त दुश्परिणाम जावपाक शकतात, आनी उणो खुराक दिलो जाल्यार जाय तो गूण येवचो ना. ह्यो दोनूय गजाली भुरग्याखातीर हानिकारक थारपाक शकतात.)

* भुरग्याक वखदापसून ॲलर्जी वा असाधारण प्रतिक्रिया लक्षांत आयली, जाल्यार ती ताकतिकेन दोतोराक सांगात, आनी भुरग्याचे फायलींत ती बरोवन दवरात.

* तुमीं जर भुरग्याक खंयच्याय दुयेंसाखातीर स्वता जावन खंयचीय ओटीसी, आयुर्वेदीक, होमियोपॅथीक वखदां दिलीं जाल्यार तीं पसून भुरग्याचे फायलींत बरोवन दवरात.



– राज वैद्य
इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन
ईमेल : ipacpd@gmail.com

# नुसी वोक्हार्ड हॉस्पिटलांत अॅस्थेटीक केंद्राक प्रारंभ

पांझोरकोणी, कुंकळ्ळे हांगच्या नुसी वोक्हार्ड हॉस्पिटलांत शरिराक जाय तसो आकार दिवपी नव्या अॅस्थेटीक पध्दतीचे शस्त्रक्रियेची सुविधाय आतां उपलब्ध जाल्या.

अशे प्रकारची सुविधाय उपलब्ध करून दिवपी नुसी वोक्हार्ड हॉस्पिटल हें भारतांतलें एकूच हॉस्पिटल जालां म्हणपाचें 'वोक्हार्ड'चें म्हणणें आसा.

व्होक्हार्ड समूहाचे अध्यक्ष डॉ. हबीब खोराकीवाला हांच्या हस्तुकी ह्या नव्या अॅस्थेटीक सेवेचें उक्तावण जालें.

हे वेळार वोक्हार्ड समूहाच्यो संचालिका झाबिया खोराकीवाला, अमेरिकेच्या हॉवर्डस् वैजकी संस्थेचे सल्लागार डॉ. जेम्स मे, वोक्हार्डच्या अॅस्थेटीक संस्थेचे मुखेली डॉ. मनीष पटेल, डॉ. व्हिमी मोदी आनी हेरांची ह्या सुवाळ्याक हाजेरी आशिल्ली.

नुसी वोक्हार्ड हॉस्पिटलान ही सेवा गोंयकारां वांगडाच भारतांतल्या विंगडविंगड वाठारांतल्यान येवपी लोकांचे सुविधाये खातीर उपलब्ध केल्या. वैजकी पर्यटन हे येवजणेखाल विदेशी नागरिकांकूय ही सेवा उपलब्ध करून दिवपाचो वोक्हार्ड अॅस्थेटीक संस्थेचो विचार आसा म्हणपाचें डॉ. खोराकीवाला हाणीं हे वेळार सांगलें. वोक्हार्डान आंतरराष्ट्रीय दर्जाच्या 'हॉवर्डस् मेडिकल इंटरनॅशनल' हे अॅस्थेटिकांतले तज्ज्ञाचें सहकार्य घेतलां आनी हॉवर्डस् संस्थेचें मार्गदर्शन वोक्हार्डाक मेळपाचें आसा म्हणपाचेंय डॉ. खोराकीवाला हाणीं सांगलें.

वोक्हार्ड समूह लोकांक दर्जेदार वैजकी सुविधाय दिवपाक बांधील आसा आनी पांझरकोणी हांगच्या नुसी वोक्हार्ड हॉस्पिटलांत वैजकी मळावेल्यो दर्जेदार सुविधायो उपलब्ध आसात. अॅस्थेटीक सेवेक लागून भारतांतल्या लोकांक तांच्या आर्थिक फास्केभितर उत्कृश्ट सेवा मेळटली म्हणपाचेंय डॉ. खोराकीवालान स्पश्ट केलें.

हे सेवे अंतर्गत शरिराक आनी मुखामळाक जाय तो आकार आनी योग्य बांदावळ करपाची वेवस्ता उपलब्ध आसा. एक बरो आकार, बरी बांदावळ आनी सोबीत मुखामळ निर्माण करप हें वोक्हार्ड इन्स्टिट्यूट ऑफ अॅस्थेटीक चो मुखेल हावेस आसा अशें डॉ. जेम्स में हाणी म्हळें.

ही सेवा उपलब्ध करून दितना लोकांक फाव ती जतनाय घेवपाचें उतर वोक्हार्डान दिलां. हे सेवे अंतर्गत पोटाक फाव तो आकार दिवप (अब्डोमिनीप्लास्टी), मानवी अवयवांची अतिरिक्त चरबी उणी करून पोट, जांगडां, फाट आनी हेर अवयवांक आकार दिवपी लिपोसक्शन ही शस्त्रक्रिया, मुखामळ बदलपाची आनी सोबीत करपाची फेसलिफ्ट शस्त्रक्रिया, नाकाक आकार दिवपाची रिन्होप्लास्टी ही शस्त्रक्रिया, दोळ्यांच्या सरभोंवतणी आशिल्ली अतिरिक्त चरबी उणी करपाची ब्लेफारोप्लास्टी ह्यो शस्त्रक्रिया आनी स्तनांक आकार दिवपी ब्रेस्ट ओगुमेन्टेशन हीय शस्त्रक्रिया हे सुवातेर करतले.

ह्या मळावेल्या अणभवी आनी तज्ज्ञ आशिल्ल्या डॉ. मनीष पटेल आनी विनी मोदी अॅस्थेटीक विभाग पळयतले. तांकां हॉवर्डस् हॉस्पिटलाचे डॉक्टर सहकार्य दितले.

अॅस्थेटीक सेवेचे कार्यक्रम सल्लागार आनी हॉर्वडस् हॉस्पिटलाचे तज्ज्ञ डॉ. जेम्स मे हाणी हे वेळार हे सेवे विशीं सविस्तर म्हायती दिली. भारतीयांच्या आवाक्यात ह्यो सुविधायो उपलब्ध करून दिवपाक वोक्हार्ड वावुरता म्हणपाचें डॉ. मे हाणी म्हळें.




**NUSI WOCKHARDT HOSPITAL**
Panzorconi, Cuncolim, Salcete, Goa - 403 703
Tel: (0832) 6684444, Fax: (0832) 6684242 contact@wockhardthospitals.com www.wockhardthospitals.com




Incredible !ndia

*Goa*

# Remember, You are on holiday. Safety isn't !

Welcome to Goa, where beautiful beaches, delicious cuisine and a friendly ambience promise the perfect mix of rest and recreation. Goa is an extremely safe place to travel around. However, we advise due precautions to be taken while you travel as you would do in any tourist spot in the world. Remember, safety is never on vacation.

## TIPS FOR VISITORS

**Drugs:** Use, possession and trade of drugs is totally illegal in Goa. Drug offence is non-bailable and penalties for smuggling, possession and use are severe.

**Drinking & Driving:** A foreign national must possess an international driver's license. Traffic circulation is on the left. Don't drink and drive or use mobile phones while driving. Wear a helmet while riding a two-wheeler. Follow police traffic rules and keep valid documents in your possession while driving.

**Weather:** Use sunscreen whenever out in the sun to avoid sunburn; drink liquids to avoid dehydration.

**Cleanliness & Hygiene:** Use the nearest dustbin to dispose waste. Don't litter. Use mosquito repellents to protect yourself from mosquitoes. Public pay toilets are available at most places of tourist interest.

**Beach Safety:** Read the signboards and follow the instructions before entering the water. Be careful when wading at the beach, undertow riptide currents can be strong. Consult the lifeguards for safe areas to swim. Nudity on beaches and public places is strictly prohibited.

**General Safety:** Contact nearest Govt. of India/State Govt. Tourist Office/Counter Tourist Police/ Tourist Assistance Booth for any tourist assistance. In Emergency contact 108 for medical/fire/police. Police 100. Fire 101.

VINSAN GRAPHICS

## DEPARTMENT OF TOURISM

Patto, Panaji, Goa - 403001, India. Tel. No. 91-832-2438750/52. Fax: 91- 832-2438756. E-mail: goatourism@dataone.in
**http://www.goatourism.gov.in**

POSTAL LICENCE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in